# शिल्पकाव्य

(भोंवडेवर्णन)

लेखक

**माया अनिल खरंगटे**

**मोहीत प्रकाशन**

# Shilp Kavya
Travelogue

# शिल्पकाव्य
भोंवडेवर्णन

---

**माया अनिल खरंगटे**
प्रकाशन क्र. 7


**पयली उजवाडावणी - 2017**










उजवाडावपी
**मोहीत प्रकाशन**
एफ् - 3, पितूळ कामत को. ऑ. हा. सो.
आकें आल्त
मडगांव - गोंय, 403601
मो. 9420685278

**छापणावळ**
इंप्रेशन बेळगांव

**मुखचित्र**
कलानंद श्रीधर कामत बांबोळकार

**अक्षर जुळोवणी**
अभिनव क्रिएशन्झ

**मोल :** रू. 190/-

म्हजेवरी भोंवडेचें पिशें लागिल्ल्या,
म्हज्या भोंवडेकार इश्ट-इश्टिणींक

- माया खरंगटे

# मांडावळ

# गोकर्ण-महाबळेश्वर

“**मनशान** जाता तितलें भोंवचें, भोंवल्यार नदर विशाळ जाता, तरेकवार लोकांक मेळप जाता, लोक सभाव कळटा आनी सगळ्यांत व्हड गजाल म्हणल्यार सैमाचीं, सोबीत, मनाक थाकाय दिवपी, तितलींच भयांकृत रुपांय दिश्टी पडटात. आमी मनान आनी कुडीनय ताजीं टवटवीत जातात. म्हणून मनशान मेळटा तशें भोंवत रावूं जाय.” हें कोणें म्हळां तें हांव नकळ, पूण ल्हानपणांतल्यान म्हजो बापूय सांगतालो, “हें आमच्या जाणटेल्यांनी सांगलां.”

ताका भोंवपाची खूब आवड. असोळडें लागसारचो सगळो वाठार ताणें पायांनी माडयला खंय, आनी मात्सो पयसुल्लो वाठार तो सायकलीनी भोंवला खंय. मागीर मात तो रेल्वेन, बशीन भोंवतालो. हांव मात्शें व्हड जातकच, खंय वता थंय म्हाका व्हरपाची ताका आवड आशिल्ली.

आमकां चवगांय भावंडांक हें भोंवपाचें पिशें आबा कडल्यान वारसा हक्कान मेळ्ळां अशेंच म्हणूंक जाय. भोंवप म्हळें काय आमी रोखडींच फुरफुरतात. म्हाका तर भोंवपाचें व्यसनच म्हणल्यार जाता. एक एक वर्स खंयच वचनासतना रावलें जाल्यार म्हाका सूख लागना. हांव सामकें उदकांतल्यान भायर काडिल्ल्या नुस्त्यावरी तळमळटां. मागीर प्रवास वर्णनाचीं पुस्तकां घेवन पारायणां करतां.

बेळगांव आनी मुंबय सोडल्यार प्रवासाचो योग म्हाका कॉलेज

बी सोंपतकर आयलो. पूण त्या काळांत हांव म्हज्या सपनांत भोंवडी करतालें. तेन्ना म्हाका सपनांत चडशीं तुटकीं-फुटकीं पाशाणी देवळांच दिसतालीं. हीं सपनां सांगतकच आजेन भियेवन प्रसाद लेगीत घेतलो.

उपरांत म्हजी भोंवडी सुरू जाली आनी म्हजीं असलीं सपनां बरीचशीं कमी जालीं.

सगळ्यांत पयलीं हांवें भोंवडी केली ती आज्जेची बडी जावन. म्हळ्यार म्हज्या हाताक धरले बगर तिका नीट चलूंकच येनासलें. तिका लागून सुरवेक हांवें देवळां चड पळयलीं. नरसोबावाडी, शिरडी, नासीक, त्र्यंबकेश्वर अशीं.

आमचे शेजरा त्या वेळार मंगला कामथ रावताली. तिच्या घोवाक भोंवपाचो, लोकांक भोंवडावपाचो घोस्त. तिच्या घोवाक आमी अण्णा म्हणटालीं. अण्णान म्हाका भोंवडी आंखप, मनशां जमोवप आनी बरे भशेन भोंवडी करून येवपाक शिकयलें. पयशांचो आनी टेम्पोचो वेव्हार अण्णा पळयतालो. ताची कामथ हॉटेलांची सांखळ कर्नाटकांत सगळ्याक आसा. मडगांवच्या कामत हॉटेलाचो अण्णा मॅनेजर, म्हणून आमकां भोंवक वता थंय रावपा-जेवपाची वेवस्था बरी जाताली.

अण्णा-मंगलाक लागून म्हजी भोंवपाची आवड वाडत गेली म्हळ्यार जाता. तांकां लागूनच कर्नाटकांतलीं पाशाण शिल्पां सुरवेक म्हाका पळोवंक मेळ्ळीं. तेन्नाचो मातादोर टॅम्पो घेवन आमी भोंवडेक वतालीं.

सगळ्यांत पयलीं आमी गोकर्ण वचपाचें थारायलें. वाटेर अवुरशां कात्यायनी बाणेश्वरीचें देवूळ आसा. गोंयांत जायत्या जाणांची ती कुलदेवता अशें आयकल्लें. त्या देवळाक भेट दिवनच मुखार वचपाचें थारलें. हें आमी पळयिल्लें कर्नाटकांतलें पयलेंच देवूळ.

भायल्यान पळयल्यार हें देवूळ कशें दिसनासलें. एका दगडी दुरगांतल्यान आमी भितर सरलीं. दुरगाच्या प्रवेशदाराचेर दगडीच घुमटी

कशी आसली. तातूंत देवाची मूर्त. भितर पाशाणी फातरांची जमीन. भोंवतणीं व्होंवऱ्यो. मदीं व्हड बरें पाशाणी देवूळ. देवळाक खांबेच चड. भितर दिवल्यांचोच उजवाड, बाकी सगळे कडेन काळोख. देवी बरी स्पश्ट दिसली ना.

गोंयचीं चकचकीत बरीं देवळां पळोवपाची संवय जाल्ल्या आमच्या दोळ्यांक तें देवूळ बुरशें कशें दिसलें. उपरांत कळ्ळें, कर्नाटकांतलीं चडशीं देवळां अशींच काळखी आनी बुरशीं कशीं. एके तरेची कुबट्टाण थंय येता. नाल्ल फोडटात थंय लेगीत नाल्ला उदकाचो कुसट वास थंय येतालो.

कात्यायनी बाणेश्वरीचें देवूळ पळोवन आमी गोकर्णाचे वाटेक लागलीं. हांगाच्यान म्हज्या कर्नाटक प्रवासाक सुरवात जाली. थंयच्या कर्नाटकी शिल्पकाव्यान म्हाका पिशेंच लायलें म्हणल्यार जाता. कर्नाटकांतलीं चडशीं पर्यटन थळां हांवें पळयल्यांत. पूण ह्या पुस्तकांत हांवें फकत कर्नाटकी शिल्पकाव्य तितलेंच घेतलां. बाकीच्या पर्यटन स्थळाच्या वर्णनाचें पुस्तक केन्ना येता पळोवया.

उपरांत हांव गोकर्ण खूब वेळा पावलें. प्रत्येक वेळार गणपतीचें देवूळ आनी मुखेल देवूळ तितलेंच पळोवप जातालें. एक फावट म्हाका थंय पांच-स दीस रावपाचो योग आयलो. आमच्या एका सोयऱ्याक थंय देवस्पण करपाचें आसलें. तांचे बराबर हांव, अनिल आनी मोहीत गेल्लीं. तेन्ना म्हाका सगळें गोकर्ण पायांनी भोंवन पळोवंक मेळ्ळें.

पयलीं आजी म्हणटाली 'गोकर्ण महाबळेश्वर, सेतूबंद रामेश्वर आनी काशी विश्वेश्वर हांची यात्रा केली काय जीण सुफळ जाता. गोकर्णाक गोकर्ण-महाबळेश्वर कित्याक म्हणटात, हाचेर आजी सांगताली, रावणान जेन्ना गणपतीन जमनीर दवरिल्लें म्हादेवाचें आत्मलींग काडपाचो यत्न केलो तेन्ना तें कशेंच येना जालें. रावणान पुराय बळ लावन तें काडपाचो यत्न केलो तरीय ताचो इल्लोसो कुडको तितलो ताच्या हातांत आयलो. हांगा रावणाक पुराय शक्ती

लावची पडली म्हणून ह्या लिंगाक गोकर्ण महाबळेश्वर म्हणटात खंय.

गोकर्ण गांव हें प्रसिद्ध तिर्थस्थळ. हांगा सदांच लोकांची रहदारी आसता. पूण ताचें शार जालें ना. थंय अजूनय व्हड-व्हड बिल्डिंगो, व्हड हॉटेलां बी नात. हांगा चडशे पर्यटक येवन वतात. देवस्पण करूंक आयिल्ले लोक चडशे भटांगेर रावतात. आतां थंय एके माळयेचीं हॉटेलां जाल्यांत. तसल्याच एका हॉटेलांत आमी रावलीं. भर बाजारांत हें हॉटेल आशिल्ल्यान च्या-जेवणाचीं हॉटेलांय लागीं-लागींच आशिल्लीं.

ह्या गोकर्णाच्या निर्मिती विशीं स्कंधपुराणांत दोन काणयो सांगतात. तेच परी रामायण, महाभारत ह्या ग्रंथांनीय गोकर्ण क्षेत्राची माहिती आयल्या.

खूब पयलीं साकून हें पवित्र शिवतिर्थ म्हणून नामनेक पावलां. हांगा मरणा उपरांतचीं क्रिया-कर्मां करप्यांची गर्दी आसता. भुंयेक गो म्हणटात. हे भुंयेर सत्वगुणी सृश्ट निर्माण करपाची आज्ञा, ब्रह्मदेवान आपल्या कपलांतल्यान प्रकट जाल्ल्या रुद्राक दिली. ते पासत रूद्र पाताळांत घोर तपश्चर्या करतालो. उपरांत ब्रह्मदेवान चिंतलें सत्वगुणी सृश्ट निर्माण केल्यार एकामेकां भितर भेदभाव उरचो ना. म्हणून ताणें त्रिगुणात्मक सृश्ट निर्मिली. रूद्राक ही खबर कळटकच सामकी तिडक आयली.

तिडकीन तो पाताळांतल्यान भायर सरूंक सोदतालो. त्या वेळार ताका धर्तरी आडवी आयली. रूद्रान आपल्याक भायर सरूंक वाट दी म्हणून तिका सांगलें. धर्तरीन ताका सांगलें, 'म्हाका दुखचें ना अशे तरेन तूं सुक्ष्म रूप घे आनी म्हज्या कानांतल्यान भायर सर. ह्याच जाग्या वयल्यान तो भायर सरलो. धर्तरी म्हणल्यार गो तिच्या कानांतल्यन तो भायर सरलो म्हणून ह्या वाठाराक गो कर्ण म्हणूंक लागले. इतलेंच न्हय तर त्या जाग्याक आदी गोकर्णय म्हणटात. त्या जाग्यार पाशाणी व्हड बरें गायेचें तोड आसा. त्या गायेच्या तोंडांतल्यान भितर वचून

कानांतल्यान भायर सरूंक मेळटा अशें म्हाका कोणें कोणें सांगिल्लें.

पूण आमी गोकर्ण पांच दीस राविल्लीं तेन्ना हांवें ह्या जाग्या विशीं कोणा-कोणाक विचारलें. जाल्यार म्हाका थंयच्या लोकांनी सांगलें तो जागो बरोच पयस दोंगरां मदीं आसा म्हणून. पूण कोणेंच वाट सांगली ना, आनी म्हाका तो जागो पळोवंक मेळ्ळो ना.

इतिहासांत सांगलां, छत्रपती शिवाजी म्हाराज आग्र्याक साकून सुट्टकीर दक्षिण भारतांत तिथयात्रेक म्हणून आयले. तेन्ना ते गोकर्णाक आयिल्ल्याचो उल्लेख आसा. विजयनगरच्या साम्राज्याचे अधिपती बुक्क राजाय हांगासर येवन गेल्ल्याची नोंद आसा. म्हैसुरच्या टिपू सुलतानाचो पराभव जातकर सगळो प्रांत ब्रिटिशांच्या हातांत आयलो. तेन्ना गव्हर्नर मेक्वील वेलस्लीन 1801 सालांत बुक्यानन ह्या विद्वानाक ह्या वाठाराच्या अभ्यासा पासत धाडिल्लो. ताणें हांगाचो इतिहास कागदपत्रां, शिलालेख हांच्या आदारान बरोवन दवरला.

गोकर्णा वयल्यान आनीक एक काणी खूबच लोकांच्या तोंडांतल्यान आयकूंक येता. ती अशी-

रावणान खर तप करून शंकराक प्रसन्न करून घेवन आपले आवयक पुजा करपाक जाय म्हणून ताचें आत्मलींग मागून घेतलें. हेच वाटेन तें घेवन तो लंकेक वतालो. 'म्हादेवाचें आत्मलींग व्हेल्यार जातलें कशें?' सगळ्या देवांचेर आकांत आयलो. त्या वेळार गणपतीन आपूण तें आत्मलींग परत हाडटां म्हणून सगळ्या देवांक उतर दिलें.

ते प्रमाण गणपती गोरवां राखणो जावन गोरवां घेवन गोकर्णाच्या दर्या लागसार उबो रावलो. रावण त्या वाठारांत पावपाक सुर्यास्त जावंक आयलो. रावण कर्मठ ब्राह्मण. ताका संध्या करूंक जाय आसली. तो दर्या देगेर आयलो. पूण अर्घ्य दितलो जाल्यार एका हातांत आत्मलींग आसलें. तें दितना म्हादेवान सांगिल्लें, 'चुकून लेगीत हें लींग जमनीर दवरल्यार तें थंयच घट जातलें.'

'आतां हें लींग कोणा कडेन दिवूं?' रावण चिंतूंक लागलो. थंयच

राखणो जाल्लो गणपती उबो आसलो. रावणान राखण्याक, आपूण संध्या करून येसर लींग हातांत धर म्हणून सांगलें. गणपतीन बरेंच आडे-वेडे घेतले. पूण रावण सामकोच फाटीक लागतकर गणपतीन सांगलें, 'लींग हांव घेतां, पूण तुका वेळ जाल्यार हांव तीन वेळा उलो मारतलों. तितलेसर तूं आयलो ना जाल्यार हें लींग हांव जमनीर दवरून वतलों.'

रावणान 'बरें' म्हळें आनी लींग गणपती कडेन दिवन रावण संध्या करूंक गेलो. रावणाक संध्येक बरोच वेळ लागलो. हेवटेन गणपतीन रावणाक तीन वेळा उलो मारलो. तरी तो येना तें पळोवन गणपतीन लींग जमनीर दवरलें तेन्नाच रावण धांवत-धांवत आयलो. ताणें लींग काडपाचो यत्न केल्यार, लींग कशेंच येना जालें. लिंगाचें वयलें कवच तुटून ताचे कुडके चार कडेन पडले.

एक कुडको भटकळ तालुक्यांतल्या कंदुका हे दोंगुल्लेचेर पडलो आनी 'मर्डेश्वर' ह्या नांवान लिंगाच्या रुपांत रावलो. सध्या तो वाठार मोर्डेश्वर वा मुर्डेश्वर म्हणून वळखतात. दुसरो कुडको होन्नावर लागसारच्या गुंणवंतेश्वर ह्या गांवांत पडलो आनी तो 'गुह्येश्वर' नांवांन प्रसिद्ध जालो. तिसरो कुडको कारवार लागसारच्या सज्जेश्वर हांगा पडलो, तो 'संपुटेश्वर' ह्या नांवान प्रसिद्ध जालो. आनी चवथो कुडको दारेश्वर ह्या जाग्यार पडलो. थंय तो 'दारेश्वर' ह्या नांवान प्रसिद्ध जालो.

हेच काणयेक जोडून आनीक एक गजाल सांगतात. ती अशी - रावण संध्या करूंक वचूं नासलो तर ताका कडकडून मुतूंक जाल्लें, म्हणून ताणें लींग राखण्या कडेन म्हणल्यार गणपती कडेन दिलें. गणपतीन रावणाचें मूत सोंपूं नये अशें केलें. ताच्या मुताचो दर्या जालो. निमणे गणपतीन तीन वेळा रावणाक उलो करून लींग जमनीर दवरलें. आनी तें थंयच घट जालें.

कशेंच जावं लींग जमनींत खोल गेल्लें. हेर लिंगावरी तें वयर ना.

तें जमनीच्या भितर आसा आनी वयर फकत बुराक आसा. भितर हात घालतकर तें हाताक लागता.

हेवटेन कितें जालें, लींग कशेंच काडूंक येना तें पळोवन रावणाक संताप आयलो. आनी ताणें गणपतीचे तकलेर नेटान मूठ मारली. गणपतीचे तकलेक चेप आयलें.

हांगाच्या गणपतीच्या देवळांत जी गणपतीची मूर्त आसा तिचे तकलेर चेप आसा. हें रावणान ताचेर मारिल्ले मुठीचें चेप म्हणून सांगतात. अभिशेका वेळार हात लावन हें चेप पळोवंक मेळटा.

गणपतीच्या यत्नान आत्मलींग परत मेळ्ळें म्हणून म्हादेवान ताःका आशिर्वाद दिलो - 'गोकर्णा आयिल्ले म्हजे भावीक पयलीं तुजी भेट घेतले, तुजी पुजा करतले मागीरच म्हज्या दर्शनाक येतले. हांगा गणपती मनीस रुपान रावणाक मेळिल्ल्यान देवळांत ताची दोन हातांची उबी मूर्त दवरल्या. हें देवूळ पाशाणी पूण ल्हानशें. थोडेभोव प्रमाणांत ताचेर कोरीव कामय आसा. ह्या देवळाक व्होल्त घेवन मुखर वतकर महाबळेश्वर देवूळ.

ह्या देवळाक भायल्यान दगडी ऊंच बरें दुरीग आसा.दुरगाचे भायले वटेन दुकानां आनी भितरले वटेन होंवऱ्यो आसात. त्या होंवऱ्यांचेर लेगीत ल्हान-ल्हान देवळां आसात. दुर्गाच्या प्रवेशदारार व्हड गोपूर आसा. हो गोपूर दाक्षिणात्य शैली परस वेगळो आसा, आनी पळोवपा सारकोच. आमी पळयिल्लो हो पयलो गोपूर. देवळा भोंवतणीं पाशाणी फरश्यो बसयल्यात. हें देवूळ व्हड बरें, ऐसपयस कशें आनी आखीव रेखीव आसा. देवूळ काळ्या पाशाणाचें आनी ताचेर भायल्यान थोड्या प्रमाणांत कोरीव कामय आसा. सभामंडपांत व्हड पाशाणी कांसव आसा आनी ताचेर धाकटो नंदी आसा. मद्दीं आडव्यो पट्ट्यो आसात आनी ताका घंटेच्यो माळी लायल्यात.

आमच्या सोयऱ्याक अभिशेक करपा आसलो. ताचे बराबर भटान आमकांय गर्भकुडींत व्हेलीं. हरशींल्या लिंगा प्रमाण हांगा लींग ना.

पूण वयर लिंगावरी पिठिका बसयतात. सकाळची ती काडून दवरतात आनी थंय अभिशेक करूंक मेळटा. थंय मद्दीं सोण्णाच्या नाल्ला येदो बुराक आसा. तातूंत भितर हात घाल्यार तीन गुळेशे लागतात. भटान सांगलें, 'तीं ब्रह्मा, विष्णू आनी महेशाचीं तोंडां' म्हणून. तिनूय देव हांगा एकरूप जावन रावतात खंय.

कोणें कोणें आमकां सांगिल्लें हो बुराक भितरल्यान सारको गायेच्या काना भशेन आसा म्हणून. आमच्या सोयऱ्याची पुजा जातकच भटान आमचे कडेनय फुलां दिवन भितर हात घालून देवाचेर घालपाक लायिल्लीं. तेन्ना हांवें भितर सासपून पळयलें. म्हाका ते निखटेच फातराचे गुळे कशे लागले. दर साठ वर्सांनी त्या आत्मलिंगा वयलें शाळीग्राम पीठ काडून मंत्रपाठ म्हणून थंय पुजा करतात खंय. ताका अश्टबंध महोत्सव म्हणटात.

ह्या वेळार थंय व्हड उत्सव जाता. लाखांनी भावीक येतात खंय. पुराय भारतांत असो हरीहराचो एकचार खंयच ना खंय. तो हांगाच दिसता. हें हांगाचें खाशेलेंपण. हांगा श्री विष्णूच्या शाळीग्रामाचेर शीवलींग कोरांतलां.

प्रदक्षिणेचे वाटेर सुरवेकच उदकाच्या कुंडांत पिंडिका आसा. मागीर वळीन वीरभद्र, पार्वती, नंदी आनी ताम्रगौरी हांचीं ल्हान देवळां आसात.

ह्या देवळांत पुजा करतलीं जाल्यार पयलीं दर्यार वचून न्हावन ओल्यांनी येवन कोटीतिर्थार वचून न्हावप. कोटीतिर्थ म्हणल्यार व्हड तळें. देवळाचे उजवे वटेन मातशें भितरले वटेन हें तळें आसा. दोनय वटच्यान पाशाणी सोपणां बांदल्यांत आनी सगळें तळें पाशाणान बांदून घेतलां. थंयचे वण्टीर मराठी, हिंदी, कन्नड आनी इंग्लीश भाशेंत सुचना बरयल्यात. ह्या तिर्थाचें उदक वखदी खंय. तातूंत न्हाल्यार कातीचीं दुयेंसां बरीं जातात खंय. ह्या तळ्याचे चारूय वटेन देगेर दगडी सत्र्यो, गोपूर, घुमट्यो बांदून तळें बरें सोबीत केलां.

हांगा आशी-कुशीक ल्हान-ल्हान खूब देवळां आसात. भव्य मठ आसा. ह्या मठांत सोबीत बरी विठ्ठल-रखुमाईची मूर्त आसा. हांगा जशीं वचतथंय देवळां दिसतात तश्योच गायो दिसतात. भावीक पुजा करपाक येतात तेन्ना तांकां गायांचीय पुजा करपाक जाय आसता. ते पासत बी तांकां अशीं सोडिल्लीं काय कोण जाणा. पूण सगळे कडेन तांच्या शेणामुताच्यो घाणी. पांयां कडेन पळोवन चलचें पडटा.

हांगा श्राद्धा सारके विधी करूंक एक वेगळेंच घर बांदलां. थंय सदांच त्या घरा भायल्यान मनशांची गर्दी दिसताली.

आमी जितले दीस गोकर्णा राविल्लीं तेन्ना सद्दां दनपारां इकरांच्या सुमाराक एक म्हातारी बडी तेंकयत येतना दिसताली. ती तिगेल्या थारिल्ल्या घरांनी वचून तीर्थ दिताली, कुकूम लायताली आनी आशिर्वाद दिताली. ते लोक तिका कितें दितात तें ती घेवन वताली. तिचे कडेन एक पिशवी आसताली. तातूंत तें सगळें घालून, आपल्याक दुकाना वयलें कितेंय जाय जाल्यार तेंय घेवन तातूंत घालून ती परत वताली.

दोन तीन दीस आमकां थंय पळयतकर एक दीस तिणें आमकांय तीर्थ दिलें. थंयचेच एके बायलेक हांवें तिचे विशीं विचारलें, तिणें सांगलें, 'हे बायलेक पुतांनी घरा भायर काडल्या. ती थंयचे दोंगुल्ले वयल्या रामाच्या देवळा म्हऱ्यांतल्या मोडक्या घरांत रावता. रामादेवळांतलें तीर्थ म्हणून गडवो भरून हाडटाली आनी लोकांक तीर्थ दिताली. लोक कितें दितात तें घेवन आपलें पोट भरताली. ती कानडी हेळ्यान कोंकणी उलयताली.

हांव ते आज्जे कडेन उलयलें. तिणें म्हाका रामा देवळांत येवपाचो आगरो केलो.

त्या दिसाच सांजेचीं आमी ते दोंगुल्लेर वचूंक भायर सरलीं. ही दोंगुल्ली दर्या भितर रिगल्या म्हळ्यार जाता. थंय वतलीं जाल्यार दर्याच्या उदकांतल्यान ओले रेंवेंतल्यान वच्चें पडटा. ताका लागून मजा

येता. पूण थंय लांबचे लांब माळ कशी शेळ्याच्यो वाली आसात. त्यो वाली सांबाळत वच्चें पडटा. ती दोंगुल्ली चडून वयर वतकर एके वटेन अथांग दर्या एके वटेन ओडलायणी अशी सोबीत दर्यादिग. त्या दृश्या वयली नदर काडूं नये कशें दिस.

वयर बरें रामाचें देवूळ आसा. भितर राम-सीता-लक्ष्मण आनी मारुतीची मूर्त आसा. देवळाच्या सोपणां सकयल एक तळ्यावरी बांदून काडिल्लें कूंड आसा. हेंच नामनेचें 'रामतीर्थ कूंड'.

ह्या देवळा शेजराच चिऱ्यांनी बांदिल्ल्यो ल्हान ल्हान कुडीश्यो आसात. थंय पयलीं लिंगा आशिल्लीं खंय. आतां मात तातूंत कांयच ना. एके कुडींत ती म्हातारी आजी रावताली. आमी गेल्लीं तेन्ना ती नाशिल्ली पूण तिचें तुटकें-फुटकें सामान आशिल्लें. आमी तिच्या सामाना म्हऱ्यांत थोडे पयशे दवरले आनी आयली.

दोंगरा वयल्यान सकयल देंवतकर आमी परत त्या मोट्या पानांच्या शेळ्याच्या माळीं म्हऱ्यांत गेलीं. म्हाका तीं व्हेलवेटावरी दिसपी तीं पानां हातांत घेवंक जाय आसलीं. तितल्यांत थंयच्यान कोणे तरी सांगलें तांकां हात लावं नाकात म्हणून. कन्नडान कितें तरी जाता म्हणून सांगलें.

अशे तरेन आमी गोकर्णांतले बरेच वाठार पळयले. ❑

# इडगुंजी

**पुराय** कर्नाटक म्हळ्यार देवळां, शिल्पकाव्यां आनी अशाच सोबीत-सुंदर गजालींचें खतखतें, मंगळुरी कोंकणींतलें गजबजें म्हळ्यार अतिताय जावची ना.

आमची शेजान्न मंगला आनी तिचो घोव कशीं प्रवासाचीं शौकीन तें हांवें पयल्या प्रकरणांत सांगलां. तीं मेंगळुरू लागसारच्या कुंजावर गांवांतलीं. तांणी आशी कुशींतलीं देवळां पाशाण शिल्पां सगळें पळयिल्लें. आतां तीं वळखी-पाळखिच्या लोकांक तीं देवळां दाखोवंक व्हरतालीं.

होन्नावरच्यान सोळा किलोमिटरांचेर इडगुंजी हो गांव आसा. थंयच्या गणपतीक मंगलान आंगवण केल्ली. तीं थंय वचपाची तयार करतालीं. अण्णान म्हाका म्हळें, 'माया, आमी टेम्पो घेवन या, तूं लोकांक जमय. हांव टेम्पोचें पळयतां.'

आनी एक दीस आमची पथारी इडगुंजी वचूंक भायर सरलीं.

इडगुंजी हो सामको खेडवळ गांव. दोंगर-कुळागरांनी नटिल्लो. न्हंया व्हाळांनी समृद्ध असो. मातयेचीं मंगळुरी नळ्यांचीं घरां थोडींच, पूण चुडटांनी शाकारिल्ल्यो खोंपी चड. घरा मुखार शेणान तुकतुकीत सारयिल्लें आंगण आनी भोंवतणीं फुलांनी भरिल्लें पोरसूं. अशेंच सगळ्या गांवभर.

आमचो टेम्पो एका दोंगरा मुळसांत थांबलो. थंयच्यान बरेच

सकयल देंवन आमी आयलीं. पाशाणी मोटवेंच दुरीग कशें आसलें आनी तातूंत भितर देवळाची फाट दिसताली. दुरगा भायर तांबड्या दसणी फुलांचे हार, दुर्वांचे हार आनी जायत्या तरेच्या फुलांचे हार घेवन बायलो विकपाक बशिल्ल्यो. तांचे कडेन अजापाचींच फुलां आशिल्लीं. धव्योफुल्ल लांबचे लांब पातयो कश्यो हातांत घेवन बायलो उब्यो आसल्यो. आमकां पयलीं ते कांदळां पोडशे दिसले. म्हऱ्यांत वचून पळयत जाल्यार ताका कांदळांचो आमुससार वास येना आशिल्लो.

मंगलान सांगलें, - 'ती भाती, गणपतीची खूब आवडीची. गणपतीचो प्रसाद म्हणून आमी ती माळटात लेगीत.'

'भाती म्हणल्यार गो?' आमी परत विचारलें.

- 'भाती म्हळ्या माडयेच्या तन्न्या शेवकाची एक पात.'

भाती बरी हळडुवसार धवशी दिसताली. सामको कांदळां पोड. फुलां घेवन आमी खांब्या खांब्याच्या पाशाणी देवळांत भितर सरलीं. गर्भकुडींत ल्हान हती उबो राविल्लेवरी गणपतीची मूर्त उबी आशिल्ली. गर्भकुडींत दिवल्यांचो आनी लामण दिव्यांचो तितलो उजवाड आसलो. तरीय मूर्त स्पश्ट बरी दिसताली.

ह्या देवळांत हालीं हालीं हांव दोन-तीन वेळा पावलां. आतां तो खेडवळ गांव उरूंक ना. हेर गांवगिरे वाठार जशे झपाटिल्लेवरी बदलतात तसो हो गांवय बरोच बदल्ला. ह्या देवळा भोंवतणीं सामको ल्हान जागो. देवळाचें दुरीग आसा ताका तेंकून रस्तो. वयर मात बरो जागो आसा. थंय आतां बरी अगरशाळा बांदल्या. रावपा जेवपाची वेवस्था केल्या, व्हड हॉलय बांदला. ❑

# मुर्डेश्वर

**आमी** मुर्डेश्वर वचूंक सोदतालीं. मडगांवच्यान मंगळुरू वतना मुर्डेश्वर स्टेशन जालें काय उजवे वटच्यान पयस व्हड म्हादेवाची मूर्त दिसता. ती पळयत साकून आमकां मुर्डेश्वर वचपाची उमळशीक लागिल्ली. थंय एक हॉटेल अर्द जमनीर आनी अर्द दर्यांत अशे तरेन बांदलां म्हणून आयकल्लें. तातूंत रावपाचो बेत करून आमी गेल्लीं. पूण त्या हॉटेलांत आमकां रूम मेळ्ळे नात. आमी लागींच्याच दुसऱ्या एका हॉटेलांत रावलीं.

रुमांनी सामान दवरून आमी सकयल येवन च्या घेतलो. मागीर देवळांत वचूंक भायर सरलीं. वाटभर सुक्या, कुसक्या नुस्त्याच्यो हिंवळाणी-दर्भटसाणी येताल्यो. कांय नुस्तेकान्नी ताजें फडफडीत नुस्तें विकूंक बशिल्ल्यो. फाटले वटेन हातरपट्यार नुस्तें सुकत घाल्लें. मदीं मदीं कोंड्याच्यो दोन बडयो पुरून तांकां दोरयो बांदिल्ल्यो तांचेर लांब लांब नुस्तें लामयिल्लें. आमी म्हऱ्यांत वचून पळयलें. तांणी बोंबील, बाळे त्या दोरयांक बांदून सुकपाक दवरिल्ले. जितें, सुकें मत्स्य दर्शन घेत आमी देवळाचो रस्तो धरलो.

कर्नाटकाच्या उत्तर कन्नड जिल्ल्यांत भटकळ तालुक्यांतलें हें एक मुखेल तिर्थक्षेत्र. हो मुर्डेश्वर वा म्रडेश्वर म्हळ्यार म्हादेव. हांगा देवळांत लींग आसा. ह्या लिंगाचें नातें गोकर्णच्या म्हादेवाच्या आत्मलिंगा कडेन आसा. तें कशें तें हांवें गोकर्ण ह्या लेखांत बरयलां.

देवळाच्या प्राकारांत भितर सरचे पयलीं कर्नाटकी खाशेलेंपण म्हळ्यार गोपूर मेळ्ळो. हो गोपूर 249 फूट लांबायेचो आनी 18 माळयेचो. पयलीं गोपूराच्या वयल्या पोंता मेरेन वचूंक सोपणां आशिल्लीं, आतां भितरल्यान लिफ्ट बांदून घेतल्या खंय. आमी सरळ देवळांत गेलीं. ह्या देवळाचे निर्मणे विशींची कथा देवळांतल्या शटकोणी खांब्याचेर कोरांतल्या. गाभाऱ्यांत व्हड आनी रेखीव शिवपिंडी आसा. मुर्डेश्वराचें दर्शन घेवन आमी देवळाच्या आशिकुशीक आशिल्लीं गणपती, पार्वती, दत्तात्रय आनी नवग्रहाचीं देवळां पळयलीं. हें देवूळ दोंगुल्लेच्या सारकें मुळसांत. देवळा भोंवतणीं थोडोसो जागो सोडून रोखडींच हेर देवांच्यो ल्हान ल्हान देवळ्यो. तांकां तेकून दोंगुल्लेची वणत, तिचेर ल्हान ल्हान सोपणां कशीं करून फूलझाडां रोयल्यांत.

थंयच्यान वयर दोंगुल्लेचेर आशिल्ली म्हादेवाची मूर्त दिसताली. आमच्या भुरग्यांक वयर म्हादेवा म्हऱ्यांत वचपाची उमळशीक लागिल्ली. तीं आमकां ताकीत करूंक लागलीं.

आमी दोंगुल्लेचेर वचूंक लागलीं. उजवे वटेन अथांग अर्द चंद्राकृती दर्या ल्हारां व्हटींत घेवन खेळटालो. ताचे कडेन वळीन हॉटेलां. हो सगळो वाठार आर. एन. शेट्टी हांचे मालकीचो. तांचो कूळदेव मुर्डेश्वर. ताणें हांगाच्या देवळाचो जिर्णोद्धार केला. आनी जायत्यो पळोवपा सारक्यो गजाली तयार करून घेवन हें एक उत्कृश्ठ अशें पर्यटन थळ केलां.

आमी ती दोंगुल्ली चडून वयर आयलीं. पुराय दोंगुल्ली पाचव्या लॉनान धांपिल्ली. दोंगुल्लेच्या माथ्यार व्हड बऱ्या पाशाणाचेर आकांत व्हड शंकराची मूर्त बसयल्या. ही मूर्त 123 फूट ऊंच आसा. ह्या मुर्तीच्या खाक्यांत, गळ्या सकयल पक्षांनी घोंटेर केल्यात. ह्या मुर्तीच्या पोंदा आशिल्लो पाशाण कोरांतून घोल कशी केल्या. कांय जाण म्हणटात थंय पयलींच घोल आशिल्ली. ती मात्शी वाडयल्या. हे घोली भितर पुराणांतल्यो बायलो, दादले, आनी हेर चित्रां कोरांतल्यांत.

ह्या शंकराच्या मुखारूच रावण गोरवां राखण्याच्या रुपांतल्या गणपती कडेन म्हादेवाचें आत्मलींग दिता तो देखाव साकार केला. दुसरे कडेन भागिरथान शंकराच्या आदारान गंगा धर्तरेर हाडली तो देखाव केला. थंयच सप्तर्शी रुशीची मूर्त केल्या. मात्शे पेल्यान अर्जुनाचो रथ केला आनी कृष्ण अर्जुनाक गीता सांगता असो देखाव केला. सगळ्यो मुर्ती जित्यो जिव्यो कश्यो, आनी तीं दृश्यां खरेंच पळोवपा सारकीं. हें सगळें पळोवन आमी थोडो वेळ लॉनार बसून दर्याचो वारो खालो आनी हॉटेलार परतलीं.

पर्यटन महामंडळान सध्या दर्या सफारी पासत केरळा प्रमाण बॅक वॉटराची वेवस्था केल्या. दोन दीस मुर्डेश्वराक रावल्यर आशीकुशीची आनीक प्रेक्षणीय स्थळां पळोवंक मेळटात. पूण आमकां सदांच ताकतीक आसता म्हणून आमी रोखडींच परतलीं. ❑

# दोंगरमाथ्यार शिर्शी

**अखिल** भारती कोंकणी परिशदेक लागून आमी कर्नाटकांतल्या वेगळ्या वेगळ्या गांवांनी भोंवतात. अशा वेळार आमकां चड भोंवंक मेळना. पूण थोडोसो वेळ काडून आमी लागीं आशिल्लें कितेंय पळोवन येतात.

त्या वर्सा अधिवेशन शिर्शी आशिल्लें. आमी थंय पावल्यांत त्या दिसाच थळाव्या लोकांक लागीं कितें कितें पळोवपाक मेळटा काय विचारलें. आमच्या हॉला पसून सामकें लागीं आशिल्लें मरिकांबा देवूळ. हें शिर्शीच्या मदींच भर बाजारांत आसा. आमी गेल्लीं तेन्ना शिर्शी ल्हान शार आशिल्लें. थंय हॉटेलां लेगीत सादींशींच, तिंवूय चड नाशिल्लीं.

आतां मात थंय बरीं बरीं हॉटेलां, व्हड बाजार बी आसा खंय. आतां पर्यटन थळ म्हणून ताची बरी उदरगत जाल्या.

मरिकांबा देवूळ सादारण तिनशें साडेतिनशें वर्सां पयलींचें. तें रंगयाळें देवूळ पळोवंक देवूळशें दिसना. तो एक व्हड वाडोसो दिसता. बरीं सोपणां चडून आमी वयर आयलीं. सोपणां लांबचे लांब. स्टेडियमांतल्या सोपणां वरी. देवळाच्या भायले वणटीर रंगयाळीं चित्रां काडिल्लीं. व्हडल्या दारांतल्यान आमी भितर सरलीं. जनेलांय लांब लचक आशिल्लीं.

हें त्या गांवच्या सर्वसामान्य लोकांचें देवूळ खंय. मरीकांबा देवीक

माई अंबिकाय म्हणटात खंय. मरीकांबा म्हळ्यार मरी आई; सांथीच्या रोगाची देवी. पयलीं प्लेग, देवी, टायफॉयड, मलेरिया अशे आटापा येनात अशे रोग जाताले. ते रोग एकाद्या गांवांत येवप म्हळ्यार गांवांचे गांव उजाड जातालो. पटापट लोक मरताले. घराचीं घरां रिकामीं जातालीं. मागीर शक्य आशिल्ले लोक, दुसऱ्या गांवांत, सोयऱ्यांगेर ना जाल्यार रानांत लेगीत वचून रावताले. ह्या रोगांचेर सुरवेक तितलीं खर वखदां नाशिल्लीं. आनी आसा तिंवूय घेवंक लोकांक खात्री येनासली. दोतोरान सूय तोपल्यार मनीस मरता असोय एक फटीचो समज आशिल्लो.

आनी एक म्हणल्यार चडशे लोक अशिक्षीत आशिल्ले. ताका लागून लोकां मदीं अंधश्रद्धा चड आशिल्ली. अशा रोगांचेर वखद घेवचे परस आंगारे, धुपारे, देव-देवस्पण, घाडी भगत हांचेर तांचो चड विस्वास आसतालो. अशा वेळार ह्या रोगांची देवी म्हणून मरीआईची पुजा करताले. तिची पुजा केली ना जाल्यार तिचो कोप जातलो आनी अश्यो सांथी सुरू जातल्यो असो अंधविस्वास समाजांत चड आशिल्लो.

अशें हें मरीआईचें देवूळ, आनी मरीआई गांवच्या लोकांची आराध्य देवता आशिल्ली. तिचो कोप जावन गांवच्या गांव काबार जावं नये म्हणून देवीक प्रसन्न करपा पासत भक्त थंय जनावरांचे बळी दिताले. जात्रे वेळार तर बळी दिवपाच्या जनावरांचो आंकडो इतलो चड आसतालो, देवळा सकयल रगताचे व्हाळ व्हांवताले. चिखला मांसाचो कालो जातालो अशें म्हणल्यार अतिताय जावची ना.

मारीकांबा देवीची जात्रा दोन वर्सांनी एक फावट जाता. त्या वेळार देवस्थानाचे वतीन एका धश्टपुश्ट रेड्याचो बळी दिताले. दोन वर्सां त्या रेड्याक खावोवन पियोवन बरो मातोवन दवरताले. मागीर जात्रे दिसा सगळ्या लोकां मुखार ताचो बळी दिताले.

एक खेप गांधीजी शिर्शी पावले. तांकां त्या देवळांत जावपी हत्येची खबर कळ्ळी. गांधीजीन त्या देवळांत वचपाक न्हयकार दिलो. थंयची

बळीची प्रथा सोडपा विशीं लोकांक समजायतना तांणी सांगलें - 'देवळा सारक्या पवित्र जाग्यार जनावरांक बळी दितात जाल्यार ते देवीक देवत्व कित्याक दिवप?'

गांधीजींच्या उलोवपाचो परिणाम देवळाच्या मुखेल्यांचेर जालो. पयलींच तांकां ही प्रथा बंद करची दिशिल्ली. पूण गांवकार तांचें आयकुचे ना हेंवूय तांकां खबर आशिल्लें. गांधीजीचो तेंको मेळटकच तांणी हळू हळू लोकांक ही प्रथा बंद करपा विशीं जागृत केले. उपरांत कांय तेप मेरेन त्या धश्ट-पुश्ट केल्ल्या रेड्याक जात्रे दिसा सूय तोपून शास्त्रा पुरतें रगत काडटाले. आतां तिवूय प्रथा बंद केल्या. एक रेडो मात देवळाचे फाटले वटेन मोट्या सांखळदंडान बांदून दवरला. ताची पुजा बी पयलीं भशेनूच करतात.

तशेंच सगळ्यांत पयलीं ह्या देवळांत गांवकारानी हरिजनांक प्रवेश दिलो. गांधीजीन आपल्या 'हरिजन' ह्या नेमाळ्यांत ते विशीं तांची तुस्त केल्ली.

त्या देवळांत भितर सरतनाच व्हडलो हॉल लागता. सुरवेकूच कमिटीचे लोक एका व्हड मेजा म्हऱ्यांत बशिल्ले आसतात. कोणाक कितें दान करपाक जाय, कितेंय म्हायती जाय जाल्यार ते सांगतात. मुखार वतकच सरळ देवी म्हऱ्यांत वचप. गर्भकूड कशी थंय वेगळी ना. भितरल्योय वणटी रंगयाळे चित्रकारीन भरिल्ल्यो. आसनार महिषासूर मर्दिनी म्हळ्यार अश्टभुजा देवी उबी आसली.

दुसऱ्या दिसा आमकां कळ्ळें, थंयच्यान मातशें पयस बनवासी ही कदंबाची मूळ राजधानी आसा. आमी धा-बारा जाणांनी थंय वचपाचो बेत केलो आनी रिक्षा करून गेलीं.

थंय अठराशें वर्सां पयलींचें मधुकेशव वा मधुकेश्वर हें म्हादेवाचें दगडी देवूळ आसा. आमी रिक्षांतल्यान देवलीं आनी देवळा वटेन गेलीं. भायरूच लाकडाचो व्हड रथ आसा. हो रथ आमच्या रथा भशेन न्हय. वयर सध्या उगडो आसा. मागीर चुडटांनी धांपतात आनी

तो जात्रे वेळार घुडयांनी सजयतात खंय. असो रथ पयलीं चंद्रेश्वर भूतनाथाच्या देवळांत आशिल्लो. आतां तो पणजे वस्तू संग्रहालयांत दवरला. हालीं फातर्प्यां असोच नवो रथ केला.

त्या वेळार आमकां मात तें एक अजाप आशिल्लें. आमी एक फावट कर्नाटकांतली एक जात्रा पळयिल्ली. थंयूय असलोच एक ल्हान रथ आशिल्लो. ताका कुळागारांतली फळफळावळ बांदिल्ली.

आमी मुखार गेलीं. फुडेच भव्य बरीं पाशाण काव्यान नटिल्ली दोन बसकीं देवळां आसलीं. म्हाका तीं पळोवन आमच्या तांबड्या सुर्लाच्या देवळाची याद आयली. हांगाचीं हीं देवळां खूब बरे अवस्थेत आसात. दोन देवळां मदीं व्हड बरो नंदी आसा. ह्या नंदीची मजा म्हणल्यार ताची मान मातशी वांकडी आसा. आनी तो एका दोळ्यान म्हादेवाक पळयता आनी दुसऱ्या दोळ्यान पार्वतीक पळयता.

हाचे विशीं एक काणी सांगतात. म्हादेव आनी पार्वतीच्या देवळा मदीं एक जनेल आसा. तशेंच दोनूय देवळांच्या कोनशाक एक एक ल्हानशें जनेल आसा तातूंतल्यान नंदी दिसता. एक दीस म्हादेव आनी पार्वती आपापल्या जनेलांतल्यान एकामेकां कडेन उलयतालीं. तेन्नाच नंदीक म्हादेवाकक कितें तरी सांगूंक जा आसलें म्हणून तो थंय आयिल्लो. तांचें उलोवप सोंपतकच आपूण ताका सांगतलो म्हणून तो दोगांयचेरूय एक एक दोळो दवरून बशिल्लो. खरें फट कितेंय आसूं, पूण म्हाका याद जाली आमच्या चंद्रेश्वर भूतनाथाची.

चंद्रेश्वराच्या देवळा भायर भूतनाथाचें ल्हानशें देवूळ आसा. त्या देवळांतल्यान चंद्रेश्वराच्या देवळांत पळोवंक ल्हानशें जनेल आसा. चंद्रेश्वर त्या जनेलांतल्यान भूतनाथाचेर नदर दवरता खंय. ना जाल्यार भूतनाथाक खंयूय धांव मारपाची संवय आसा. त्या जनेलांतल्यान ते दोगूय जाण गजालीय करतात खंय. अशेच एकदां ते उलयतना देवळा भायलो पिंपळ सदचे वरी सळसळत आसलो. हांकां उलोवंक आडखळ जावंक लागली. तेन्ना खंय चंद्रेश्वरान पिंपळाचेर दोळे

वटारले आनी ताका वगी बसयलो. तेन्नाच्यान पर्वता वयलो पिंपळ सळसळना खंय. अश्यो जायत्यो आख्यायिका एका एका देवळा भोंवतणीं, जाग्यां भोंवतणीं गुथिल्ल्यो आसात.

हाचें विज्ञानीक कारण विज्ञानिकांक सोदुनी. पूण सत्य हें, सगळेच कडचे पिंपळ सळसळटात. मात पर्वता वयलो पिंपळ मोनो.

तर आमी बनवाशीच्या नंदी म्हऱ्यांत उबीं आशिल्लीं. नंदीच्या मुखार बरो सुळसुळीतसो जागो आशिल्लो. थंय पयलीं नर्तकी नाचताल्यो खंय. म्हळ्यार हो नृत्य मंडप. ताचेर नर्तकीचीं चित्रां कोरांतल्यांत. नंदीच्या भोंवतणीं ग्रेनायटाचे सुळसुळीत बरे खांबे आसात. थोड्यांचेर चित्रां कोरांतल्यांत. तशेंच देवळाचे वणटीचेरूय मुर्ती कोरांतल्यान. आमी त्यो बारीकसाणीन पळोवंक रावलीं नात. आमचे कडेन चड वेळ नासलो.

आमी देवळा भितर गेलीं. सभा मंडपा मुखार एक जागो आसलो. थंयच्यान मुखार गर्भकूड आसा. थंय व्हड बरें लींग आसा. ताचो रंग तामसार काळो, म्होंवाच्या रंगावरी. म्होंव म्हणल्यार मधू, म्हणून ताका मधुकेश्वर वा मधूकेशव म्हणटात खंय. हें आमकां हालींच हर्षा शेटये थंय वचून येतकूच ताणें सांगलें. आमी फकत तें लींग पळोवन भायर सरिल्लीं. असल्या जाग्यांचेर वतना खरें म्हणल्यार वाटाडो गरजेचो. पूण आमी तीन-साडेतिनांक सुमार गेल्लीं. त्या वेळार थंय भट लेगीत नाशिल्लो. दोग जाण कोण आशिल्ले ते कन्नडान कितें कितें बडबडटाले. आमी 'कन्नड इल्ला' म्हणून मुखार गेलीं.

ह्या देवळाच्या दोन खांब्यांत एक अजाप लिपलां तेंवूय आमकां हर्षान सांगलें. त्या दोन खांब्यांक 'सायंटिफिक पिलर्स' म्हणटात खंय. त्या खांब्यांक हात लायतकच, त्या सुळसुळीत खांब्यांत हाताचीं उलट-सुलट अशीं दोन प्रतिबिंबां दिसतात. कॉनकेव्ह आनी कॉनव्हॅक्स इमेजीस. अठराशें वर्सां पयलींचे हे अजापीत खांबे. आमचे पुर्वज कितले फुडारिल्ले आशिल्ले पळय. आयकून आमकां अजाप जालें.

देवळा भायर व्हड दगडी दीपस्तंभ आसा. कार्तीक म्हयन्यांत ताचेर अखंड ज्योत पेटयतात खंय. कर्नाटकांतल्या चडशा देवळांनी कार्तीक म्हयन्यांत देवळाच्या भायर भितर दीपारदना करतात. म्हळ्यार तिळसांजेच्यो पणट्यो पेटयतात. जायतीं जाणां तशीं अमूकच पणट्यो पेटयता अशी आंगवण करून आपल्यो पणट्यो हाडून देवळांत पेटयतात. कांय देवळांच्या भायले वण्टीक चौकोन चौकोन केल्ले आसतात. तातूंत पण्ट्यो दवरून पेटयतात. तें आमी कारकल पद्मावती देवीच्या देवळांत पळयिल्लें. सगळें देवूळ मात तेलकट जाता. ह्याय देवळांत तशी दीपारदना करतात खंय.

म्हादेवाच्या देवळाक तेंकून तशेच कलाकारीन चितारिल्लें पार्वतीचें देवूळ आसा. ह्याय देवळांत सगळे मेळून 72 खांबे आसात. ह्या देवळाचें खाशेलेपण म्हळ्यार हांगा देवळांत वण्टीर कुरकुटांशीं केल्यांत. तातूंत देव आनी तांच्या बायलांच्यो मुर्ती दवरल्यात. अशी पद्दत गोंयांतूय पोरण्या देवळांनी आसा. पूण त्यो लाकडाच्यो मुर्ती. हालीं पोरण्या म्हाड्डोळा म्हाळशेचें नवें सोबीत बरें देवूळ बांदलां. त्या देवळांतल्या व्हडल्या हॉलांत वण्टीचेर तीन वटेन अशींच कुरकुटां करून देवाच्यो मुर्ती बसयल्यात.

ह्या देवळा भायर एक दगडी मंच बरो कोरांतिल्लो आसा. राजा लोकांक बसपाक ताचेर आसन दवरतालीं अशें उपरांत कोणें तरी सांगिल्लें याद जाता. देवळा भायर तुटक्यो-फुटक्यो मुर्ती मांडून दवरिल्ल्यो.

हांगाच्यान शाल्मली न्हंय व्हांवता. थंय सहस्त्रलिंगम म्हणून पळोवपा सारकोच जागो आसा खंय. न्हंयेंत तळपां आसात. तांचेर हजारांनी लिंगां नंदी कोरांतल्यान. न्हंयेक भरती आसता तेन्ना थंय थोडीं लिंगां दिसतात. सुकते वेळार मात सगळीं लिंगा दिसतात खंय. आमचे मदलीं थोडीं जाणा थंय वचून आयलीं. आमकां मात थंय वचूंक मेळ्ळें ना. पूण हांवें एक दीस टीव्हीचेर हीं सहस्त्रलिंगां पळयलीं. थंयच्यान आमी रिक्षेंत बसून हॉलार आयलीं. ❑

# उडुपी

**अखिल** भारतीय कोंकणी परिशदेचें संमेलन मंगळुराक आशिल्लें. म्हजे बराबर अनिल आनी मोहीत आशिल्लो. मंगळुराक आमकां खंयच भोंवंक मेळ्ळें ना. अनिलान थंयच्यान कितें लागीं पळोवपा सारकें आसा तें विचारून घेतलें. ताका सांगलें थंयच्यान उडुपी सामकें लागीं म्हणून.

आमी संमेलन सोंपतकच उडुपी वचपाचें थारायलें. आमचे बराबर निलबा खांडेकार आपले फामिलेक घेवन येता म्हणूंक लागलो. आमी म्हळें, 'बरें जालें, खंयूय वतना एकाक चार मनशां आसल्यार मजा येता.'

संमेलनाच्या दुसऱ्या दिसा सगळे गोंयकार मंगळुरच्यान ट्रेनीन गोंयांत वताले. तांचे बराबर आमीय चडलीं आनी उडुपी देंवलीं. थंयच्यान रिक्षा करून आमी कृष्णाच्या देवळा कडेन देंवलीं. थंय लागींच आशिल्लें एक बरेंशें हॉटेल आमकां कोणें तरी दाखयलें. थंय रूम घेवन तातूंत सामान दवरून आमी भायर सरलीं.

उडुपी हो तसो ल्हानसोच गांव. हांगा तेराव्या शेंकड्यांतलें कृष्णाचें देवूळ आनी मध्वाचार्यांचो मठ आसा. ते पासत ह्या गांवाक नामना मेळ्ळ्या. पूण तो गांव अजून व्हड शर जावंक पावंक ना. मणिपाल सारकें नामनेचें शार उडुपीच्यान सामकें लागीं.

हें देवूळ दगडी. भायल्यान थोड्योभोव प्रमाणांत कोरीवकामय

आसा. गर्भकुडींत पुजा चलताली काय आनी कित्याक लागून तें नकळ, पूण आमकां जनेलांतल्यान दर्शन घेवंक सांगलें. पाशाणी देवळांतल्यो गर्भकुडी पयलीं काळाखी, म्हणल्यार भितर लायटीचो उजवाड ना, फकत मिणमिणो दिवल्यांचो उजवाड. तातूंत भायर कडकडीत वत. आमकां भितरलें कांयच दिसलें ना. थंयच आशिल्ल्या कोणें तरी आमकां सांगलें, 'तुमी रावतलीं जाल्यार सांजवेळा येवन मुखेल दारांतल्यान पळयात. ही कृष्णमूर्त खूब सोबीत दिसता.'

हांगा एक बरें आशिल्लें. खूब जाणांक कोंकणी कळटाली. येदोळच्या मनशान आमकां हे कृष्णाचे मुर्ती विशीं एक आख्यायिका सांगली.

खासा श्रीकृषणान ही मूर्त शाळीग्रामा पसून तयार करून घेतल्या. ताचें कारण अशें जालें, एक दीस देवकीन कृष्णाक म्हळें, ''हांवें तुज्या भुरगेपणांतल्या, आडांगीपणाच्यो, मस्तेपणाच्यो जायत्यो गजाली आयकल्यात, पूण पळोवंक नात. म्हाका तुजें बाळरूप दाखोवशी?'' कृष्णान तिका आपलें बाळरूप दाखयलें. थंयच कृष्णाची बायल रुक्मीणी आशिल्ली. तिका धाकटुल्या कृष्णाचें रूप आवडलें. तिणें कृष्णाच्या त्याच रुपाची मूर्त करून दी म्हणून कृष्णाक सांगलें. कृष्णान आपल्या बालरुपाची मूर्त करून घेवन रुक्मीणीक दिली.

रुक्मीणीन खोशयेन ती मूर्त आपल्या देवाऱ्यांत दवरली. सद्दां गोपीचंदन लावन ती ते मुर्तीची पुजा करूंक लागली. गोपीचंदन लावन लावन ती मूर्त गोपीचंदनाचो लाडू कसो जालो. द्वारका उदकांत बुडली तेन्ना ती मूर्तय बुडली.

तेराव्या शेंकड्यांत ती मूर्त म्हळ्यार गोपीचंदनाचो गुळो एका बोटीच्या खलाशाक मेळ्ळो. ताणें तो गुळो बोटीर हाडलो. मध्वाचार्य तेन्ना उडुपीक आशिल्ले. तांकां अंतरज्ञानान ही गजाल कळ्ळी आनी ती बोटय तेच वाटे वयल्यान येता हेंवूय तांकां कळ्ळें. ते त्या बोटीची वाट पळयत उडुपी लागसारच्या वडभंडेश्वर ह्या जाग्यार येवन रावले.

खऱ्यांनीच वादळांत सांपडून ती बोट ह्या दर्यादिग लागसार पावली.

मध्वाचार्य देगेर रावन हेच बोटीची वाट पळयताले. माधवाचार्यांनी बोटीच्या कॅप्टना कडेन तो गोपीचंदनाचो गुळो मागलो. तो घेवन ते मठांत आयले आनी तांणी तो फोडलो. तातूंत कृष्णाची सोबीत मूर्त आशिल्ली. उडुपीक देवूळ बांदून तातूंत ते मुर्तीची प्रतिश्ठापना केली.

ह्या देवळाचे फाटले वटेन सकयल्या भागांत व्हड बरी अगरशाळा आसा. थंय जेवणावळी आसतात. वयर देवळा फाटल्यान वांटकुळी लाकडां मांडिल्लीं. बरेच ऊंच मेरेन रचिल्लीं. ताचे वयर बावटो आसलो. 'हें आनी कितें?' आमी अजापान थंयच्याच एकट्याक विचारलें. ताणें सांगलें तीं जळवाचीं लाकडां म्हणून.

सकयल जेवणाक लोकांची गर्दी जाली. वयर मेरेन लोकांची लायन लागिल्ली. आमकां ते लायनींत रावन जेवपाक खूब वेळ लागतलो आसलो. मोहिताक भूक लागिल्ली. आमी हॉटेलांत वचून जेवलीं.

रुमार वचून आमी मातशीं आड पडलीं आनी फ्रॅश जावन सकयल देंवलीं. आमकां कृष्णाची मूर्त पळोवंक जाय आसली. आमी च्या पियेलीं आनी देवळा कडेन आयलीं.

देवळाचे भायर एके वटेन व्हड तीन रथ आसले. आनी एक व्हडलो हती आसलो. ताच्या म्हऱ्यांत वचून उबे रावतकर तो सोंड मुखार करतालो. तिचेर पयशे दवरतकच सोंड आमचे तकलेर दवरून आशिर्वाद दितालो. केळें बी दिल्यार खातालो. हांवें हतयाचे सोंडेंत पयशे दिवन ताचो आशिर्वाद घेतलो. मोहित मात भियेलो. तो कसोच मुखार वचूंक तयार नासलो.

आमी देवळांत गेलीं. आतां ती मूर्त सारकी बरी दिसताली. खरेंच मनभुलोवणी मूर्त. शाळीग्रामा पसून तयार केल्ल्यान बरी तिकतिकीत दिसताली.

आमी थंयचो बाजार पळोवया म्हळो. जाल्यार थंयच्या एकट्यान सांगलें - 'हांगा तसो व्हड बाजार बी ना. हांगाच्यान मणिपाल सामकें

लागीं. तुमी थंयच्या बाजारांत चलात.'

आमी रिक्षा करून मणिपाल आयलीं. थंयचें नामनेचें हॉस्पिटल आनी सरभोंवतणचो वाठार पळयलो. थयच्यान लागींच दोतोरकी शिकपी भुरग्यां पासत दोन-तीन संग्रहालयां आशिल्लीं. तातूंतलो 'ॲनाटॉमी'चो संग्रहालय पळोवंक मेळटा म्हणून सांगलें. म्हाका तो बेठो पळोवपाक नाका आसलो. थंय मदीं मदीं विद्यार्थी आपलीं कामां करताले. तांकां विचारून हांवें सगळी म्हायती मेळयली. तांणी मोटे उमेदीन आनी सोंपी करून आमकां म्हायती सांगली.

मागीर आमी मातशीं बाजार भोंवलीं. सरीतान आनी हांवें बारीक बारीक खरेदी केली. मागीर रिक्षा करून आमी उडुपी आयलीं. ❑

# धर्मस्थळ व्हाया कारकल

**आमी** धर्मस्थळाक वचूंक भायर सरिल्लीं. निशान म्हळें, - ''वाटेर कुंदापूर आनी कारकल मेळटा, आमी थंय या.' कारकरलची देवी पद्मावती निशाची कुलदेवी.

गोकर्ण, इडगुंजी करून आमची टेम्पो कुंदापूर पावत आयली. वाटेर ल्हानसो बाजार आशिल्लो. थंय वेळांचे ल्हान-व्हड पांटले घेवन बायलो विकूंक बशिल्ल्यो. दोन वटेन धरूंक कान आशिल्ले हे पांटुले आमकां आवडले. तांकां कांय लोक बुटी म्हणटात खंय. येतना मेळत ना मेळत म्हणून आमी तेन्नाच ते घेतले आनी टेम्पोंत घाले.

मुखार अनेगुंडी गांवांत 'कुंभेशी गणपतीच्या' देवळा कडेन आमची टेम्पो थांबयली. हें देवूळ तशें खूब व्हड बी ना. पूण हें जागृत देवस्थान खंय. देवळाचे भायले वण्टीक वळीन गणपतीच्यो मुर्ती आसात. गर्भकुडींत हतयाच्या रुपांतली गणपतीची व्हड बरी मूर्त आसा. इडगुंजी भशेन हांगाय गणपतीक माडयेची भाती घालतात. भायल्यान अय्यापा स्वामीचें देवूळ आसलें. देवूळ मजेचेंच. फकत चार खांब्यांचेर आदारिल्लें वण्टी विरयत देवूळ. हांगा माकड खूब. हातांत कितें आसा तें ओडून व्हरूंक सोदतात.

आमचे मुखार एके फामिलीन तांकां केळीं दिलीं. घेऽ मागीर सगळे माकड तांच्या फाटल्यान. तीं सडसडीत वचून गाडयेंत बसलीं. आमी तांची मजा पळोवन हांसत आमच्या टेम्पोंत येवन बसलीं.

सांजवेळचीं आमी कारकल पावलीं. देवळा मुखार आशिल्ल्या

हॉटेलांत सामान दवरून तोंडार उदक मारून आमी च्या पियेलीं. आनी मागीर पद्मावतीच्या देवळांत आयलीं. ह्या देवळाचो आवाठ व्हड. पूण भितर देवूळ चड व्हड ना.

भितर सरतनाच व्हड मळ. ताच्या दुरगाक तेंकून होंवऱ्यो. थंय उत्सवा वेळार जेवणावळी बी आसता खंय. देवूळ काळ्या पाशाणाचें. देवळाचो मुखावयलो भाग सोडल्यार तिनूय वण्टींक सकयल्यान वयर मेरेन चौकोन आशल्ले. हे लाकडी चौकोन, ताचेर पत्रो मारिल्लो. सगळे चौकोन तेलकट जाल्ले. तातूंत पण्ट्यो दवरिल्ल्यो. तेळसना त्यो पेटयतात खंय. मागीर देवूळ सोबीत दिसता. कार्तीक म्हयन्यांत वा सणा-परबे वेळार हो दिपोत्सव करतात खंय. गर्भकुडींत पद्मावतीची भांगरा शिंगरान नटिल्ली मूर्त आसली. गर्भकुडी भायर बसूंक चौक नासलो. पूण ऊंच सोपे आसले. वा वारांद कशे म्हळ्यारूय जाता. सोपणां चडून वयर वचून बसपाचें.

गर्भकूड मात सामकी ल्हान. भितर फकत दिवल्यांचो उजवाड. ह्या देवळाची रचनाच वेगळीशी.

थंयच्यान आमी लागींच आशिल्ल्या व्यंकटरमणाच्या देवळा कडेन आयलीं. हें देवूळ रस्त्याचे कडेकूच आसा. भितर सरतना दोशीं वटेन दोन सोपे. दोन सोपणां देंवन सकयल येतकच रोखडेंच दोन हातांचेर सुमार देवूळ. हेंय देवूळ सामकें ल्हान. गर्भकुडींत व्यंकटरमणाची सजयिल्ली मूर्त. दिवल्यांच्या उजवाडांत उठून दिसताली.

गर्भकुडी भायर सोबीत अशे चार कोरीव कामान नटयिल्ले खांबे आसात. हे चारय खांबे एका फातरांतल्यान कोरांतल्यात खंय. त्या गुळगुळीत खांब्यां वयलें नक्षकाम इतलें नाजूक आनी सुंदर पळयतल्याची तान-भूक न्हिवता. दुदाचो फराळ करतना जे तरेन आमी सामकें नाजूकसाणीन द्राक्षां घोंस ताचीं त्रिकोणी कशीं कात्रीं कात्रीं पानां करतात तशेच द्राक्षां घोंस ह्या पाशाणांत कोरांतल्यात. फराळा वेळार दुदाचो खवो मोव आसता. ताका जाय तसो आकार

दिवप, एका कलाकाराक अगाध न्हय. पूण पाशाणाचेर तशा तस्सो द्राक्षां घोंस कोरांतप हें एक विज्मीतच. पानाची मदली शीर तिचे फांटे ज्युस्ताज्यूस्त कोरांतल्यात. त्या द्रक्षांचेर म्होंवामूस, वालीर बशिल्लीं सवणीं सगळें बारीकसाणीन कोरांतलां.

ते पुराय खांबेच नक्षकामान नटयल्यात. त्या खांब्यांचेर आडवी पाशाणी पाटी आसा तिचेरच ही द्रक्षांची वाल कोरांतल्या. ताच्या वयर आशिल्ल्या पाख्याचेरय सोबीत नक्षकाम आसा. हें देवूळ ल्हान खरें, पूण फाटल्यान व्हड आंगण आनी भोंवतणीं होंवऱ्यो आसात. ह्याय देवळाचे वण्टींक पण्ट्यां पासत चौकोन दवरिल्ले. तातूंतलें तेल गळून थंय तेलाचो कुबट-तेलकट वास येतालो.

देव दर्शन करून आमी भायर आयलीं. रस्तो हुपतकच मुखारच आकांत व्हड बरो शेंदूर फाशिल्लो मारूती उबो आसलो.

ह्या देवळांतल्यान भायर येतासर तेळसान जावन गेल्ली. आमी हॉटेलार परतलीं.

दुसऱ्या दिसा सक्काळीं आमी च्या नाश्तो घेवन हजारखांबा बस्ती पळोवंक मुडबिद्री वचूंक भायर सरलीं. मुडबिद्री हें शार ताच्या सांस्कृतीक वारशाक लागून नामनेक पावलां. ताचे विशीं जायत्यो काणयो सागतात. अशें सांगतात मुडबिद्रीक अठरा रस्त्यांचे, 18 वेगळेवेगळे गांव, 18 झरे, तळीं, 18 देवळां, 18 जैन वस्ती, अशें सगळें मेळून हो गांव जाला. हांगाचें हजारखांब्याचें हें देवूळ 1430 सालांत बांदला. ह्या देवळाची खासीयत म्हळ्यार खांबे. हाच्या नांवा वयल्यानच तें कळटा. भायर भितर मेळून हजारभर खांब्यांचें हें देवूळ. ह्या देवळाक त्रिभूवन तिलक चुडामणी बसदी म्हळ्यार तिनय लोकांचो कळस अशेंय म्हणटात खंय.

थंयचे स्थानीक मुखेली देवराय वडेयार हांणी सुमार 9 करोड रुपया खर्चून हें देवूळ बांदून घेतलां.

आमी देवळा कडेन पावलीं. टेम्पोंतल्यान देंवले बरोबर रस्त्याचे

दोशीं वटेन सदचे वरीच दुकानां आसलीं.फरक इतलोच हांगा जैन तिर्थंकारांच्यो ल्हान व्हड मुर्ती चड आसल्यो. धातूच्यो, मातयेच्यो धरून प्लास्टीकाच्योय मुर्ती आसल्यो.

रस्तो सोंपता थंयच किल्ल्याच्या दारावरी व्हड बरें दगडी प्रवेशदार आसलें. भितर दोशीं वटेन सोपे. मागीर परत दरवटो. चार-पांच सोपणां देंवन आमी आंगणांत पावलीं. मुखारच मनशा परस ऊंच चौथऱ्यार दगडी दीपस्तंभ आसा. हो देवळा परसय ऊंच आसा. रोखडींच देवळाचीं सोपणां सुरू जातात.

धा-बारा ऊंच ऊंच सोपणां चडून आमी देवळांत आयलीं. हांगाच्यान नक्षीदार खांब्यांक सुरवात जाता. सुरवेचो चौक ल्हानसोच, पूण कोरीवकामान नटयला. तशेंच तरेकवार अप्रतीम अशा नक्षकामान नटयिल्ल्या खांब्यांनी देवळाचो चौक भरला. पुराय देवूळच नक्षकारीन भरलां.

गर्भकुडींत चंद्रनाथाची आठ फूट उंचायेची मूर्त आसा. म्हणून हाका चंद्रनाथ बसदी अशेंय म्हणटात खंय. हें आशिया खंडांतलें सगळ्यांत पोरणें आनी सगळ्यांत व्हडलें जैन मंदीर खंय. मदल्या चौकाच्या छताचेरय बारीक सारीक नाजूक कलाकुसर काडल्या. देवळाच्यो वण्टीय कलाकारीन नटयल्यात.

ह्या देवळाच्यो भायल्यो वण्टी पाशाणी प्लेटी म्हळ्यार कुडके कुडके हुकांनी (इंटरलॉक सिस्टम) जोडून बसयल्यात. हे वण्टींत मदीं मदीं नक्षकारीन नटयिल्ले खांबेय आसात. भायर सोपणां वयर जो चौक आसा ताचेर एकार एक अशीं दोन पाखीं आसात. तांकां आदार दिवंक जे खांबे आसात तांकां अशे तरेन नक्षकारीन कोरांतल्यात, तांकां मनशाचें रूप दिलां. पळोवपाक अशे दिसतात, की मानायान वयलें पाखें उखलून धरलां कशें. ते खांबे कशे दिसच नात. देवळा भोंवतणीं अशींच दोट्टी पाखीं आसात, आनी हीं तरेकवार रुपाच्या मनीसरुपी खांब्यांनी उखलून धरल्यांत. देवळा भोंवतणीं, बरेंच व्हड

आंगण आनी होंवऱ्यो आसात.

हांगा फोटो सेशन करून आमी भायर सरलीं. आतां आमची टेम्पो गोमटेश्वराचे दोंगुल्ले वटेन धावूंक लागली.

कर्नाटकांत गोमटेश्वर आनी बाहुबली जायत्या दोंगुल्ल्यांचीं माथीं सोबयतात. तातूंतलोच एक गोमटेश्वर मुडबिद्रीची दोंगुल्ली सोबयता. आमची टेम्पो दोंगुल्लेच्या मुळांत वचून उबी रावली. ही पुराय दोंगुल्ली पाशाणाची. तिचें पाशाण कोरांतून सोपणां तयार केल्यांत. दोंगुल्ली तशी ल्हानशी. सादारण आमच्या मडगांवच्या मोती दोंगरा येदी. सोपणांच्या दोशीं वटेन हात धरूंक दांडे बसयल्यात. आमी सोपणां चडूंक लागलीं. मदीं मदीं रावन आमी मूडबिद्री गांव तोखेतालीं. खरेंच आमी जशी जशीं दोंगरार चडटात तशीं सरभोंवतणची सोबाय, रंगरूप बदलत रावता. प्रत्येक पेण्यार ती वेगळीच दिसता.

आजी म्हणी वयर वयर चडटकच मनशाचें मोटवेपण कळून येता. खरेंच तिचें.

ही सैम सोबाय तोखेत आमी वयर गेलीं. वयर भितर सरूंक दगडी प्रवेशदार आसलें. प्रवेशदाराच्या दोशीं वटेन कुडी आशिल्ल्यो. तातूंत पारेकरी ऑफिसांतले लोक ऊठबस करताले. वयर दोंगुल्लेचें माथें म्हळ्यार बरेंच व्हड मळ कशें. ताचे भोंवतणीं दुरीग बांदिल्लें. मदीं ऊंच अशा चौथऱ्यार गरूडस्तंभ उबो आसलो.

ताचे मुखार देडेक मनीस वयर व्हड असो चौथरो आसा ताचेर गोमटेश्वराची देडेक मजली उंचायेची मूर्त आसा. हांवें पळयिल्लो हो सगळ्यांत पयलो गोमटेश्वर. ताच्या पांयां पोंदा रोयण आसा. तातूंत सोरोप, ताच्या आंगार वयर मेरेन चडिल्ल्यो वाली सगळें बारीकसाणीन कोरांतलां.

ते मुर्ती फाटले वटेन लांब बरी वसरीशी आसा, फकत खांबे आनी पाखें. थंय पाशाणी बांकशे करून तांचेर चोवीसय तिर्थंकारांच्यो दोन अडेज फूट उंचायेच्यो मुर्ती दवरल्यात. त्या मुर्तीच्या फाटल्यानय तांचे

उंचाये येदो पाशाणी फळयोश्यो आसात. तांचेरय नक्ष कोरांतल्या.

तें सगळें मळ भोंवत पळोवन, फोटो सेशनल करून आमी सकयल येवन टेम्पोंत बसलीं.

आतां आमकां धर्मस्थळाचे वेध लागले. रस्तो रानांतल्यान वतालो. रानाची वेगळीवेगळी सया दाखयत टेम्पो धांवताली. वाटेर धाकटुले गांव मेळटाले. ल्हानश्यो न्हंयो व्हाळ मेळटाले. सैमरंग तोखेतना आमच्या गजालींकय नेट आयिल्लो.

धर्मस्थळ हें जैनांचें पवित्र तिर्थस्थान, धर्म, संस्कृताय आनी कला हांचे नदरेन ह्या क्षेत्राचो महिमा व्हड आसा. हें फकत जैन धर्माचेंच न्हय तर शैवसंप्रदाय आनी तेच बराबर ज्ञानप्रसाराचेंय व्हड केंद्र जावन आसा. हांगा हिंदू देवदेवतांचीं जायतीं देवळां आसात. शैव भक्तीचें केंद्र आशिल्ल्या ह्या देवळाची वेवस्था जैन धर्मीय पळयतात. अशे तरेन धर्मीक एकचार हांगा दिसून येता.

धर्मस्थळाचें धर्मीक म्हत्व वाडलें तें, नेत्रावती न्हंय आनी श्रीमंजुनाथ स्वामीच्या देवळाक लागून. नेत्रावती हांगा अर्दवांटकुळान व्हांवता, जसो कितें तिणें नेत्रावती गांवाक वेंगेंत घेतला.

आमी धर्मस्थळांत भितर सरतनाच नेत्रावती न्हंय हुपून येवचें पडटा. खूब वर्सां पयलीं आमी जेन्ना पयले खेपे मंगल कामती बराबर धर्मस्थळाक आयिल्लीं तेन्ना टेम्पो नेत्रावतीचे देगेर थांबयिल्ली, आनी आमकां पांय धुवूंक लायिल्ले. खरें म्हळ्यार थंय न्हावन धर्मस्थळांत भितर सरप अशी परंपरा आशिल्ली खंय. पूण गाडयांनी येवपी आतांचे भावीक सरळ धर्मस्थळाक वतात.

व्हड बऱ्या मळार कितलींशींच वाहनां थांबिल्लीं. मळाचे कडेक वळीन तरेकवार दुकानां आशिल्लीं. खावपाचे गाडे हॉटेलां आशिल्लीं. पूण सगळे शिवराक. त्या सगळ्या वाठारांत मास-नुस्तें कितेंच चलना खंय.

व्हड अशा प्रवेशदारांतल्यान आमी भितर सरलीं. भितर व्हड

मळाक सगळे कडेन पाशाणी फरश्यो बसयिल्ल्यो. ताचेर मदीं मदीं झोंपांच्यो कुंड्यो कश्यो केल्ल्यो. रुखांक बरे पार बांदिल्ले. तांचेर लोकांक बसूंक मेळटालें. सगळो वाठार निवळ आनी चकचकीत. वचत थंय कोयर उडोवंक तरेकवार आयदनां दवरिल्लीं. दिपोत्सवाच्या वेळार ह्या मळ कशा आंगणांत, देवळांत एक लाख पण्ट्यो पेटयतात खंय. त्या वेळार हांगाची सोबय पळोवपा सारकीच आसता.

ह्या मळाच्या एका पोंतार श्री मंजुनाथाचें व्हड देवूळ आसा. आमी भितर सरिल्लीं ताच्या मुखार रस्तो बरोच भितर वतालो. थंय ल्हान-व्हड जायत्यो बिल्डिंगो दिसताल्यो. थंय लोकांची देवस्थाना वतीन रावपाची वेवस्था आसली. थंयूय बी मदीं मदीं हॉटेलां, दुकानां आसलीं. थंय भोंवडेकारांक बरेच सवाय दरेन रावंक कुडी मेळटात. हांगा दिसाक कितलेच भावीक पुजा-अर्चा करूंक, जाल्यार आमचे असले भोंवडेकार फकत भोंवूंक येत आतात. तांच्या सगळ्यांच्या जेवणाची वेवस्था ट्रस्टाचे वतीन करतात खंय.

आमी मळा वयल्यान चलत मंजुनाथाच्या देवळा कडेन पावलीं. नेत्रावतीचे देगेर सैमदेवतेन वेश्टिललें मंजुनाथाचें देवूळ सोबीत बरें दिसतालें. हें देवूळ कशें दिसच नासलें. एक राजवाडो कसो दिसतालो. मदीं व्हड लांबचे लांब सोपणां. विशेक सोपणां चडून वयर देवळांत वचपाचें. हांगा मदीं मुखेल देवूळ आनी दोशीं वटेन दोन ल्हान देवळां. उत्तम कलाकारीन नटयिल्लें हें देवूळ सोबीतच दिसतालें. देवदर्शन घेवन आमी सकयल देंवलीं. सोपणां सकयल जायतो लोक जमिल्लो.

थंय कितें चल्लां तें पळोवंक आमीय उबीं रावलीं. त्या देवळाचे हती थंय उबे आसले. तांकां माहूत जेवण जेवयताले. व्हड बुटयेंत शीत, भाज्च्चीं पानां आसलीं. ताचो येद्दो मोटो लाडू करून माहूत ताच्या तोंडा कडेन व्हरतालो. तेन्ना सोंड वयर काडून हती तोंड उगडटालो आनी तो लाडू खातालो. मदीं मदीं लोकय केळीं, फळां मुखार करताले. हती सोंडेन तें घेवन तोंडांत घालतालो.

थंयच मात्शें मुखार एके हतीणीक आनी एक मनीस जेवयतालो. तिचें पील म्हऱ्यांत आसलें. ताकाय तो ल्हान लाडू खावयतालो. पूण तें पील सामकें मनशाच्या भुरग्यां वरी तें धाकट्या लाडवाक तोंड उगडनासलें. आवयच्या तोंडांतलो आपले सोंडयेन काडूंक पळतालें. आमकां ताची मजाच दिसली.

मागीर आमी देवळाच्या उजवे वटेन आशिल्ले बिल्डिंगेंत गेलीं. थंय जवेणावळ चलताली. जेवन आमी देवळाच्या दाव्या हाताक आशिल्ले बागेत आयलीं. ही बाग म्हणून सुंदरच केल्या. भुरग्यांक खेळपाचीं साधनां थंय आसातच, पूण जाण्ट्यांकय खिणभर थंड बसूंक थंय लॉन बी केलां. हरशीं थंय मास, नुस्तें, तांतीं कोता येना पूण नुस्त्यांची कंवचेचीं घरां दवरल्यांत. तातूंत सुंदर सुंदर रंग रुपाचीं नुस्तीं दवरल्यांत. तशेंच हुबेहूब मनीस कशे दिसपी पुतळे केल्यात. पोस्टमन, पुलीस, फळांभाजी विकपी बायलो अशे कोणा कोणाचे पुतळे आसात. आमी तांचे म्हऱ्यांत रावन फोटो काडले.

थोडो वेळ विसव घेवन च्या पियेवन आमी थंयच्यान बाहुबली पळोवंक भायर सरलीं.

जैनाच्या पवित्र ग्रंथांत ह्या क्षेत्राच्या पावित्र्याचो महिमा वर्णिला. ह्या स्थळाक पयलीं 'कुदुमा' ह्या नांवान वळखताले खंय. ह्या जाग्यार पयलीं बिरमन्ना पेरगडे आपल्या कुटुंबा सयत रावताले. बिरमन्नाक एक दृश्टांत जालो. ते प्रमाण थंय कुमारस्वामी, कन्याकुमारी, कलाराहू आनी कलाटकी हांचीं वैभवशाली देवळां बांदलीं. तेन्नाच्यान हें धर्मक्षेत्र जालें. परमेश्वराच्या अस्तित्वाचो साक्षात्कार सांगपी पुजारी म्हणून हेगडेक मान दियात अशें दृश्टांता वेळार सांगिल्लें. तेन्नाच्यान श्री हेगडे हांकां ह्या धर्मीक क्षेत्रांत सामकें म्हत्व मेळ्ळें.

सन 1955 ते 1968 ह्या काळांत रथनवर्मा हेगडे हे हांगाचे मुखेल पुजारी आसले. तांणी ह्या जाग्यार जायत्यो धर्मशाळा बांदल्यो. तश्योच शाळा महाविद्यालयां सुरू केलीं. म्हणून धर्मस्थळ हें धार्मिकताये

वांगडा ज्ञानप्रसाराचें केंद्र म्हणूनय नामनेक पावलां.

बिरमन्ना पेरेगडे हें जोडपें बाहुबलीचीं सामकीं भक्त. हांगा बाहुबलीचो भव्य पुतळो उबारचो असो संकल्प तांणी केलो. पूण संकल्प पुराय जावचे पयलींच तांकां मरण आयलें. ताची बायल रत्नम्मा हांणी पुतळो उबारपाचें काम चालूच दवरूंक लायलें. 1975 सालांत ह्या कामाची सुरवात केल्ली आनी 39 फूट उंचायेचो बाहुबलीचो पुतळो तयार केलो. 4 फेब्रुवारी 1982 सालांत ताची प्राणप्रतिश्ठा केली. त्या वेळार आमी पयले खेप धर्मस्थळाक आयिल्लीं. ह्या सुवाळ्याक चार दीस आसात म्हणून आमकां सांगिल्लें. पूण थंय व्हडा प्रमाणांत चलपी त्या सुवाळ्याची तयारी आमकां पळोवंक मेळ्ळी. वयर चडपाची सोपणां लेगीत त्या वेळार सारकीं बांदूंक नासलीं.

आतां मात हीं सोपणां बरीं बांदून काडल्यात. आमी वयर वचून बाहुबलीचें दर्शन घेतलें. ही मूर्त गोमटेश्वरा परस व्हड. सगळ्यांत व्हड मूर्त ही श्रावणबेळगोळच्या बाहुबलीची अशें आमकां विवेकान सांगलें. देव दर्शन घेवन आमी येवन टेम्पोंत बसलीं.

आमी पयले खेपे हांगा आयिल्लीं तेन्नाची एक गजाल हांवें आनी निशान सगळ्यांक सांगली.

त्या वेळार बाहुबलीच्या प्राणप्रतिश्ठेचो सुवाळो पांच-स दीस पयलीं सावन चालू जाल्लो हें हांवें वयर सांगलांच. दोंगुल्लेचेर बाहुबलीच्या पांयां कडेन यज्ञ-याग, पुजा-अर्चा सुरू जाल्ली तशेंच सकयलय तरेकवार कार्यावळी चालू आशिल्ल्यो. तातूंतलेच एके कार्यावळींत वांटो घेवक म्हणून भौ. हेगडे मिरवणुकींत येवपा आसले. हेगडे हे थंयचे राजाच कशे. थंयची धर्मीक कार्यावळ जावं वा हेर कसलीय कार्यावळ, तांचे हजेरी बगर ती जायनासली.

तर त्या दिसा आमकां भौ. हेगडेंची मिरवणूक पळोवंक मेळ्ळी. राजाचे मिरवणुकी विशीं हांवें वाचिल्लें त्या दिसा ती पळोवंक मेळ्ळी.

सुरवेक तरेकवार फोग लायत वाद्यां वाजयत कांय लोक गेले.

तांच्या फाटल्यान बावटो घेवन घोडेस्वार गेले. तांच्या फाटोफाट भांगरा-शिंगरान सजयिल्ले हती आयले. तांचे बराबर राजदरबारी लोकांवरी चकचकीत भेस घाल्ले माहूत आसले. हें भांगर खरें काय? आमकां बेठोच दुबाव. मंगलान सांगलें राजांच्या हतयांक आनी देवस्थानाच्या हतयांकय खऱ्या भांगरांनीच सजयतात खंय.

मागीर नखशिखांत भांगरा-शिंगरांनी सजयिल्लो हती आनी ताचे फाटीर भांगरा, वज्रां, माणकांनी सजयिल्ली अंबारी आसली. तातूंत हेगडे बशिल्लो. तांच्या फाटल्यानय सजिल्ले, नटिल्ले, दरबारी भेसांतले लोक घोड्याचेर बसून, चलून येताले. तांच्याय फाटल्यान वाद्यां वाजोवपी लोक वताले.

असो एक अप्रतीम सुवाळो आमकां तेन्ना पळोवंक मेळिल्लो.

पर्यटकांक आकर्शीत करपा पासत धर्मस्थळाक आनीकय पळोवपा सारकेंच कितें कितें केलां खंय. तातूंत एक गाडयांचें प्रदर्शन आसा. तें सगळें दुसरे वेळ पळोवया अशें थारावन आमी गोंया येवपाक भायर सरलीं. ❑

# मोनो गिरसप्पा धोगो

**दिवाळेची** सुटी सुरू जातनाच आमी सगळीं भोंवडेकार इश्ट-इश्टिणी एके पार्टे निमतान एकठांय जाल्लीं. ''मायाताई, हे सुटयेंत खंय या?'' सुरजाचो प्रस्न.

''हय आं, थोड्या दिसांक, पूण आमी खंय तरी याच.'' गोविंदान म्हळें.

''हय, हय.'' सगळ्यांचोच आगरो. विवेक केन्नाच्यान सांगतालो, श्रावणबेळहोळ, हळेबीड या म्हणून.

आतां आमी थंयच वचपाचें थारायलें. विवेकान हें सगळें पयलीं पळयलां. तीन दिसां भितर वचून येवंक मेळटा, म्हणटकर केन्ना वचप कशें वचप तें तेच बसकेंत सगळें थारायलें.

आमी तेरा जाण टेम्पो ट्रॅवलर घेवन फांतोडेर पांचांक भायर सरलीं. अजून मेरेन आमी चड करून पॅकेज टुरा बरोबरूच फिरिल्लीं. आमकां कांयच लागनासलें. फकत सामान घेवन भायर सरप. पूण आतां आमचे आमीच भायर सरिल्ल्यान सगळें अनिश्चीत, पूण आमकां जाय तशें फिरपाचें आसलें.

सुरजान रोडमॅप, आमी वतलीं थंयची म्हायती पुस्तिका सगळें हाडिल्लें. सगळो वेळ तो ती म्हायती वाचून आमी खंय खंय पावतात तें सांगत आसलो. फकाणां मस्कऱ्यो करत करत आमची टॅम्पो ट्रॅवलर कारवार पावली. पयलीं नाश्तो करून मुखार या अशें थारावन आमी

एका हॉटेलांत भितर सरलीं. हॉटेल सारकें उगडूं नासलें. पूण नाश्त्याची तयारी जाल्ली. जें तयार आसा तें खावन आमी भायर सरलीं.

रत्नागिरी ते केरळ मेरेनची कोंकण किनारपट्टी तशी एका सारकीच. तींच संवकळीचीं झाडां, माड, माडयो, कुळागरां सगळें तशेंच. एके वटेन रुका झोंपांनी भरिल्ले दोंगर जाल्यार दुसरे वटेन आपालिपा खेळपी दर्या. मदींच रूंद, अरूंद उदकान तुडूंब भरिल्ल्यो न्हंयो. ताचे वयले ल्हान व्हड पूल हुपीत आमची गाडी धांवताली.

किनारपट्टे वयली ही सैमसोबाय एकसारकीच जरी आसली आनी खूब वेळा पळयिल्ली जरी आसली तरी प्रत्येक वेळार म्हाका ती नवीताल्ल दिसता. गाडयेंत भितर चलपी खबरां परस भायली ही सोबाय पळोवंक म्हाका आवडटा. दोंगरांचे वेगवेगळे आकार आनी ताचे वयल्या रुखा-झोंपांच्या पाचव्या रंगाची तरेकवार सया. कितल्यो म्हणून सांगपाच्यो, गडद पाचवी, लेव पाचवी, पोपटीशीं, काळपट पाचवी, तांबशीं पाचवी, हळडुवी पाचवी, सांगूं येना इतल्यो पाचव्या रंगाच्यो सया. ह्या सगळ्या रंगांची भरस पयसुल्ल्यान निळशी दिसताली. तातूंत वतान ताका तिकतिकसाण हाडिल्ली.

होन्नावरच्यान वळण घेवन आमची गाडी, शिर्शीचो मार्ग चडूंक लागली. आतां राजपथ जावनय अरूंद अशा रस्त्या वयल्यान आमची गाडी धांवंक लागली. वाटेर न्हंयो, दोंगर सांगातान धांवताले. दोनूय कुशींनी ल्हान ल्हान सुलच्या नळ्यांचीं घरां, मुखार आंगण, आंगणांत तुळस, सुकत घाल्लें धान्य, कांय कडेन खेळपी वा आमकां हात दाखोवपी भुरगीं दिसतालीं. मनाक खोस दिवपी हें वातावरण. शारांनी आमचीं आंगणां ना केलीं. आतां खेड्यांनी गांवघरांनी आशिल्लीं आंगणां आमी आमच्या भुरग्यांक दाखोवन थंय आमी कशी मजा करतालीं तें सांगपाचो आमचेर वेळ आयला.

आमी सगळ्यांत पयलीं जोगाचो म्हळ्यार गिरसप्पा धबधबो पळोवंक वचपा आसलीं. हो घोगो हांव तिसरे खेपे पळोवंक वतालें.

सादारण 28-29 वर्सां पयलीं हावें हो घोगो पळयिल्लो. बेंगलोरच्यान शिर्शीच्यान येतना आमचो टेम्पो कुरकुरपाक लागलो. जोग पावता म्हणसर टेम्पो सामको इबाडलो. ताका लागून एक रात आमकां जोगाक रावचें पडिल्लें. थंय लागींच घोगो आसलो. आमकां त्या वेळार ताची इतली नामना खबर नासली. पुस्तकांत वाचून ताचे विशीं थोडेंशें आयकल्लें.

आमी दूदसागर पळयिल्लो, पूण गिरसप्पा घोगो म्हळ्यार आकांत रूप. सह्याद्रीचे कुशींत जल्मल्ली शरावती न्हंय पुर्वे कडेन वळून हांगा सुमार अडेजशें-तिनशें मिटर उंचाये वयल्यान दरयेंत उडी घेता. तिचें तें रौद्रभिशण पूण सोबीत रूप पळोवन आंगार कांटो आयिल्लो. जगांतलो सगळ्यांत उंचाये वयल्या उडी घेवपी हो पयलो घोगो खंय. हाची उंचाय सादारण 960 फूट आसा म्हणटात. तसो अमेरिकेचो नायगारा घोगो हाचे परस स पट व्हड आसा. पूण उंचोयक लागून गिरसप्पाचो नंबर पयलो येता.

एकेवटच्या दोंगरा वयल्यान तो कोसळटालो. मदीं दरी. दुसऱ्या वटच्या दोंगरार कठडो बांदिल्लो थंयच्यान आमी पळयतालीं. सकयल पडपी उदकाचो तो घूंऽ घूं आवाज मनाक भिवयतालो. चार वांट्यांनी तो सकयल कोसळटालो. तांच्या आकारा वयल्यान तांकां नांवां दिल्लीं. सगळ्यांत रूंद आनी उब्बो दर्यांत कोसळपी तो राजा, ताच्या म्हऱ्यात एक ल्हानसो घोगो हातांत हात घालून पडडटालो कसो दिसतालो ताका राणी, एक घोगो सरळ लांबचे लांब पडटालो, ताका रॉकेट वा विरभद्र अनी चवथो व्हड आवाज करून पडटालो ताका रूद्र-रॉअरर अशें नांव दिल्लें. अर्द्या वयल्यान रॉकेट आनी राजा घोगो एक जावन पडटाले. हे चारूय घोगे आकांत आवाज करून कोसळटाले तेन्ना धवेंफुल्ल कारंजें कशें उदक परत वयर उसळटालें. ताचे थेंबे इतले वयर साकून पळोवपी आमचेर उसळटाले. आमी सांजवेळचीं थंय पाविल्लीं. ताका लागून एके वटेन सूर्य अस्ताक वतालो आनी ताच्या

तांबशा भांगराळ्या वतान हो घोगो आनिकूय सोबीत दिसतालो. थंय वीज तयार करपी माक्कनांय आशिल्लीं. सकयल वचून पळोवंक मेळचें म्हणून सोपणां आशिल्लीं आनी ट्रॉलीय केल्ल्यो. पूण त्या दिसा त्यो बंद आशिल्ल्यो. कित्याक तें आमकां कळ्ळें ना. पूण दरयेंत वचून म्हऱ्यांतल्यान तो घसघसो पळोवपाक मेळ्ळें ना. रात जावपाक आयिल्ल्यान आमी सोपणां वयल्यान सकयल देंवलीं ना.

ताचे उपरांत पंदरा-सोळा वर्सां पयलीं म्हाका परत एकदां जोग वचपाचो योग आयलो. तेन्नाय आमी सांजेचींच गेल्लीं. पूण आतां शरावतीचेर धरण बांदिल्लें. ताका लागून घोग्याची ती रौद्र भिशण सोबीतकाय दिसली ना. पूण सांज वेळच्या गुलाबसार वतांत ताची सोबाय तोखेवपा सारकी आसली.

आमी दोंगर चडटां चडटां ह्यो गजाली हांवें वांगडच्याक सांगल्यो आनी म्हळें, ''आतां आमकां हो घोगो कसो दिसता पळोवया.''

दोशीं वटच्यान गच्च रान आसलें. लांबचे लांब व्हड व्हड रुखांनी रान भरिल्लें. ताका लागून दनपारचें वत कळनासलें. हवाय आंगार शिरशिरो हाडपी कशी आसली. व्होल्तां-व्होल्तां घेत आमची गाडी दोंगर चडटाली. मदींच वाटेर एक शिमिटाचें माचणशें बांदिल्लें. वयर चडपाक सोपणां आसलीं. तो 'सुर्यास्त' वा 'सुर्योदय' पळोवपाक प्रवाशां पासत बांदिल्लो काय कितें कोण जाणा. दोन-तीन गाडयो थंय थांबिल्ल्यो. आमीय थांबलीं.

आमी थांबिल्लीं तो एक दोंगर. मुखारय एक दोंगर आशिल्लो. मदल्यान दरयेंतल्यान निळशी-पाचवी शरावती न्हंय व्हांवताली. वताक लागून न्हंयचें उदक लकलकतालें. हें मनभुलोवणें दृश्य कॅमेऱ्यांत बंद करून घेवन आमी मुखार सरलीं.

''आमी लागीं पावतकच आमकां घोग्याचो व्हड आवाज येतलो हां.'' हांवें सगळ्यांक सांगिल्लें. सगळीं आवाजाची वाट पळयतालीं.

एका लांबच्या लांब पुला वयल्यान आमची गाडी वचूंक लागली.

पोंदचे न्हंयेंत व्हडलेंशें उदक नाशिल्लें. हीच शरावती न्हंय म्हणून कोणें तरी आमकां सांगलें. न्हंयंत जर इतलेंच उदक जाल्यार घोगो केदो पडटलो तर? अशें येवजितासर आमची गाडी एका दुरगांतल्यान भितर सरली. थंय आनीकय बशी थांबिल्ल्यो. आमी जोग, गिरसप्पा घोग्या कडेन पाविल्लीं. आमी देंवली तरीय उदकाचो आवाज नाशिल्लो. सगळ्यांनी म्हाका विचारलें, ''खंय गो घोग्याचो आवाज?'' म्हजे कडेन जाप नाशिल्ली.

आमी मुखार गेलीं. मुखा वयल्या दोंगरा वयल्यान ल्हान ल्हान चार घोगे उडी घेताले. पयलीं पळयिल्ले ते आकांताळे घोगे आनी आतांचे हे हुंदराची शेंपडी कशे घोगे पळोवन हांव तटास जालें. राजा-राणी एकामेकां कडेन झगडिल्लेवरी पयस पयस सावन पडटाले. रॉकेट आनी रॉअरर मातसो पळोवंक येतालो. पूण तें पयलींचें वैभव मात थंय नाशिल्लें. राजपाट वचून भिकेक पाविल्ल्या राजावरी ते कोसळटाले. आमी कठड्यार चडून सकयल पळयलें. उदक सकयल्या काळ्या पाशाणाचेर पडटालें आनी थंयचे थंयच वयर उसळाटाले. आता ताचें पयलींचें रूप पावसा दिसांनीच दिसता खंय.

सध्या भोंवडेकारां पासत एक दीस धरणांतल्यान उदक सोडटात खंय. खंयचे दिसा कोण जाणा. आमी आयतार दीस गेल्लीं. पूण तेन्ना कांय उदक सोडूंक नासलें. भोंवडेकारांक रातचेंय थंयचें सौंदर्य पळोवंक मेळूंक जाय म्हणून 'फ्लड लायट्स' घाल्यात. आमी थंय फोटो काडून मुखार सरलीं.

आतां थंय पर्यटन खात्यान भोंवडेकारां पासत बऱ्यो सुविधा केल्यात. थोडीं सोपणां देंवन एक लाकडी पूल हुपून आमी मुखार गेलीं.

सगळो वाठार सोबीत दिसतालो. कडकडीत वतांत घोगो आशिल्लो दोंगर लकलकतालो. मुखार ल्हान ल्हान न्हंयो दोंगरा वयल्यान उडी घेवन शरावतीक मेळटाल्यो. ताका लागून जावंये मुखार शरावती

आंगान भरत गेल्ली. आमी बरेच मुखार चलत गेलीं. थंय शरावतीचें उदक आडावन पंपान वयर काडून गांवांत व्हरतालीं.

थंयच्यान आमी परतलीं. म्हजें मन मातशें उदास कशें जालें. तो पयलींचो घोगो आनी आतांचो घोगो हातूंत फरक करत आसलें. म्हज्या वांगडच्यांनी परत पावसांत येवन हो घोगो पळोवया म्हणून समाधान करून घेतिल्लें.

धरणां आमकां गरजेचीं खरीं. तांचे पसून खूब फायदो जाता. हें सगळें खरें, पूण धरणांक लागून विशाल न्हंयेची जी दशा जाता ती मात म्हज्यान पळोवं नज. बॉन्साय करून व्हड व्हड रूख, पिंपळ, आंबे कुंड्यांनी रोयतात. तांकां फळांय जातात खंय, पूण तांचें विशाल वैभव मात ना जाता. आकांताळे रूख पळोवप खंय आनी हे कुडींतले रूख खंय, तशें धरणाक लागून न्हयांचें जालां. तांचें विशाळ रूप वचून त्यो घुस्मटत व्हांवतात कशें दिसता. म्हजें मन मातशेंशें विरूस जालें.

आमची गाडी मुखार सरली. वळणां-वळणांचो दोंगरी रस्तो सोडून आमी आतां सपाट रस्त्यार आयिल्लीं.

रान वाठार आमचो सांगात सोडनासलो. मदीं मदीं ल्हान-ल्हान गांव येताले. पूण चडसो रान वाठार. ह्या रानांत आंबो, बाभळ, चंदन, सायल हांचे सारके व्हड आनी दाट खांदयो आनी पानांचो रूख आसले. ताका लागून वताचो रखरख चडसो बादनासलो.

अशा रान वाठारांत सगळे कडेन डांबरी रस्ते आसले. म्हैसूरचे दिवाण सर्गेस्त विश्वेश्वरैया हांणी हें कर्नाटकांत रस्त्याचें जाळें करून दवरिल्लें खंय.

आतां मदीं मदीं शेतां-भाटां दिसतालीं. शेतांत वेगवेगळे तरेचीं पिकां आसलीं, झोंपां आसलीं. आमकां वळखुपाक येनासलीं. सूर्यकमळां आनी रोजांचींय शेतां आसलीं. आनीकय कसलीं तरी हळडुव्याच फुलांचीं झोंपां दिसतालीं. मदीं मक्याचीं शेतां सामकीं सुकिल्लीं. पूण तांचीं बोणां काडूंक नासलीं. मागीर आमकां कळ्ळें

मको पुराय सुतकच काडटात म्हणून.

आमी सागर गांवांत पावलीं. आतां आमच्या पोटांत भुकेन कावळे रडटाले. ह्या वाठारांत गोविंद ऑफिसाच्या कामा निमतान रावन गेल्लो. ताका खंयचीं हॉटेलां बरीं वायट खबर आसलीं. ताणें आमकां एका बऱ्याशा हॉटेलांत व्हेलीं. तेन्नाच पावस शिरशिरूंक लागलो. जेवन आमी मुखार गेलीं. आतां फोंडाऱ्यांचो रस्तो सुरू जाल्लो. रस्तो वाडोवपाचेंय काम चालू आसलें. ताकाय लागून रस्ते इबाडिल्ले. हसन गांवा मुखार तर रस्तो सामको खड्डाळ आसलो.

तिनसांजेच्या संक सुमार आमी कडूर गांवांत पावलीं. हांगाच बरीं हॉटेलां आसात म्हणून गोविंदान सांगलें. टीडीएस रेसिडेन्सी हॉटेलांत आमकां रावंक रूम मेळ्ळे. दिसभराच्या प्रवासान आंग मोडून आयिल्लें. थंड उदकान हात-पांय धुले आनी जिवाक सू जालें.

ह्याच हॉटेलाच्या भायर आमी ल्हान ल्हान नळ्याचीं चारय वटच्यान उगडीं घरां पळयिल्लीं. थंयच जेवंक बसपाचें हें आमकां मागीर कळ्ळें. आमी तेरा जाण आशिल्ल्यान मातशा व्हडशा घरांत आमी जेवंक बसलीं.

दुसरे दीस कितल्यांक वचपाचें तें थारावन आमी रूमार परतलीं. ❑

# पाशाणकाव्य बेलावडी

**दुसरे** दीस सकाळीं आमी नाश्तो घेवन भायर सरलीं. व्हड व्हड फोंडारे पडिल्ल्या रस्त्या वयल्यान आमची टॅम्पो ट्रॅवलर धांवंक लागली. दोशीं वटेन कालचे वरीच गच्च भरिल्लीं शेतां. हळडुव्या फुलांचीं झोंपां म्हळ्यार तुरदाळीचीं झोंपां म्हणून आमकां एकल्यान सांगलें. तशींच निळसार जांबळ्या फुलांचीं ल्हान ल्हान झाडां आसलीं. तीं सांसवेचीं झाडां खंय.

रस्त्याचे कडेर चडशीं वडाचीं आनी सांतोणेचीं झाडां. दोशीं वटेनच्या झाडांच्यो खांदयो एकामेकांत भरसून मुद्दाम आर्क केल्लेवरी दिसतालीं. पोंदच्यान वतल्या वाहनांक लागून लागून वडाच्या पाळांची महिरप कशी दिसताली.

आमी पयलीं हळेबीड, मागीर बेल्लूर आनी सांजवेळा श्रावणबेळहोळ्ळ वचपाचीं आसलीं. रस्त्यां वयल्या फातरा वयलीं इंग्लिशीन बरयिल्लीं नांवां जंय जंय मेळटालीं थंय तीं वाचून आमी हळेबीड कितले पयस आसा तें पळयतालीं. इतल्यान बेलावडी पांच किलोमिटर म्हणून फलक मेळ्ळो आनी बेलावडी मुखार सोबीत देवळांचें चित्र आसलें.

वाटेर ताचे विशीं कोणाकय कितेंय विचारतलीं जाल्यार सगळे कन्नड भाशीक लोक. तांकां आमचें कांयच कळनासलें, आमकां तांचें. तरीपूण तांणी बेलावडी 'वीर नारायण मंदीर' म्हळें. म्हणटकच

थंय देवूळ आसा म्हणून कळ्ळें. फळ्याचेर बरयलां म्हणटकीर थंय कितेंय पूण खास आसतलें म्हणून आमी येवजिलें. बेलावडींतल्यान हळेबीडचो रस्तो वतालो. वाटेर आमी चवकशी करत रावलीं. थंय पुरातन काळांतलें पळोवपा सारकें देवूळ आसा म्हणून एकट्यान सांगलें आनी वाटय दाखयली.

दाखयिल्ले वाटेन आमी मुखार सरलीं. दोशीं वटेन शेतां आनी मदीं अरूंद रस्तो. बरे मुखार वतकच ल्हान ल्हान एकाक तेंकून एक अशा घरांचो गांव मेळ्ळो. आंगणांत मके, सुपाऱ्यो सुकत घाल्ल्यो. कामां थांबोवन बायलो, भुरगीं आमचे गाडयेक पळयतालीं. तांकां पळयल्यार, गांव व्हडलोसो गिरेस्त न्हय म्हणून कळटालो.

बरे मुखार एक न्हंय आसली. न्हंयचेर एक सादोसो उदकाक तेंकपी पूल आसलो. आतां गाडी मुखार कशी व्हरप? आनी देवूळ म्हणटात तें खंय तर? आमी एकामेकांच्या तोंडाक पळोवंक लागलीं.

सुरजान सकयल देंवन थंय पिकपी धुवपी मनशाक विचारलें. ताका मात्शीशी कोंकणी कळटाली. ताणें सांगिल्ल्या वाटे वयल्यान आमी मुखार सरलीं. रस्त्यार सुरवेक पावलभर उदक आसलें. मुखार रस्तो सरळ देवळाक तेंकिल्लो. न्हंयचेर कोण गाडयो धुतालो, कोण गोरवां, म्हसरां धुतालो जाल्यार थोडीं कपडे उमळटालीं. सगळीं कामां थांबोवन तीं आमकां पळोवंक लागलीं.

देवळा भोंवतणीं व्हड आंगण आसलें. थंय कडेक चांफे रोयिल्ले. ताच्या पोंदा आमी गाडी दवरली. तें महागणपतीचें देवूळ आसलें. भायर एका फळ्याचेर त्या देवळा विशीं कन्नडान आनी इंग्लिशीन म्हायती बरयिल्ली. 19व्या शतमानांतली ही स्वयंभू गणपतीची मूर्त खंय. पूण देवूळ बंद आशिल्लें. भायर ल्हानशी देवळी आशिल्ली. तातूंत शिवलिंग आशिल्लें. तेंवूय खूब पोरणें म्हणून कळटालें. भायर पाटयेर विरनारायणाचें देवूळ म्हणून बरयिल्लें आनी हांगा तर गणपतीचें देवूळ. तेंवूय आधुनीक तरेन बांदिल्लें. ‘‘तें पोरणें सोबीत देवूळ खंय

तर? आमी बरीं फटवलीं.'' अशें म्हणून आमी हांसलीं.

इतल्यान थंय एक जाणटेली उदकान भरिल्लें पंचपात्र आनी फुलां घेवन आयली. ती कन्नडान आमकां कितें कितें सांगत आसली. म्हज्या कन्नडाच्या अल्प ज्ञाना प्रमाण हांवें तिका 'आज्जी, कन्नड भर्त इल्ला, कन्नड बेडा' म्हणून सांगलें. हे खेपे मेधा आमचे वांगडा नासलें. मेधाक कन्नड बरी कळटा. दुसरे खेप कर्नाटकांत मेधा शिवाय वचप ना, असो निश्चेव आमी केलो. कालच्यान आमी मेधाची पावला पावलाक याद काडटालीं. म्हज्या अर्दकुट्या कन्नडा वयल्यान आमचें अज्ञान तिका कळ्ळें जावंये. ती वगी रावली. तिणें कोणाक तरी उलो मारलो. एक ल्हानसो भुरगो आयलो. तिणें ताका कितें तरी सांगलें. तिच्या पुजारी उतरा वयल्यान ती पुजाऱ्याक आपयता म्हणपाचें कळ्ळें.

तो भुरगो शाळेंत शिकपी. ताका हिंदी कळटाली. ताका आमी 'वीर नारायण मंदीरा'विशीं विचारलें. ताणें आमकां आपल्या फाटल्यान येयात म्हणून सांगलें. पुजारी त्या देवळांत पयलीं येता म्हणूनय सांगलें. फातराळ अशे वाटे वयल्यान शेणा थाप्यांतल्यान वाट काडीत ताणें आमकां पांच मिनटाचे वाटेर व्हेलीं आनी एक व्हड वास्तू दाखयली. तेंच वीरनारायणाचें देवूळ आशिल्लें. 'पुजारी भेजता' म्हणून सांगून तो भुरगो गेलो.

ते वास्तू भोंवतणीं फातरांचें दुरीग आसलें. रूंद बऱ्या पाशाणी खांब्याचें व्हड प्रवेशद्वार आमचे मुखार आसलें. पूण मदीं मदीं कांय कडचे पाशाण निखळिल्ले. कांय कडचे कपचे गेल्ले. प्रवेशदारांतल्यान भितर वतकच लांब रूंद पाचव्या तणान भरिल्लें आंगण दिसलें. थंय गच्च फुलझाडां रोयिल्लीं. चड करून तरेकवार रंगाच्यो दसणी, गुलाब कर्णो आनी चांफो.

देवळा मुखार ऊंच बरो ध्वजस्तंभ आसलो. मुखार कलाकुसरीन गच्च भरिल्लें व्हड देवूळ आसलें. ताची बरीच मोडतोड जाल्या ती

कळटाली. पूण तातूंतल्यानय देवळाची सोबीतकाय उठून दिसताली. चार सोपणां चडून वयर येतकर दोशीं वटेन दोन व्हड हती आसले. तांचे सुळे इल्लेशे पूण सोंडी जमनीक तेंकिल्ल्यो. तांच्या फाटल्यान बसूंक दोनूय वटच्यान पाशाणी सोंपे. तांचेरय कितें तरी कलाकूसर कोरांतिल्ली, अक्षरांय कोरांतिल्लीं. पूण सगळें झरिल्लें. स्पश्ट कांय कळनासलें. पूण अक्षरांची लिपी कांय कडेन देवनागरी आसली आनी कांय कडेन कन्नड.

भितर सगळें खांब्या खांब्यांचें देवूळ. सुरवेक त्रेप्पन्न सुळसुळीत बरे खांबे आसले. हो दुसरो सभामंडप. थंयच्यान पयल्या सभामंडपांत वचूंक ल्हानशी पाळण. पयल्या सभामंडपांत दाव्या उजवे वटेन दोन गाभारे आसले. तातूंत वेणूगोपाळ आनी नरसिंह स्वामीची मूर्त आसली. मदल्या पाळणींतल्यान आमी पयल्या सभामंडपांत गेलीं. थंय सत्तावीस सकयल करवणां आनी वयर गुळगुळीत अशे खांबे आसले. मुखार देवूळभर वेगवेगळ्या कलाकुसरीन नटयिल्ले खांबे आसले. पुराय देवळांत 101 खांबे आसात खंय. प्रत्येकाची कलाकुसर वेगवेगळी. सकयल जमीन व्हड व्हड चौकोनी पाशाणांची. उजवे वटेन वण्टी कडेन भांगराचें व्हड शेशनागाचें शिंवासन आसलें. ताचेर बसोवन देवाक भायर पालकेवरी फिरोवन हाडटात खंय.

कर्नाटकांतल्या चडशा पाशाणी देवळांत लायट नासता. हांगाय नासली. गर्भकुडींत मातसो दिवलेचो उजवाड आसलो.

इतल्यान थंय प्रशांत भारद्वाज हो पुजारी आयलो. तो शिकिल्लो. ताका हिंदी बरी कळटाली. ताणें पयलीं गाभाऱ्यांतल्यो दिव्यांच्यो सरमाळी पेटयल्यो. मागीर बरो उजवाड जालो आनी देवळाची सोबीतकाय आमकां दिसली. भितर सगळ्या खांब्यांचेर आनी वण्टींचेर तरेकवार चित्रां कोरांतिल्लीं. भितरल्यान घुडाची ल्हानशी गोलाकार पोकळीय तरेकवार चित्रां कोरांतून सजयिल्ली. मागीर भायल्यानय एक व्हड घुडाची पोकळी दिसताली ताचेरय सोबीत चित्रां कोरांतिल्लीं.

गर्भकुडींत वीरनारायणाची व्हड बरी पाशाणी मूर्त आसली. ह्या देवळाक त्रिकूटाचल देवूळ अशेंय म्हणटात खंय. कित्याक तर ह्या देवळांत वीर नारायणा बराबर आमकां सुरवेक मेळिल्ल्यो वेणूगोपाळ आनी नरसिंह स्वामीची मूर्त आसली.

हें देवूळ 900 वर्सां पयलींचें खंय. इकराव्या शेंकड्यांत होयसाळ राजान हळेबीड, बेल्लूरचीं पाशाण शिल्पी देवळां बांदून घेतनाच हेंवूय देवूळ बांदून घेतलें खंय. ह्या देवळाची एक खासीयत म्हळ्यार हें देवूळ विज्ञानीक तत्व मुखार दवरून बांदलां. वीरनारायणाच्या मुर्ती म्हऱ्यांत उबें रावन भायर पळयलें जाल्यार देवळाचे तीन दरवंज हुपून भायल्या दुरगाचो व्हड दरवंज हुपून ताच्याय मुखार बऱ्याच पयस माड माडयांच्या पलतडीं मळब दिसता. 23 सप्टेंबर आनी 23 मार्च अशा दोन वेळा सूर्य थंय उदेता आनी ताचीं किरणां वीरनारायणाचे मुर्तीचेर पडटात.

सप्टेंबर म्हयन्यांत पावस नासत जाल्यारच हीं किरणां गाभाऱ्यांत येतात. पूण मार्च म्हयन्यांत मात सगळ्यांक हें अजाप पळोवंक मेळटा. वास्तूशास्त्राच्या आदारान 90 डिग्री सेंटिमिटराचेर गाभाऱ्यांत देवाची स्थापना केल्ल्यान हें अजाप दिसता खंय. सगळ्यांक न्हावन धुवन गाभाऱ्यांत वचून हें पळोवंक मेळटा. 23 मार्चाक हांगा व्हड जात्रा आसता. हें अजाप पळोवंक खंयच्या खंयच्यान लोक हांगा येतात. ह्या देवळाची सगळी वेवस्था, देव, देवस्पण, श्रृंगेरी मठ करता खंय.

वीरनारायणाची गरूड पिठाचेर स्थापना केल्या. म्हळ्यार एका अखंड फातराचें गरूडाच्या आकाराचें आसन करून ताचेर देवाची मूर्त उबी केल्या. देवाची मूर्तय 'एक शिला' म्हळ्यार एकाच अखंड फातरांततल्यान कोरांतून तयार केल्या. तिचे भोंवतणीं पाशाणी प्रभावळ आसा. तिचेर दशावतार कोरांतल्यात. मुर्तीच्या दोनय हाता खाला दोन देवींच्यो मुर्ती आसात. त्यो श्रीदेवी आनी भूदेवी खंय. देवाच्या हातांत गदा आनी पद्म आसा. देवाच्या एका हाताक व्याघ्र

हस्त म्हणटात आनी दुसऱ्या हाताक वीरमुद्रा म्हणटात. रथोत्सवा वेळार रथार गरूडाची व्हड मूर्त दवरून ताचेर देवाची मूर्त दवरतात.

ह्या देवळाच्या वण्टींचेर सगळे कडेन हती कोरांतल्यात. सगळ्यांत पयलीं एक व्हड हतींची, वेगवेगळ्यो मुद्रा दाखोवपी वळ. ताचे वयर दुसरे वळींत वेगवेगळ्यो हालचाली दाखोवपी हती. ताचे वयर युद्धा वेळार हतींच्यो जावपी हालचाली दाखोवपी हती कोरांतल्यात. हती हें शक्तीचें प्रतीक म्हणून सगळ्या वण्टीचेर हती कोरांतल्यात. वण्टीचे भायले वटेनूय पयले वळींत हतीच कोरांतल्यात. पळोवंक अशें दिसता, जशें कितें तें देवूळ हतीनीच माथ्यार उखलून धरलां.

वण्टीक रूंद बरीं दगडी जाळयेचीं जनेलां आसात. वीर नारायणाचो सभामंडप पळोवन आमी भायर आयलीं. मदले पाळणीच्योय वण्टी आनी छत कोरांतिल्लें. थंयच्यान भायर लांबचे लांब साल कसो मंडप. पूण मदीं मदीं वळीन कोरीव कामान नटयिल्ले दगडी खांबे आसले. हांगाय सालाच्या मदीं गोपूराची पोकळी आसा. तातूंत कृष्णाची व्हड मूर्त कोरांतल्या. ह्या सालाच्या दोनूय पोंतार एकामेका सामकार वेणूगोपाळ आनी नरसिंह स्वामीचे गाभारे आसात.

वेणूगोपाळच्या गाभाऱ्या भायले वण्टीचेर सकयल पयले वळींत हती कोरांतल्यात. वयर सगळे कडेन कृष्णाच्यो लिला कोरांतल्यात. गाभाऱ्यांत फकत कृष्णाची एकट्याची मूर्त ना. जाल्यार पाशाणी झाड, ताचे पोंदा वेणू वाजोवपी बाल गोपाळ, ताचे दोशीं वटेन रुक्मीणी आनी सत्यभामा, भोंवतणीं गोरवां घेवन गोपी. अशें एकसंघ पाशाणाचें चित्र. सकयल रुशी सनतकुमाराचें चीत्र. आपूण सदांच ल्हान जावन उरचों म्हणून ह्या रुशीन हांगा प्रार्थना केल्ली खंय. ही वेणू गोपाळाची मूर्त आख्ख्या भारतांतल्या कृष्णाच्या हेर मुर्तीं परस सोबीत अशें समजतात. कर्नाटक पुरातत्व खात्यान हें देवूळ आनी तातूंतलीं शिल्पां सांबाळून दवरल्यांत.

वेणूगोपाळाच्या मुखारच आसा नरसिंह स्वामीची गर्भकूड.

हिरण्यकश्यपूक मारून पुरो जातकच शांत जावपाक तो हांगा येवन योग मुद्रेंत बसला अशें मानतात. कपड्याची योग पट्टी बांदून नदर जमनीर दवरून शांतपणान स्वामी नरसिंह बसला. ताका पितांबर न्हेसयिल्लें. ताचे भोंवतणीं कोरीवकामान नटयिल्ली प्रभावळ आसा. मुख्य मुर्तीच्या उजवे वटेन अभिशेक करपाक वेगळी पितूळची मूर्त दवरल्या. पुराय दरवंज कोरीव कामान नटयला. दोनय गाभाऱ्यांचे दरवंज ल्हान. सकयल ओणोव घेवन म्हळ्यार नम्र जावन देवाक पांयां पडचें म्हणून खंय. दोनय दरवंजाचेर ल्हान ल्हान पांच गोपूर कोरांतल्यात. ताचेरय बारीक नक्ष कोरांतल्या.

भितरलें पुराय देवूळ बारकायेन पळोवन प्रशांत पुजाऱ्याचे उपकार मानून भायर आयलीं. भायल्यो वण्टी आनी गोपूरय अप्रतीम नक्षकामान नटयिल्ले.

गर्भकुडीचे वण्टी भायर वेगवेगळे तरेन हावभाव, हातापायांच्यो मुद्रा दाखोवपी मनशांच्यो सादारण दोन फूट उंचायेच्यो मुर्ती कोरांतल्यात. देवळाच्या गोपूराचेरय अश्योच मुर्ती आनी नक्षकाम केलां. देवळाचे तुटके फुटके अवशेश देवळा भायल्या दुरगाक तेंकून वळींत दवरल्यात.

मागीर आमी परत आमची गाडी दवरिल्ली थंय म्हळ्यार गणपती देवळा कडेन आयलीं. आतां देवूळ उगडिल्लें. भितर मूळ पुरातन देवळाची गर्भकूड तशीच दवरल्या. भायल्यान नवे आधुनीक पद्दतीन व्हड देवूळ बांदलां. इतलें सोबीत देवूळ, ताचे भोंवतणीं व्हड बरें पोरसूं पळोवन आमी वांकडी वाट करून, रस्त्या वयलो फलक पळोवन हांगा आयिल्ल्याचें समाधान जालें. हळेबीड, बेल्लूर परसय हें देवूळ चडच सोबीत अशे आमकां प्रशांत पुजाऱ्यान सांगिल्लें. ताचें खरेपण सांगाता घेवन आमी भायर सरलीं. ❑

# उध्वस्त हळेबीड

**हळेबीड** ह्या कानडी उतराचो अर्थच खंय 'भग्नावशेश' म्हळ्यार उध्वस्त शार. मुसलमानाच्या घुरयानी ह्या शाराचो विध्वंस केलो म्हणून ह्या शाराकच हळेबीड शार अशें नांव दिलां जातलें.

आतां हळेबीड हो एक ल्हानसो गांव. पूण थंयच्या होयसाळेश्वर आनी शांतलेश्वर ह्या देवळां पासत नामनेक पावलां. हांगाचें हें देवूळ म्हळ्यार होयसाळ राजांची ही सगळ्यांत व्हड अशी कलाकृती. अशें सांगतात सुमार 80 वर्सां ह्या देवळाचें बांदकाम चालू आसलें. ह्याच गांवा लागसार पयलीं होयसाळाची द्वारावती पुरम वा द्वार समुद्र ही राजधानी आशिल्ली.

बाराव्या शतमानांत विजयनगरचो राजा नरसिंह सम्राटान हें देवूळ बांदून पुराय केलें. चवदाव्या शतमानांत मुसलमानी आक्रमण ह्या देवळाचेर जालें आनी कितल्याच वर्सांच्या कश्टदिण्या वावरांतल्यान साकारिल्लें हें सपन तुटून फुटून गेलें. अल्लउद्दीन खिलजीचो सेनापती मलीक गफूर हाणें घुरी घालून ह्या देवळांचो विध्वंस केलो. पुराय संपत्ती लुटून व्हेली. कितल्याश्याच जाणांचें रगत व्हांवयलें. मुसलमानांच्या घुरयांक लागून हें पुराय शार ना नपयत जालें. ताच्या भोंवतणच्या किल्ल्याचे कांय अवशेश अजूनय दिसतात.

हो सगळो इतिहास येवजितासर, आमची गाडी हळेबीड पावली. आमकां भूक लागिल्ली. आमी पयलीं हॉटेलांत गेलीं. पोटपुजा करून

आमी चलत देवळा कडेन आयलीं. व्हडल्या प्रवेशदारान आमकां येवकार दिलो. सुरवेकच मदीं रस्तो आनी दोशीं वटेन पाचव्या तणाचो गालीचो घाल्ली बाग दिसली. पुराया देवळाच्या वाठारांत हो पाचवो गालीचो पातळायिल्लो. मदीं मदीं गच्च फुलांनी भरिल्लीं फुलझाडां सोबतालीं. बागेच्या मदेकात सोबीत पाशाणी नक्षकामान नटिल्लें एक पाशाणकाव्य उबें आसलें. पयलीं नक्षत्राच्या आकाराचो चौथरो (पाशाणी माची) दिसली. हीं खरें म्हळ्यार एकामेकाक जोडिल्लीं दोन देवळां. पूण भायल्यान पळोवंक एकच कशें दिसता. प्रत्येक देवूळ सादारण इकरा हजार दोनशें फूट लांबाय-रुंदायेचें. ताचेर घूड नासलें. तें आक्रमणा वेळार फोडून उडयले जातले.

चौथऱ्याच्या सोपणां म्हऱ्यांत जोतीं काडून आमी वयर चडलीं. वयर दारांतच भांगरा शिंगरांनी नटयिल्ल्या पाशाणी द्वारपालांच्यो दोन मुर्ती आसल्यो. पाशाणांत कोरांतून केल्ल्या त्या भांगरा शिंगराची कलाकूसर नाजूक आनी सोबीत आसली. इतल्या सोबीत शिल्पाचो हात तुटिल्लो.

हुंबरो हुपून आमी भितर गेल्लीं. त्या चौकांत मदींच दगडी चौथऱ्याचेर सोबीत नर्तकीचें शिल्प नाचाच्या अभिनयांत उबें आसलें. तिचोय एक हात कोपरांतल्यान तुटिल्लो. दुसऱ्या हाताक बोटांच नासलीं. अशा सोबीत शिल्पाची वाट लायिल्ली पळोवन तिडक आयली. ह्या शिल्पाचो पाशाण इतलो गुळगुळीत तें धातूचें पॉलीश केल्लें शिल्प काय दिसतालें. ह्या मुर्तीच्या तोंडा वयले भाव इतले जिवे आनी सोबीत दिसताले. तिणें घाल्ले दाग-दागिने आतांच्या भांगरांक फाटीं घालताले.

ह्या देवळांत भितर सरतनाच काळोख आसलो. ह्याय देवळांत खांबेच खांबे आसले. त्या काळखांत ते मेजूंक येनासले. त्या अंधूक उजवाडांत खांब्या वयलें अप्रतीम नक्षकाम मात्शेंशें दिसतालें. ह्या खांब्यांचेर भक्त प्रल्हादाची कथा, रामकथा, सुग्रीव-वालीची लढाय

अशे वेगवेगळे प्रसंग कोरांतिल्ले. वण्टीचेरय अप्रतीम अशें नक्षकाम आसा खंय. पूण काळखांत कांय कळनासलें. थोडे लोक बॅटरी दिवो घेवन पळयताले. आनी तें सगळें बारीकसाणीन पळयतले जाल्यार आख्खो दीस जाय आसलो.

मदीं गर्भकुडींत होयसाळेश्वर म्हळ्यार शंकराची रेखीव पिंडिका आनी लिंग आसलें. भोंवडेकार येतात तशे तशे पुजारी ताची पुजा आरती करताले. आमी फकत पांयां पडून मुखार सरलीं. दुसऱ्या देवळाची गर्भकूड येवचे पयलीं मदीं बरो जागो आसलो थंय पयलीं नर्तकी नाच करताल्यो खंय. आनी खांब्या मदीं आसनां घालून मानेस्त लोक नाच पळोवंक बसताले. दुसऱ्या गाभाऱ्यांत शांतलेश्वर शीवलींग आसा. तें पळोवन आमी फाटल्या दारान भायर सरलीं. जशीं ह्या देवळांक चार दारां आसात तशे चारय कडेन मनशायेद्या उंचायेचे सोबीत, बरे शस्त्रां हातांत घेतिल्ले द्वारपाल आसात.

आमी फाटल्या दारांतल्यान भारय सरलीं. सोपणांचेर दोनय वटेन दोन दगडी घुमट्यो आसात. तातूंत देव आसात. सोपणां देंवन सकयल येतकच व्हड बरें मेकळें आंगण आसा. आंगणांत मदीं व्हड बरी गणपतीची मूर्त आसा. तिचे कांय तुटिल्ले अवयव म्हऱ्यांतच मांडून दवरिल्ले आसात. ती मूर्त एकसंध आसतना कितली सोबीत दिसताली ताचो अदमास येता.

हें देवूळ भायल्यानय बी सोबीत सोबीत शिल्पाकृतींनी नटयलां. वीरनारायण देवळा प्रमाण हांगाय भायले वण्टीचेर तरेकवार चित्रां वळीन कोरांतल्यांत. पयले वळींत तरेकवार नदरेन पळोवपी हती, दुसरे वळींत शिंव, तिसरे वळींत तरेकवार फुलांच्यो वाली, चवथे वळींत घोडे, पांचवे वळींत परत फुलांनी भरिल्ल्यो वाली, सवे वळींत रामायण-महाभारतांतले प्रसंग कोरांतल्यात, सातवे वळींत पक्षी, जनावरां, देव-देवता आनी पुराणांतले प्रसंग, आठवे वळींत हंसाच्यो माळो, णववे वळींत नाच करपी, वेगवेगळ्यो अभिनय दाखोवपी

अप्सरा, धावे वळींत ब्रह्मा, विष्णू, सरस्वती हांच्यो मुर्ती, तशेंच तांचें काम जीवन, सदचे वेव्हार दाखोवपीय चित्रां कोरांतिल्लीं. हांच्या शिवाय, शीव-पार्वती, कुबेर, अश्ट दिकपाल, दशावतार सगळें कोरांतिल्लें. पुर्वे कडच्या वण्टीचेर पुराय कृष्ण जिवन कोरांतिल्लें.

अशे तरेन चारय वण्टीचेर हिंदू जिवीत तांच्यो देव-देवता नित्याच्या वेव्हारा सयत कोरांतिल्ले, आनी ते इतले खरे दिसताले ताचे वयली नदर पेल्यान वचनासली. थंयच्या मुर्तींचे भांगराचे नमुने तर सुवर्णकारागिरांनी पळोवपा सारकेच. ते जी कलाकुसर भांगराचेर करतात, तितलेच नाजूकसाणीन कारागिरी हांगा पाशाणार केल्या. हें सगळें वयर तकली करून करून पळोवन मानय दुखूंक लागली. पुराणांतल्यो आमकां कांय खबर नाशिल्ल्यो काणयो लेगीत हांगा पाशाणांत कोरांतिल्ल्यो पळोवंक मेळ्ळेया. हुंदरार नाचपी गणेश, कृष्णार्जून युद्धाचो प्रसंग, भक्त प्रल्हादाची पुराय कथा, रामायणांतले वेगवेगळे प्रसंग, अशे वेगवेगळे प्रसंग थंय कोरांतल्यांत. होयसाळ शिल्पकलेचो एक आगळो वेगळो आविश्कार थंय दिसता.

भितरल्या दोनय शिवलिंगा मुखार भायले वटेन नंदी मंडप आशिल्ले. दोन पाशाणी माटवांत आकांत व्हड नंदी आशिल्ले. एकाच फातरांतल्यान कोरांतिल्लीं हीं प्रचंड शिल्पां, तेरा फूट लांब, साडेस फूट रूंद आनी आठ फूट उंचायेर बशिल्लीं आसलीं. कर्नाटकांत जितलीं म्हणून भव्य नंदी-शिल्पां आसात तांचे भितर हीं दोन नंबराचीं शिल्पां खंय. सामकीं प्रमाणबद्ध आनी दगडी भांगरा शिंगरान नटयिल्लीं अशीं आसात.

ह्या देवळांत सगळे मेळून 38 कोरीत खांबे आसात खंय. प्रत्येक खांब्या वयली कलाकूसर वेगवेगळी. आमी सगळे पळोवंक पावलीं नात. तातूंतलो एक खांबो आपल्या आसा भोंवतणीं फिरतालो खंय. पूण आतां इतल्या तेंपान तो गच्च जाला, फिरना.

हळेबीड आनी बेल्लूर ह्या दोनूय देवळांतलीं जायतीं शिल्पां तांचे विशय जरी एकाच सारके आसले, तरी बेल्लूरचें शिल्पी देवूळ

भितरल्यान व्हड जाल्यार हळेबीडचें शिल्पी देवूळ भायल्यान पळोवपा सारकें. हळेबीडचें हें देवूळ म्हळ्यार मनशांच्या कश्टांचें कलाकृतीचें सुंदर प्रतीक जावन आसा. ही फकत दक्षिणेंतली श्रेश्ठ कलाकृती न्हय तर आदल्या भारत खंडांतली प्रगल्भ अशी कला निर्मिती जावन आसा.

थंयच्यान आमी भायर आयलीं. ह्या देवळा भोंवतणीं सोबीत आनी व्हड बाग आसा. येदें व्हड देवूळ पळोवन पुरो जालें जाल्यार तणार थंडशें बसपाचें. बागेंत एके वटेन देवळांतल्या तुटिल्ल्या फुटिल्ल्या मुर्तीचें संग्रहालय तयार करून दवरलां. ह्या मुर्तीं मदीं दोनय हात तुटिल्ली महाविराची व्हड बरी उबी म्हूर्त आसा. पांयांकय मदीं मदीं बुराक घाल्यात. ह्यो मुर्ती तुटक्यो फुटक्यो आसूनय तांची सोबीतकाय लिपनासली. तांचें विद्रूप रूप पळोवन मन उदास कशें जालें.

जागतीक वारशांचेर सगळ्या मनीस जातीचो हक्क आसता. म्हणूनच हळेबीड हें फकत भारताचेंच न्हय तर आख्खा जगाचें जावन आसा. भारतीय इतिहासाचो एक कलात्मक वारसो सगळ्या जगाक मेळ्ळा.

आमी थंयच्यान भायर सरलीं. भायरच आडसरां विकूंक दवरिल्लीं. ल्हानशे कळसुले इतलीं मोटीं. एक आडसर दोग जाणाक चड. आमच्या लग्नांतली याद काडीत हांव आनी अनिल दोन स्ट्रॉ घालून एक आडसर पियेलीं. थंयच्यान आमी बेल्लूर येवंक भायर सरलीं. ❑

# शिल्पकाव्य बेल्लूर

**बेलावडी** आनी हळेबीड दोनय कडचीं सोबीत, अप्रतीम अशीं शिल्पीं देवळां पळयलीं. तातूंतल्या बेलावडीच्या देवळांतय मोडतोड जाल्या. हळेबीडचें देवूळ तर बरेंच उध्वस्त जालां. देवळाचे घूड लेगीत फोडून उडयल्यात. पूण बेल्लूरचें चेन्नकेशव देवूळ मात त्या मानान खूब बरें आसा. ताची सोबीतकाय तर पळयतल्याचें मन भुलोवनच रावना तर पिसावन उडयता. ह्या देवळाक पाशाणकाव्य न्ही तर शिल्पकाव्य म्हणप चड बरें.

हळेबीडच्यान सादारण 10 मैलांचेर बेल्लूर. बेल्लूर यगची न्हंयेचे देगेर वसलां. गांवांतल्यान आमची गाडी वचूंक लागली. दोशीं वटेन ल्हान ल्हान घरां, ल्हानसो बाजार. पूण देवळा कडेन लागीं पावतात तश्यो ल्हानश्यो बिल्डिंगो, व्हड घरां दिसूंक लागलीं. रस्तोय बरो रूंद आासलो.

पयसुल्ल्यान गोपूर दिसूंक लागले. हे व्हड व्हड गोपूर म्हळयार दक्षीण भारताची खासीयत. देवूळ लागचे पयलीं भितर सरूंक जें प्रवेशदार आसता तें किल्ल्याच्या दारावरी रूंद आसता आनी ताचेर आकांत ऊंच गोपूर आसता. ह्या गोपूराचेर तरेकवार चित्रां, देवता, महाकाव्यांतले, धर्मीक पुस्तकांतले प्रसंग कोरांतिल्ले आसतात. सगळ्यांत वयर एक लांबचे लांब दगडी पट्टी कशी, ताचेर ल्हान पांच घूड. हे घुडय देवांचेंच प्रतीक खंय. दगडी पट्टेच्या दोनय पोंतार

बैलाचीं शिंगां. हीं शिंगां कांय कडेन भांगराचींय आसतात खंय. केन्ना केन्नाय गोपूराचे वयर शिंगां आशिल्लें बैलाचें तोंडय आसता खंय. हांगा पांचय घूड भांगराचे आशिल्ले. हो गोपूर 70-80 फूट ऊंच आशिल्लो.

एका व्हड मळार जायत्यो गाडयो थांबिल्ल्यो. थंय आमचीय गाडी थांबयली. इकरांक सुमार आमी थंय पाविल्ल्यान वताचो रखरख आशिल्लो. आमी बेगिबेगीन चेपीं घालीं. त्या मळाच्या एके कडेन दुरगाक तेंकून वळीन दुकानां आसलीं. तीं दुकानां सोंपतात थंय व्हड बिल्डिंग आशिल्ली. थंय सदांच अन्नछत्र आसता खंय.

आमी व्हड व्हड सात-आठ सोपणां चडून वयर आयलीं. हांगा परत व्हड आंगण आसलें. 443 फूट लांब आनी 3069 फूट रुंदायेचें. ताच्या मदीं ताऱ्याच्या आकाराच्या फातराच्या माचयेचेर एक अप्रतीम अशें चेन्नकेशवाचें देवूळ उबें आसलें. सोबीतकायेची एक खाणच आमचे मुखार उबी आसली. आंगणांत उजवे वटेन ल्हान तळूल आसलें. आनी दावे वटेन कप्पेचेन्निग रायाचें देवूळ आसलें. ते भायर जायतीं ल्हान ल्हान देवळां थंय आसलीं. अगरसाळ पोटांत घेतिल्ली काळ्या पाशाणांची सरभोंवतणीं गडगंज वणत आशिल्ली.

होयसाळ राजा विष्णूवर्धन हांणी 1117 त हें सोबीत शिल्पकाव्य तयार करपाक सुरवात केली. 1150 ते 1310 सालांत होयसाळ राजा दक्षीण भारतांतले पराक्रमी सत्ताधीश आशिल्ले. तांच्या वारसांनी 103 वर्सांनी हें काम पुराय केलें. त्या वेळा वयल्या 'जनकाच्यारी' ह्या म्हान शिल्पकारान ही अमर कलाकृती तयार केली. ह्याच शिल्पकारान हळेबीड आनी सोमनाथपुरच्यो कलाकृती जल्माक घाल्यो.

आमी भितर सरतनाच मुखार एक ऊंच गरूडस्तंभ बशिल्लो. ताच्या मुळांत चेन्नकेशवा कडेन म्हळ्यार देवळाक फुडो करून, दोनय हात जोडून गरूड उबो आसलो. पयलींचो गरूड झरलो म्हणून हो नवो गरूड तयार केला खंय. हांगाची एक खासीयत म्हणात, अजाप

म्हणात, तें म्हळ्यार एक पाशाणी खांबो. कमळाच्या आकाराच्या रूंद फातराचेर 44 फूट उंचायेचो 22 टन वजनाचो अखंड पाशाणाचो दगडी खांबो उबो आसा.

ह्या खांब्याचें तीनच पांय ते बसकेक तेंकतात. चवथो पांय तेंकना. तरीय गुरूत्वाकर्शण शक्तीच्या तत्वार तो इतलीं वर्सां पडनासतना उबो आसा. पोंदच्यान एक खूर तेंकना थंय पोकळ जागो आसा. तातूंतल्यान पेपराची घडी घालून हेवटेन-तेवटेन काडूंक शकता. आमी सगळ्यांनी हो प्रयोग करून पळयलो.

900 वर्सां पयलींचें हें शिल्पकाव्य 178 फूट लांबायेचें आनी 156 फूट रुंदायेचें आसा. हें देवूळ चकचकीत काळ्या पाशाणाचें, ताचेर कोरीव काम केलां. हळेबीडचें देवूळ आमचे आमीच पळयिल्लें. पूण हांगा मार्गदर्शक घेतलो. पुरातत्व खात्यान हांगा प्रशिक्षीत गायड (मार्गदर्शक) दवरल्यात. ताणें आमकां हांगाच्या सगळ्या शिल्पांची म्हायती, इतिहास सांगलो. ह्या पुराय शिल्पकाव्यांत भारताच्या प्राचीन वाङमयांत वर्णन केल्ल्या 64 कलां मदल्यो 62 कला वेगवेगळ्या कलाकृतींतल्यान चित्रायल्यात.

हें देवूळ भितरल्यान पांच भागांनी वांटलां. प्रवेशदार म्हळ्यार तोरण, नवरंग मंडप, अंतराळ गर्भकूड आनी कळस अशे हे पांच भाग. मुखेल प्रवेशदाराचेर मदींच हिरण्यकश्यपूक मारपी नरशिंवाचें शिल्प आसा. नरशिंव होयसाळ घराण्याचो मुखेल कुलदेव. म्हणून जायते कडेन ताचीं शिल्पां चितारल्यांत. प्रवेशदारांतल्या नरशिंवाच्या आशीकुशीक जायते काल्पनीक चित्रविचित्र प्राणी कोरांतल्यात. देखीक - तोंड मानग्याचें, आंग नुस्त्याचें, आनी पांय वाघाचे. कांय जाणांचे दोळे माकडाचे, कान दुकराचे जाल्यार शेंपडे कडेन मोर पिसारो. अशीं मजेचींच चित्रां आसात. तीनय प्रवेशदारांचेर तरेकवार हावभाव दाखोवपी अश्यो अश्टदिकपालांच्यो मुर्ती उब्यो दवरल्यात. हे आठ रक्षक म्हळ्यार इंद्र, वरूण, यम, अग्री, वायू, नैऋत्य, ईशान

आनी कुबेर.

ह्या देवळाची गर्भकूड व्हड आसा. भितर चेन्नकेशवाची 15 फूट उंचायेची काळ्या पाशाणीच मूर्त आसा. ताका सुंदरनारायणय म्हणटात. तिच्या हातांत शंख, चक्र, गदा, पद्म आसा. भांगरा-शिंगरांनी आनी फुलांनी नटयिल्ली ही मूर्त नदर खिळोवन दवरता. मुर्तीच्या पांयां कडेन श्रीदेवी आनी भूदेवीच्यो मुर्ती आसात. ही मूर्त बायलांच्या रुपांत आसा. केन्ना केन्नाय तिका साडी न्हेसयतात. नथ घालतात. गर्भकुडीच्या दारार 7 जनावरां कोरांतल्यांत. दारांत जय-विजय हांच्यो मुर्ती आसात.

देवळाचे प्रत्येक वण्टीर आनी छताचेर रामायण-महाभारतांतलो प्रसंग, तरेकवार दैवतां, यक्ष, किन्नर, नृत्यांगना, वाद्यवादक, घोडे, मोर, गरूड हांचीं चित्रां कोरांतल्यांत. भितर नवरंग मंटपांत वट्ट 48 खांबे आसात. ह्या खांब्याचो पाशाण इतलो गुळगुळीत, हारशावरी तातूंत तोंड पळोवचें. खांब्या मदीं देवा मुखार नृत्यमंडप आसा. ह्या नृत्यमंडपांत राणी शांतलादेवीय नाच करताली खंय. म्हणून चारय कोनशांनी नृत्याचो आविश्कार दाखोवपी अश्यो तिच्यो चार मुर्ती दवरल्यात. ह्या मंडपाचें मदलें छत सात उबे चौकोनी कुडके घेवन, तांचेरच वेगवेगळ्या, नृत्यविकश्काराचे हावभाव दाखोवपी नर्तिका कोरांतल्यात आनी तें छत घडयलां. मदीं सोबीत कमळ दिसता. ह्या छताचो आकारय तेरा फूट आनी उंचाय लेगीत तेराच फूट आसा. छता वयल्यान लोंबकळपी लोलकांचेरय नक्षकाम दिसतालें. वयलो घुमट घांटीच्या आकाराच्या चार खांब्यांचेर आदारिल्लो आसा. ह्या खांब्यांचेरय सुंदऱ्यांचीं चित्रां आसात. एके सुंदरेच्या हातांत पोपट आसा. तिच्या गळ्यांतली दगडी माळ वयर सकयल हालता खंय. हातांतलीं कांकणांय हालतात खंय. हें सगळें गायडान आमकां बॅटरीदिव्याच्या उजवाडान दाखयलें. पूण त्यो सुंदऱ्यो वयर आशिल्ल्यान आमी हात लावन तिचीं कांकणां माळ हालोवंक शकलीं नात.

ह्या देवळांत 48 अप्रतीम अशे खांबे आसात. खांबे गोल, चौकोनी, षटकोनी, अश्टकोनी आनी बाराकोनी अशा वेगवेगळ्या आकाराचे आसात. हे 48 खांबे म्हळ्यार कारागिरीचे एक एक नमुनेच म्हळ्यार जाता. प्रत्येक खांब्या वयलीं चित्रां कारागिरी सगळें वेगळें वेगळें. कांकणां, पाटली, तोडो हांचे वेगवेगळे नमुने, सरपळ्यांचे नमुने, हारांचे नमुने, मुदयो, हाताक घालपाचीं कडीं अशा साबार तरेच्या वस्तींचे नमुने त्या खांब्यांचेर कोरांतल्यात. भांगराच्यो वस्ती करपी कारागिरांनी हांगा येवन ह्या नमुन्यांचे फोटो काडूंक जाय. काडून व्हरतातय खंय. आंतरराष्ट्रीय भांगरा वस्तींचे नमुनेय ह्या खांब्यांचेर मेळटात खंय. तांचे वयलें बारीक नक्षकाम पळोवन शेट लेगीत तोंडांत बोटां घालतले.

कांय खांब्यांचेर गाडयांच्या टायरा वयलीं चित्रां आसात. सादारण 900 वर्सां पयलीं काय आतांच्या गाडयांचो सोद लागू नासलो. तरीय टायरां वयलीं चित्रां ह्या खांब्यार दिसतात. घडये हे खांबे पळोवन तांचो फोटो काडून गाडयांचे टायर तयार केल्यात जायत.

तातूंतल्या एका खांब्याक नरशींव खांबो म्हणटात. ताचेर नरशिंवाच्यो साबार तरेच्या हावभावांतल्यो ल्हान व्हड मुर्ती कोरांतल्यात. हो खांबो 300 वर्सां पयलीं हालतालो खंय. पूण आतां हालना. ह्या खांब्याचेर भक्त प्रल्हादाची पुराय कथा चित्रायल्या. एका खांब्यार भस्मासूराचो वध करूंक विष्णून घेतिल्ल्या मोहिनी अवतारांतली मूर्त म्हळ्यार बायलेच्या रुपांतली मूर्त कोरांतल्या. ते मुर्तीच्या तोंडा वयले भाव इतले जिवे तट्टटीत आसात, पळयतल्याक खरीच बायल नाचाचे कृतींत उबी आसाशी दिसता. हे मुर्तीचें कंबराचें वळण, दोळ्यांची ठेवण, हातांच्यो मुद्रा सगळें कशें नाच करूंक उबी आशिल्ले नृत्यांगनेवरी दिसता. कामाक्षी, मिनाक्षी आनी चंद्रमुखी अशा तीन देवतांचीं रुपां दाखोवपी ती मूर्त. तिचेर भांगराच्यो वस्ती, कानांतल्यो कुडी, केंसांची पद्दत सगळें बारीकसाणीन कोरांतलां.

देवळांत चड उजवाड नासलो. पूण आमच्या गायडान मोटो बॅटरी दिवो हाडिल्लो. आनी ताका लागून तो आमकां ज्युस्त ते ते मुर्तीचेर तिच्यांतल्या पळोवपा सारक्या कारागिरीचेर उजवाड घालून दाखयतालो. आनी ताची म्हायती सांगतालो. एक खांबो हिऱ्याचेर तास मारतात ते तरेचो खरखरीत आशिल्लो. आनी एक खांबो फुलयिल्ल्या सत्रेच्या आकाराचो. कमळाच्या पाकळ्यांतल्या वयर आयिल्लो कसो एक खांबो. अशे तरेकवार चित्रकृतीनी नटयिल्ले खांबे. पळयतना तान-भूक न्हिवताली. वयर छताचेरय तशींच चित्रां कोरांतिल्लीं. सगळें बारकायेन पळोवंक म्हयनोभर तरी थंय रावंक जाय. कारण देवळाचो इल्लो लेगीत भाग मेकळो दवरूंक ना.

ही जाली देवळांतली भितरली सोबीतकाय. देवळाच्या भायल्यानय जी कितें कलाकुसर आसा ती पळोवंक कोणेंय अजापान थक्क जावंकच जाय. सगळेंच अप्रतीम. कल्पने भायलें. उतरांनी सारकें मांडपाकूच जावचें ना. म्हजें हें वर्णन म्हळ्यार जिबेक लोणच्याचो मेथो लायिल्लेवरी. तुमी खासा थंय वचून लोणच्याचे अख्खे आंबलेची रूच घेवंक जाय.

ह्या देवळाच्या भितरल्या भागांतलीं चित्रां, भायलीं चित्रां, खांब्या वयलीं चित्रां ह्या सगळ्यांतल्यान त्या काळाच्या गिरेस्त दायजाची वळख जाता. त्या वेळच्या समाजाचे आचार, विचार, भेस, संस्कृती हांची वळख घडयता.

ह्या देवळाक तिनय वटेन अतिशय कलात्मक अशीं प्रवेशदारां आसात. हें देवूळ सादारण 1 मिटर उंचायेच्या दगडी माचयेचेर आसा. देवळाच्या भायल्या चारय वण्टींची सुरवात हतींच्या शिल्पान जाता. वट्ट 648 कोरीव हतींच्यो वेगवेगळ्यो मुद्रा दाखोवपी एक माळच कशी आसा. हांची खासीयत म्हळ्यार प्रत्येक हती एका दुसऱ्या सारको ना. हे हती म्हळ्यार भारतीय संस्कृतायेच्या स्थैर्याचें प्रतीक अशें मानतात. हतींच्या वयले वळींत वनराज शिंव अशेच तरेन

वेगवेगळे मुद्रेंत आसले. तांचे वयर मणयांच्यो माळी कश्यो. तांचे वयर महाभारतांतले जायते प्रसंग कोरांतल्यात. ते उपरांत सोबीत, अप्रतीम अशा अप्सरांची माळ. नृत्याचे हावभाव दाखोवपी अप्सरा, वाद्य आनी वादका सयत, तिचे भोंवतणीं वाली, प्राणी, पक्षी सगळें बारकायेन कोरांतलां. कितें आनी कितें म्हणपाचें ना. त्या शिल्पकारांनी काळ्या फातरांतल्यांन सात रसांचो पावस घालून अप्सरांचे अभिजात सुंदरायेक उलोवंक लायल्या, गावंक लायल्या म्हळ्यार अतिताय जावची ना.

छताच्या पोंदचे वटेनचे वळींत तर एक एक सुंदऱ्यो अश्यो आसात सांगूंक येना. एक 'दर्पण सुंदरी' हातांत हारसो घेवन आपलें रूप तोखेता. एक 'शुकभाशिण' बोटांचेर पोपट घेवन ताचे कडेन उलयता. त्या वेळचे तिच्या तोंडा वयले भाव पळयल्यार पाशाणांत कोरांतल्यांत अशे कोणच म्हणचे नात. एक तर हातांत पिके घरे घेवन उबी. त्या घऱ्यां भोंवतणीं मूस. कांय अप्सरां 'त्रिभंगी' म्हळ्यार तीन कडेन वळिल्ल्यो, भरतनाट्यमांतली ही एक अदाकारी खंय घोवा वांगडा वसंत क्रिडा करपी अप्सरा, होळी खेळपी, नागविणा घेवन वाजोवपी, गुरू शिश्या, शिकार करपी, वन कन्या, पंखो घेतिल्ली, भविश्य सांगपी, विषकन्या, नागकन्या, विरहिणी, अश्या साबार तरेचीं रुपां दाखोवपी अप्सरा थंय दाखयल्यात. तांच्या सरभोंवतणीं झाडां, वाली, फुलां, प्राणी, पक्षी हांच्या सांगातान तीं चित्रां फातरांत कोरांतिल्लीं कशीं दिसनासलीं. तातूंत जीवसाण दिसताली.

वट्ट 38 'ब्रॅकेट आकृती' देवळाच्या चारय वण्टीचेर आसात. तांच्या केंसांच्यो रचना पळोवन अजाप इतलेच खातीर जाता, आमी आधुनीक म्हणून ज्यो रचना सिनेमा, सिरीयलांतल्यान घेतात, ब्युटी पार्लरांत वचून नव्यो नव्यो रचना करतात. त्यो सगळ्यो तरा ह्या शिल्पांत आसात. म्हणटकीर कितल्या वर्सां पयलींच्यो त्यो तरा पळयात. साधना कट, आनी खंयचो कट, पोनीटेल, तीन पोडी, पांच

पोडी विणी सगळें सगळें थंय हजारभर वर्सां पयलींच कोरांतून दवरलां. तांच्यो वेशभुशा, भांगरा कितें आनी कितें म्हणूं नाका, आतांच्या काळार आमी जें कितें नवें म्हणून तरा करतात त्यो त्या शिल्पांत दिसतात. हजारांनी तरेचे नमुने थंय पळोवंक मेळटात.

भरतनाट्यमाचे सगळे पदन्यास त्या शिल्पांतल्यान दिसता. स्थापत्यशास्त्राची शाखा त्या काळार कशी उदरगतीक पाविल्लें तें ह्या देवळाक पळयल्यार कळटा.

अशें सांगतात, वेगवेगळ्या फातर पट्यांचेर हें कोरीव काम केलां. मागीर ते सगळे फातरपटे चुनो वा कसल्याच तरेच्या साधनान ते चिकटावंक नात. तर इंटरलॉक पद्दतीन जोडून हें विशाल देवूळ तयार केलां. धा हजार सुमार कोरांतिल्ल्यो शिळा ह्या देवळाच्या बांदकामाक लागल्यात.

प्राचीन भारतीय शिल्पकलेचो हो मोल करूं नजो असो ठेवो. ताचो प्रगल्भ असो आविश्कार प्रत्येक शिल्पांतल्यान दिसता. काळ्या फातरांतलें हें काव्य. देवळा भोंवतणीं फिरून सगळें पळोवन आमी मुखेल प्रवेश दारा कडेन परत आयलीं.

सोपणां चडून वयर येतकच दारा कडेन वीररस प्रधान अशी बळिश्ट शिंवा कडेन झगडपी होयसाळ राजाची मूर्त आसा. हीच ह्या घराण्याची राजमुद्रा.

गायडान आमकां थोडे भितर ताचो इतिहास सांगलो.

ह्या घराण्याचो मूळ पुरूस साळ नांवाचो पराक्रमी योद्धो आासलो. त्या काळा प्रमाण तो शिकूंक म्हणून गुरूच्या आश्रमांत रावतालो. एक फावट तो आपल्या गुरू वांगडा रानांत गेल्ले कडेन एका नरभक्षक शिंवान ताचेर घुरी घाली. मोट्या धिरान ताणें शिंवा कडेन झूज केलें. आपल्या शिश्याक उमेद दिवंक म्हणून गुरून ''होय, होय, होय.'' असो गजर सुरू केलो. त्या वेळा वयल्या भाशे प्रमाण 'होय' हाचो अर्थ 'मार'. गुरूच्या उमेद दिवपी उतरांक लागून साळाच्या आंगांत बारा

हतयांचें बळ संचारलें. ताणें जिवाच्या आकांतान झूज करून शिंवाक जितो मारलो. तेन्नाच्यान तांच्या घराण्याक अभिमान दाखोवपी अशें 'होयसाळ' हें नांव पडलें.

ह्या देवळाचो मूळ कळस भव्य आशिल्लो खंय. ताचे वयलीं शिल्पचित्रांय उतरांनी सांगूं नज इतलीं अप्रतीम आशिल्लीं खंय. अल्लाउद्दीन खिलजीचो सरदार मलीक कफूर हाणें बेल्लूराचेर घुरी घालून होयसाळांची ही राजधानी पुराय लुटली. तेन्ना हो कळस उध्वस्त करून उडयलो. त्या उपरांत 1754 आनी 1936 सालांत म्हैसूरच्या राजांनी दोन वेळा ह्या देवळाचो जिर्णोद्धार केलो. पूण ताचेर घूड बसलो ना. म्हणून ह्या देवळाक घूड ना. हळेबिडच्या आनी बेलावडीच्या देवळाकय घूड ना.

अशें सांगतात, ते उपरांत जेन्ना जेन्ना परचक्र येता अशें थंयच्या लोकांक कळटालें तेन्ना तेन्ना तांणी हें देवूळ रेंवेंत पुरून दवरलें. संकश्ट वतकर मोट्या यत्नान रेंव पेल्यान काडून देवूळ मेकळें करताले. हळेबीडचें देवूळ मात लोक अशे तरेन वाटावंक शकले नात म्हणून आयज तें उध्वस्त शिल्प जावन आसा.

आमी मुखेल देवळाचे माचये वयल्यान सकयल देंवलीं. थंय देवळाच्या दाव्या हाताक ह्या पुराय देवळाची प्रतीकृती (मॉडेल) फातरांत कोरांतून दवरल्या. ह्या देवळाचे तुटके फुटके भाग एके कडेन मांडून दवरल्यात. देवळाच्या चारय वटेन होवऱ्यो आसात. तातूंत हनुमान, नागदेव, गौरी गणेश अश्यो जायत्या देवांच्यो मुर्ती आसात. तीन-चार ल्हान ल्हान कोरीव कामान नटिल्लीं देवळां आसात. तातूंतलें एक लक्ष्मीचें आनी दुसरें गजलक्ष्मीचें. अशीं आनीकय देवळां आशिल्लीं खंय. तुटक्या फुटक्या शिल्पांच्या राशीं मदीं तांच्यो खुणो दिसतात. देवळाक भायल्यान प्रदक्षणा घालून तुटक्यो फुटक्यो मुर्ती पळयत आमी मुखार आयलीं. दावे वटेन व्हड बांय कशें तळूल आसा. 70 फूट खोलायेचें. हांगा देवाक न्हाणयतात खंय.

तळूलाक तेंकून आशिल्ल्या एके होंवरेंत ऑफिस केलां. थंय भोंवडेकारांक जेवणाचे पास दितात. आनी पिंजर, हळडीच्यो ल्हान ल्हान पिशव्यो दितात. भायले वटच्यान पुस्तकांचें ल्हानशें एक दुकान आशिल्लें. इतलीं हेर दुकानां आशिल्लीं पूण आमी तेवट्यान मातय पळोवंक ना, पुस्तकां म्हणटकीर आमचीं पावलां थंय वळ्ळीं. थंय कन्नड भाशेंतल्या पुस्तकां वांगडा हिंदी आनी इंग्लिशींतय पुस्तकां आशिल्लीं. प्रेक्षणीय थळांचे फोटोय आशिल्ले. आमी हिदी भाशेंत आशिल्लीं कर्नाटकांतल्या प्रेक्षणीय थळांची म्हायती दिवपी पुस्तिका आनी नकाशे घेतले.

थंयच्यान आमी भायर आयलीं. थंय उजवे वटेन रांदपाची आनी जेवपाची व्हड बिल्डींग आसा. देवळांत येतनाच आमी ती पळयिल्ली. थंय आमी जेवपाक गेलीं.

भायरच जोतीं दवरून आमी वळींत उबीं रावलीं. भितर व्हडल्या सालांत लांबच्या लांब स्टिलाचीं मेजां आसलीं. आनी बसूंक स्टिलाचें ताट धांपिल्ल्यो कश्यो तामरेती आशिल्ल्यो. अश्या धायेक तरी वळींनी मेजां मांडिल्लीं. एके फावटीक 500 तरी लोक जेवंक शकतले असो तो हॉल आसलो. हें सगळें पळयतासर आमी भितर पावलीं.

सडसडीत चार जाण ताटां मांडत गेले. चार जाण जेवणाची गाडी घेवन येवन जेवण वाडटाले. शीत, कालवण, लोणचें आनी एक भाजी. रोखडेंच पेले उदक आनी ताक हाडलें. जालें जेवण.

आमी जेवन भायर सरलीं. आतां आमकां श्रावण-बेळगोळ वचपाचीं उमळशीक लागिल्ली. ❑

# श्रावणबेळगोळ

**आमची** गाडी श्रावणबेळगोळचे वाटेक लागली. कोणें कोणें हाडिल्ली मिठाय खायत आमचो प्रवास सुरू जालो.

गांव सोंपून एका शारांत पावलीं. शार बरेंच व्हड म्हणून कळटालें. वचत थंय बिल्डिंगांचें जाळें आसलें. च्या पियेवन आमी मुखार सरलीं.

एका कर्नाटक राज्यांत बाहुबलीचीं तीन शिल्पां आसात. धर्मस्थळाचो बाहुबली बऱ्याच ऊंच दोंगरार आसा. थंय चडपाक सोपणां बांदून काडल्यांत. दुसरो बाहुबली वा गोमटेश्वर कारकल ह्या गांवांत ल्हानशा पाशाणी दोंगुल्लेचेर आसा. पाशाण कोरांतून हांगा सोपणां तयार केल्यांत. अशाच एका उब्या पाशाणी दोंगरार म्हळ्यार विंध्यगिरीचेर श्रावणबेळगोळचो बाहुबली उबो आसा. हो सगळ्यांत ऊंच दोंगर आनी बाहुबलीय सगळ्यांत व्हड.

ह्या बाहुबलीचो हांवें वाचिल्लो इतिहास म्हज्या दोळ्यां मुखार उबो रावलो.

बाहुबली हो राजा ऋषभदेवाचो दुसरो पूत. ताका शंबर पूत आनी दोन धुवो आसल्यो. हो जितलो सद्‌गुणी, नम्र, बुद्धीमान तितलोच पराक्रमी आनी बळिश्ट आसलो. ताचे हात धोंपरा सकयल पावताले खंय.

राजा ऋषभदेव जाणटो जातकच राज्य कोणा हातांत दिवप हाची ताका चिंता जाली. कायद्यान व्हडल्या पुताक राज्य दिवपाचें, पूण

बाकीच्या पुतांनी झगडून राज्याचे 100 कुडके केल्ले ताका नाका आशिल्लें. ताणें एक युक्त सोदून काडली. ताणें व्हडलो पूत भरत हाका सोडून णव्याण्णवय पुतांक म्हऱ्यांत आपयले आनी सांगलें, तुमी सगळे पराक्रमी पूण आमी हें राज्य भरता कडेन दिवया आनी सगळे सन्यास घेवया. बाहुबलीक हें मातय मान्य जालें ना. सगळ्यांनी ताका तरेतरेन समजायलो. पूण ताचें एकच म्हणणें आसलें, ''राज्य चलोवप हें साद्या मनशाचें काम न्हय. तें एक म्हान धर्मकार्य तेन्ना जो आपलें कर्तृत्व सिद्ध करून दाखयता ताकाच तें दिवचें.''

निमणें दोगांयचीय परिक्षा सुरू जाली. दोगय सारकेच हुशार, तरेतरेचे परिक्षेंत दोगय हार नाशिल्ले. निमणे पंचांनी द्वंद्व युद्ध दवरलें. तातूंत बाहुबली जिखलो. राज्य आपल्या हातांत येवचें ना हें कळटकीर भरत रागान पिसो जालो. ताणें बाहुबलीचें लक्ष नाशें पळोवन तलवारीन फाटीर वार केलो. पूण बाहुबलीचे हुशारकायेक लागून तलवार मात्शी लागली. आतां बाहुबलीक ताचो राग आयलो. ताणें कमराचें खड्ग काडून भावाचेर उबारलें. पूण हात सकयल येवचे पयलीं ताच्यांतली विवेकबुद्धी जागी जाली. ताणें खिणा भितर येवजिलें, 'हांवें इतल्यो सगळ्यो परिक्षा जिखून म्हजो पराक्रम साबीत केलो, आतां भावाचो खून करप म्हळ्यार ताचे इतले नीच पातळेर देंवप. शीऽ, हांव इतलो सामान्य मनीस न्हय.' ताणें हात सकयल घेतलो. खड्ग जमनीर पडलें. ताका राज्याचो वीट आयलो. कसलोच मोह धरिनासतना 'केवल ज्ञान' मेळोवप असो निश्चेव करून त्याच खिणाक तो तपश्चर्या करूंक गेलो.

ताणें कितलींशींच वर्सां तप केलें. ताचे भोंवतणीं रान वाडलें. ताचेर वाली चडल्यो. पांयां कडेन जिवाण्यांनी रोयणीं केल्यो. तातूंत नाग लेगीत रावताले. पूण बाहुबली आपल्या तपांत गुंग आशिल्लो. तरी ताका केवल ज्ञान मेळनासलें. आपूण श्रेश्ठ, असामान्य हो हंतम ताच्या मनांतल्यान वचनासलो. म्हणून ताका ज्ञान मेळनासलें.

निमणें ताच्यो भयणी ब्राह्मी आनी सुंदरी हांकां ही गजाल कळ्ळी. तांणी येवन भावाक सांगलें, ''भाऊ, आतां तरी हतया वयल्यान सकयल देंव.''

भयणींच्या उतरांनी बाहुबलीक आपली चूक कळ्ळी. ताका अजूनय आपल्या मनांत अहंकार रुपी हती बसला हाची जाणीव जाली आनी दोळ्यांतल्यान पश्चात्तापाचीं घळघळीत दुकां देंवंक लागलीं. अहंकाराचेर जैत हेंच ज्ञानाचें पयलें सोपण हें ताका कळ्ळें.

ताचो संपूर्ण मोह सुटलो. आंगा वयल्या वस्त्रांचो लेगीत ताणें त्याग केलो. दिगंबर म्हळ्यार नागडे अवस्थेंत रावप ताणें मान्य केलें. कपड्यांचो लेगीत मोह नाका अशी ताच्या मनाची अवस्था जाली. तेन्नाच्यान बाहुबली केवल ज्ञानी जालो, तिर्थंकर जालो. जैन लोकां मदीं दिगंबर आनी श्वेतांबर अशे दोन पंथ आसात. दिगंबर पंथीय श्रमण कपडे घालनात. आनी श्वेतांबर पंथीय श्रमण फकत धवेच कपडे घालतात.

इतल्यांत आमची गाडी ल्हानशे दोंगुल्ले म्हऱ्यांतल्यान वचून तळ्या म्हऱ्यांत थांबली. हाका शुभ्रसरोवर म्हणटात अशें थंयच्या एकट्यान सांगलें. आमी गाडयेंतल्यान देंवलीं. मुखार दोन जुंवळे कशे दोंगर आसले. तातूंतलो एक बरोच ऊंच आनी तांतयां आकाराचो ताका 'इंद्रबेट्टा' वा 'विंध्यगिरी' म्हणटात आनी दुसऱ्या दोंगराक 'चंद्रगिरी' म्हणटात. तशेंच व्हडल्या दोंगराक 'दोडाबेट्टा' आनी धाकट्या दोंगराक 'चिक्कबेट्टा' अशेंय म्हणटात खंय.

बेळ, बेलिया म्हळ्यार धवोच चांदीचो कप आनी गोळ म्हळ्यार सरोवर. श्रमण वा श्रवण म्हळ्यार जैन साधू. दिगंबर पंथीय जैन साधूचें हें म्हान तिर्थस्थान. म्हणून ह्या गांवांकच श्रवण-बेळ गोळ' अशें नांव पडलें. आमच्या मुखार गोबरा रंगाचो विंध्यगिरी पर्वत उबो आसलो. तो सुमार 500 फूट ऊंच खंय. तो पाशाणी दोंगर जाल्ल्यान ताचेर एक्कय झाड नासलें. सावळेचें नांव नासलें. हो पाशाणी दोंगर

जाल्ल्यान ताका 'औदगल बसदी' अशेंय म्हणटात खंय. ताचेर त्या पाशाणांत कोरांतून सोपणां तयार केल्लीं. अशीं सोपणां कारकळचो गोमटेश्वर (बाहुबली) पळोवंक वतना मेळिल्लीं. पूण तीं दोंगुल्ली आनी हो विंध्यगिरी हातूंत जमीन आसमानाचो फरक. ह्या दोंगराचीं 683 सुमार सोपणां आसात म्हणून आमकां सकयलच कोणें तरी सांगलें.

"आगे बाये! इतलीं सोपणां? आमच्यांनी चडूंक जातलीं मूं?"

"ना, ना, अशें म्हणप ना. आमी याच. हळू हळू चडुंया. धरपाक लोखंडाचे दांडे आसात. ताका धरून धरून या."

"जाता तशें, जाता तितलीं सोपणां चडुंया, ना जाल्यार वाटेरच बसुंया." अशें थारावन आमी मुखार सरलीं. जोतीं सकयल दवरून उगड्या पांयांनी दोंगर चडूंक जाय खंय. आमी 4.30 वरांचेर पाविल्लीं. लोक वतांतल्यान तापिल्ल्या सोपणां वयल्यान कशीं वतात जातलीं हें येवजून आमच्या पांयांतल्यान शिरशिरी आयलो.

सोपणां सुरू जावचे पयलीं प्रवेशदाराची व्हड, ऊंच अशी कमान आसा. ही कमान म्हळ्यार दोन मजली देवूळच खंय. वयल्या मजल्यार धाकटुल्या देवळांत गोमटेश्वर आनी हेर जायत्यो मुर्ती आसात. तातूंत गोमटेश्वराच्यो दोन आवयो असस्वता आनी सुनंदा हांच्योय मुर्ती आसात. पूण आमचे कडेन चड वेळ नासलो. काळोख पडचे पयलीं दोंगर चडून देवंक जाय आसलें. आमी जोतीं दवरलीं आनी दोंगर चडपाक लागलीं.

सोपणांक चड उंचाय नासली. चडपाक सोंपीं. आमचीं भुरगीं आनी थोडीं सुडसुडीत वांगडी सडसडीत सोपणां चडूंक लागलीं. आमी सात-आठ जाणांनी हळू हळू चडपाचें थारायलें. जशीं जशीं आमी वयर चडटालीं तशें रावन हांव फाटल्यान पळयतालें. सैमाचो नजारो दोळ्यांत धरनासलो. सकयलें तळें एकेच नदरेंत दिसतालें. ताची सोबीतकाय कितें सांगपाची. ताका रुप्याचें कप कित्यक म्हणटात तें

कळटालें.

आमी ल्हवू ल्हवू वयर चडटालीं. मदींच रावन सुसेग घेवपाच्या निमतान सैम सुंदराय तोखेतालीं. एकाच अखंड फातरांतल्यान हें बाहुबलीचें प्रचंड शिल्प हांगा घडोवपा फाटलयान एक काणी आसा खंय.

इ. स. धाव्या शेंकड्यांत हांगाची सत्ता गंगा घराण्या कडेन आशिल्ली. ह्या राज्याच्या राजमल्ल राजाचो प्रधान आनी सेनापती चामुंडराय हो जावन आसलो. तो महाबळिश्ट, हुशार, मुत्सद्दी आनी बुद्धीमानय आसलो. गंगा घराण्याचोच जैन धर्म तांच्या घराण्यान आपणायिल्लो. तो आवयचो सामको भक्त आसलो. बाहुबलीची पुजा करूनच ताची आवय जेवताली. ते शिवाय ती तोंडांत उदक घेनासली. तिका बाहुबलीच्या दर्शनाची ओड लागली. वचत थंय तिका बाहुबलीच दिसूंक लागलो. तिका अन्न-उदक गोड लागना जालें. ती सामकी अशक्त जाली.

चामुंडरायाच्यान तिची ही दशा पळोवंक जाली ना. ताणें आवयक कारण विचारलें. तिणें सांगलें, ''चामुंडराया, एक फावट तरी बाहुबलीचें दर्शन घेवचें अशी खर इत्सा आसा.''

पुतान म्हळें, ''माते, इतलेंच मूं? बेठें दर्शन करून येवप कित्याक? हांव बाहुबलीकच हांगा हाडटां.''

जाणटे आवयक खोस जाली. पुताच्या कर्तुबाचेर तिचो विस्वास आशिल्लो. चामुण्डरायान घरा भायर उबो रावन एक बाण सोडलो. तो बाण विंध्यगिरीच्या कळसार ठण्ण करून पडलो. थंयच त्या पाशाणी दोंगरारच ताणें बाहुबलीची मूर्त करपाचें थारायलें. जायत्या शिल्पकारांक ताणें आपयलें. एका प्रचंड कार्याचो शुभारंभ जालो. 'अरिश्ट नेमी' नांवाच्या एका म्हान शिल्पकाराच्या हातान विंध्यगिरीच्या शिखरार एकसंध पाशाणांतल्यान बाहुबलीचें शिल्प आकार घेवंक लागलें. हजारांनी हात कामाक लागले.

त्या काळशा गोबरारंगाच्या फातरांतल्यान बाहुबलीची मूर्त आकार घेवंक लागली. जगांतल्या शिल्पकलेंतलें एक म्हान अजापच श्रावणबेळगोळ हांगा साकार जालें. एकाच फातरांतल्यान तयार केल्ली इतली आकांत व्हड तितलीच प्रमाणबद्ध सोबीत मूर्त जगांत घडये दुसरी नासत.

विंद्यगिरी पर्वतार खंयच मातयेचो वासय नासलो आनी झाडाची पाचवी पातीय नासली. अखंड एक तळप जमनी पसून वयर मेरेन उबें आसलें. आनी ताचेरच कोरांतून तयार केल्लीं सोपणां आमी हळू हळू चडटालीं.

अर्दवयर सोपणां चडून वतकर 'अखंड बागडू' म्हणून एक कमान मेळ्ळी. सोपणां कोरांतून काडटना वाटेर एक व्हड शिळा आयली. ती फोडून पेल्यान काडचे परस ती कोरांतून प्रवेश दार तयार केलें. कितें तकली चलताली पळय त्या वेळच्या लोकांची. आमी म्हणटात आतां आमी कम्प्युटर युगांतलीं मनशां. आमी खूब सुदारल्यांत. पूण हजारभर वर्सां पयलीं लेगीत मनशाची तकली कशी चलताली पळय. आतांचीं कसलींच सुदारीत साधनां नासतना लेगीत वयर वयर दोंगरांत तांणी कल्पना करूं नज अशीं अजापां घडयलीं.

त्या दारांतल्यान आमी वयर गेलीं. मात्शीं वयर चडून येतकच पयलें ठाणें लागलें. सकयल्यान वयर मेरेन आयिल्लीं सरळ उबीं सोपणां हांगा सोंपतालीं. हांगा मेरेन मात्सो तिरकस कसो दोंगर आसलो. हाचे मुखार एक गुळो हाडून दवरिल्ले वरी प्रचंड व्हड उबो पाशाण आसलो. ताच्याय वयर आनीक एक ल्हान पूण ऊंच बरो पाशाण आसलो. ताचीच बाहुबलीची मूर्त घडयिल्ली. ताचे वयर देवूळ बांदपाक आनीक जागोच नाशिल्ल्यान ती वता पावसांतच उबी आसा.

तो उबो पाशाण चडचे पयलीं मात्सो सुसेग घेवंक हांगा एक ठाणें केलां. एक ल्हानशें पाशाणी देवूळ केलां. ९81 वर्सा पयलीं बांदिल्लें

'त्यागस्तंभका ब्रह्मदेव' हें ल्हान शिल्प देवूळ आसा. आमचे वांगडचीं ह्या देवळांतल्यान भायर सरून वयलो उबो पाशण चडटालीं. आमी देवळांत भितर सरलीं. भितर आदिनाथ, शांतीनाथ आनी नेमिनाथ हांच्यो मनाक भुल्लुसावपी अश्यो सोबीत काळ्या तिकतिकीत पाशाणांच्यो आसरमांडी घालून बशिल्ल्यो मुर्ती आसात. तांचें दर्शन घेवन आमी भायर आयलीं. आतां गोमटेश्वराचे मुर्ती म्हऱ्यांत पावंक आमकां 117 सोपणां उरिल्लीं. आमी मात्शीं देवळाच्या सोपणांचेर बसलीं आनी सैम तोखेवन उठलीं. ह्या देवळाक 'त्यागस्तंभका ब्रह्मदेव' कित्याक म्हळां तें कळ्ळें ना. ह्या देवळा कडल्यान उदक पाझरतालें. थंयच्यान वीस-पंचवीस पावलां दाव्यान आडवें वचून वयर वचपाच्या सोपणां कडेन वचूंक जाय आसलें. वाटेर चौकोनी लाकडी फ्रेमींत बसयिल्ल्या हारशा पोंदा कितें तरी धांपिल्लें. आमी थांबून पळयलें. ताचेर अक्षरां कोरांतिल्लीं. तें बरेंच अस्पश्ट आशिल्लें. पयलीं ताचेर अशीं काचेचीं धांकणीं धांपूंक नाशिल्लीं खंय. पूण पावसाचें उदक आनी सतत भोंवडेकारांचें थंयच्यान भोंवप हाका लागून तीं अक्षरां ना जावन वचत म्हणून पुरातत्व खात्यान तीं धांपून दवरल्यांत खंय.

आमी सोपणां कडेन पावलीं. हीं सोपणां मात्शीं ऊंच आशिल्लीं. तीं चडून वयर वतकच प्रचंड व्हड महादार आशिल्लें. ताचें नांव आशिल्लें 'गुळ्ळकायजी बागडू' बागडू म्हळ्यार कानडींत दार. गुळ्ळकाय आजी हिच्या नांवा वयल्यान त्या दाराक अशें नांव दिलां खंय. थंय मात्सो सुसेग घेवन आमी भितर सरलीं. ऊंच ऊंच अशीं आनीक थोडीं सोपणां चडून आमी वयर गेलीं.

सोपणां चडून बरेंच पुरो जाल्लें. पूण आमचे मुखार जगाक शांततायेचो संदेश दिवपी बाहुबलीची प्रचंड मूर्त उत्तरे कडेन तोंड करून उबी आसली. ती पळोवन आमचो शीण नाच्च जालो. ताचें तें विशाल रूप दोळ्यांत धरनासलें. धवशा-काळशा-गोबरा रंगाच्या पाशाणांतल्यान शिल्प काव्य तयार केल्लें.

बाहुबलीचें तें सोबीत मुखामळ शांत आनी प्रसन्न दिसतालें. दोळे ध्यानमग्न आसलें. नाजूक जिवणी हांसता कशी दिसताली. मुर्तीचे केंस कोंग्रे आसले. ताचीं झुलपां विशाल कपलाचेर आयिल्लीं. मुर्तीच्या पांयां पोंदा कमळ आशिल्लें. बाहुबलीच्या दोशीं वटेन रोयणी कोरांतल्यात. रोयणीक बिळां दाखयल्यांत. तातूंतल्यान सोरोप फडा भायर काडून पळयतात. ते खीणभर खरेचशे दिसतात. त्या रोयणींतल्यान वाली वयर येवन ताचे मांडयेर हातांचेर चडल्यात अश्यो कोरांतल्यात. त्यो सामक्यो खऱ्यो कश्यो दिसताल्यो. वालीचेर एक फूलय दाखयलां. असामान्य असो दैवी प्रतिभेचो हो आविश्कार दोळ्यांची तान-भूक न्हिवयतालो. पुराय नग्न अशी ती प्रचंड मूर्त वैराग्याचें प्रतीकच कशी भासताली. ताची विशाल छाती, रूंद खांदे, उबो रावपाची तरा एका म्हापुरुसाची वळख घडयताली. ही मूर्त भव्य आसूनय बांदेसूद आनी प्रमाणबद्ध अशी आशिल्ली. ते मुर्तीची उंचाय 17 मिटर आसली. तिचीं पावलां सादारण अडेज फूट लांबायेचीं आसलीं. नाखटां इतलीं रूंद आसलीं, तांचेर सोलिल्लो नाल्ल दवरूं येतालो. मुर्तीच्या पांयां कडेन एक शिलालेख आसा. ताचे वयलीं "चामुंडराये करविले" हीं इतलींच उतरां आमकां वाचूंक आयलीं. बाकीचीं समजलीं नात. पूण हो देवनागरी लिपयेंत कोंकणींत बरयिल्लो सगळ्यांत पयलो शिलालेख अशें मानतात.

हांगा एक एक वेळा भोंवडेकारांची खूब गर्दी जाता. तेन्ना गचमुड्डी जायनासतना सगळ्यांक सारकें दर्शन घेवंक मेळचें म्हणून प्रवेश दारांतल्यान भितर सरतनाच लोखंडाचे बार घालून वाट केल्या. ताका लागून एका एका मनशाची वळ शिस्तीन मुखार वता. बाहुबलीच्या पुतळ्या मुखार चंवऱ्यो हालोवपी सेवकांच्यो स फूट उंचायेच्यो दोन मुर्ती आसात. बाहुबलीच्या मुर्तीच्या दावे वटेन एक बांय कशी आसा. ताका ललीत सरोवर म्हणटात. बाहुबलीक मस्तकाभिशेक घालतकच जें उदक सकयल देंवता तें ह्या बांयंत जमयतात खंय. मुखेल मुर्ती

भोंवतणीं पाशाणी होंवऱ्यो बांदून घेतल्यात. तातूंत तिर्थंकाराच्यो पाशाणी मुर्ती आसात. फाटल्या वटच्यान अश्टदिक्पाल मंडप आसा. थंयच्यान वयर चडूंक सोपणां आसात. पयल्या मजल्या वयल्यान मुर्तीच्या अर्द्याक सुमार पावतात खंय. थंयच्यान मूर्त बरी लागींच्यान वयर सकयल पळोवंक मेळटा. पूण आमकां वेळ जातालो म्हणून आमी वयर गेलीं नात. पुराय भारतांतल्याच न्हय तर भारता भायर आशिल्ल्या जैन धर्मियांचें हें श्रद्धास्थान.

हांगा दर बारा वर्सांनी पर्वकाळांत ह्या महाशिल्पाक पंचामृती महामस्तकाभिषेक घालतात. त्या वेळार आख्ख्या जगांतल्यान जैन धर्मीय लोक लाखांचे संख्येन येतात. मुर्तीच्या फाटल्यान लाकडी सोपणां बांदून काडटात. ताका लागून प्रत्येक भक्ताक वयर चडून मस्तकाभिषेक करूंक मेळटा. दुदाचे, तुपाचे, धंयाचे, म्होंवाचे तशेंच उशीकाण्याच्या रोसाचे, नाल्लांच्या उदकाचे हजारांनी हांडे ताच्या मस्तकार घालतात. हळडीपिठो, तांदळांचें पीठ आनी चंदनाच्यो पिठो मुर्तीचेर घालतात. हें सगळें पळोवंक बरें दिसता खंय. पयलींच्या काळार भांगराचीं नाणीं, हिरे, जडजवाहीर, माणकां, मोतयां हांचोय अभिशेक घालताले खंय.

विंध्यगिरीचो हो सगळो वाठार पवित्र मानतात. हरशीं खंयूय पुतळे उबारूं, कावळो, पारवो हेर सुकणीं तांचेर बसून हळशीक उडयतात. पक्षांचे हळशिकेन बुरसो जाल्लो तो पुतळो पळोवं नज जाता. पूण हांगा बाहुबलीचे मुर्तीचेर एक्कय पक्षी बसून हळशीक उडयना. ही मूर्त अती ऊंच आशिल्ल्यान जावं येता. पूण भावीक लोक समजतात हो चमत्कार म्हणून.

आमी थंयच्यान भायर आयलीं. थोडीं सोपणां देंवन गुळ्ळकायजी बागडू कडेन पावलीं. थंय ल्हानशें शिल्पी देवूळ आशिल्लें. तातूंत एके बायलमनशेची काळ्या पाशाणाची मूर्त आसली. म्हज्या वांगड्यांनी म्हळें, "ही आनीक कोण देवी?". ती गुळ्ळकायजीची मूर्त आसली.

तिची खबर हांवें वाचिल्ली. लोककाणी म्हणूनय ही काणी हांवें आज्जे कडल्यान आयकल्ली - तातूंत खंयचोय देव घेतात. पूण ही खरी गुळ्ळकाय आजीची काणी हें म्हाका आतां इतल्या तेंपान कळ्ळें. हांवें म्हज्या वांगडच्यांक थंयच ती काणी सांगली.

आवयचे इत्से पासत चामुंडरायान बाहुबलीक गोमटेश्वराच्या रुपान विंध्यगिरीचेर साकार केलो. हे मुर्तीक शास्त्रोक्त तरेन प्राणप्रतिश्ठा आनी पंचामृत अभिशेक करूंक जाय आसलो. ते पासत हजारांनी हांडे दूद, तूप, म्हौंव, धंय, साकर सगळें जमोवंक जाय आसलें. चामुंडरायान आशिकुशीच्या पुराय गांवांक हें सगळें हाडून दिवपाचें फर्मान काडलें. चामुंडरायाच्या भंयान हजारांनी गरीब भुकेल्ल्या लेगीत लोकांनी, आपल्या भुरग्या-बाळांक उपाशीं दवरून दूद, तूप, म्हौंव, धंय, धान्य, फळां सगळें हाडून पावयलें. गांवांगांवांतले लाखांनी भक्तगण हो सुवाळो पळोवंक जमले.

कितलेशेच ब्राह्मण मंत्र म्हणटाले. तो आवाज, कितल्या तरी घांटींचो आवाज तातूंत लोकांचो आवाज, पुराय वाठार गजबजून गेल्लो.

"हांवें आवयक दिल्लें उतर खरें केलें आनी आतां हो महामस्तकाभिशेक, व्वा! कोणच पूत असो आवय पासत येदें व्हड कार्य करूंक शकचो ना. व्वा, व्वा!" चामुंडरायान आपणेंच आपली फाट थापटिली. आपलेच धुंदींत तो हो सगळो सुवाळो तोखेतालो.

इतल्यांत गुळ्ळकाय आजी खर्शेत धांपेत एक वाटीभर दूद घेवन वयर आयली. तिचे हात-पांय थरथरताले. तिणें आपल्या माणकुल्यांक पोटभर दूद दिवन उरिल्लें वाटीभर दूद घेवन ती मोटे उमेदीन तें देवाक घालूंक म्हणून आयिल्ली. तिणें थंयच्या अधिकाऱ्यांक काकुळटेन आपलें दूद बाहुबलीचेर घालूंक सांगलें पूण कोणच तिचें आयकून घेनासलो. ती चामुंडराया म्हऱ्यांत आयली. ताणेंय तिचें सांगणें आयकूंक नाशिल्लेवरी केलें. तरी ती हटान रावल्या तें पळोवन

चामुंडराय हांसलो आनी ताणें म्हळें, "म्हातारे, हें इल्लेंशें दूद मगे. हांगा ताचो कांयच उपेग ना. तूंच पिये तें. ना जाल्यार दी कोणाकूय. हें इल्लेंशें दूद घालें ना जाल्यार बाहुबलीचो अभिशेक थांबचो ना."

इतलें म्हणून तो वगी रावलो ना. ताणें शिपायांक सांगून तिका धांवडावंक लायली.

ती म्हातारी सकयल देंवन वतांत एके कडेनशी बसून रडूंक लागली.

हेवटेन शेनाय चौगुडो वाजोवन मंत्रोच्च्यारान अभिशेकाक सुरवात जाली. फाटल्यान उबारिल्ल्या मनोऱ्यार वचून एक एकटो पंचामृताचे हांडे मुर्ती वयल्यान रकयताले. एक एक कळसो रिकामो जायत गेलो. पूण पंचामृत मुर्तीच्या कंबरा सकयल पावना. सगळें पंचामृत मुर्तींत जिरूंक लागलें. एक अजाप घडटालें. सगळे लोक तटास जावन पळोवंक लागले. सगळे कश्ट फुकट गेले, हें चामुंडरायाक जाणवलें. इतलेंय सगळें करून प्राणप्रतिश्ठा अर्दी उरली.

बरो वेळ येवजितकच अचकीत चामुंडरायाक आपली चूक कळ्ळी. ताचे दोळे दुकांनी भरले. ताणें एके निरागस श्रद्धाळू बायलेचो अपमान केल्लो. ताणें मोट्यान म्हळें, "गुळ्ळकायजी, ह्या पाप्याक गुन्यांव भोगोस."

खासा तो ते आज्जेक सोदूंक लागलो, सगळेच लोक आज्जेक सोदूंक लागले.

सकयल एका कोनशाक बसून रडटा ती आजी चामुंडरायान पळयली. ताणें वचून तिचे पांय धरून क्षमा मागली, आनी म्हळें, "आज्जे, यो तुज्या हातान हें दूद तूं बाहुबलीच्या मस्तकाचेर घाल." तिका अजाप जालें. तिणें म्हळें, "खऱ्यांनीच!"

चामुंडरायान तिका माचुलांत बसोवन वयर हाडली आनी तें दूद बाहुबलीच्या माथ्यार घालूंक सांगलें. तिणें दूद रकयलें मात थंय एक चमत्कार घडलो. इतलो वेळ घाल्ल्या त्या पंचामृताचे व्हाळ मुर्तीच्या आंगा वयल्यान व्हांवंक लागले. सगळे लोक अजापीत जाले.

गोमटेश्वरा वांगडा गुळ्ळकायजी आज्जेच्या नांवान जयजयकार केलो. चामुंडरायान तिका साश्टांग नमस्कार केलो. तिका जिती आसासर कांयच कमी पडूंक दिलें ना.

उपरांत प्रवेशदारांत एक पाशाणचें ल्हानशें देवूळ करून 'गुळ्ळकायजीची' मूर्त दवरली. म्हळ्यार बाहुबलीच्या दर्शना पयलीं तिचें दर्शन भोंवडेकारांक जावचें म्हणून. आनी प्रवेशदाराकय 'गुळ्ळकायजी बागडू' म्हणून नांव दवरलें.

त्याच प्राकारांत आनीक एक पाशाणी देवळी आसली तातूंत 'कुष्मांड देवी' आसा. वयल्यान पुराय श्रावणबेळगोळ गांव पळोवंक सोबीत दिसतालो. पूण आतां तेळसांज जावंक आयिल्ल्यान झिरझिरीत निळशी पातळ ओडणी गांवान पांगुरिल्ली. थंयच्यान चंद्रगिरी दोंगर दिसतालो. ह्या चंद्रगिरी दोंगराक चिक्कबेटा अशेंय म्हणटात. ताची उंचाय सुमार 175 फूट इतली आसा. हे दोंगुल्लेचेर जीं देवळां आसात तीं द्रविडीयन शैलींतलीं. बाराव्या शेंकड्यांतले 128 फातरपटे आनी धाव्या शेंकड्यांतले 76 फातरपटे हांगा वळीन मांडून दवरल्यात. थंय जायत्या जैन तिर्थंकारांनी राबितो केल्लो खंय. जायते पाशाणी खांबे, शिलालेख थंय आसात. थंयच शांतीनाथाची इकरा फूट उंचायेची आनी भरतेश्वराची णव फूट उंचायेची उबी मूर्त आसा. त्यो दोनय मुर्ती आमकां हांगाच्यान दिसताल्यो. भद्रबाहुची घोल आनी चंद्रगुप्त मौर्याची बस्ती थंय आसा खंय. पूण हो येदो व्हड विंध्यगिरी चडून येतकच आनीक आनीक चंद्रगिरी चडपाची शक्त आमच्या पांयांक नाशिल्ली. थंयच रावन दुसरे दीस पळयतलीं म्हळ्यार आमचे कडेन वेळ नाशिल्लो.

आमी वयल्यान सकयल देंवलीं. आडसराचें उदक पियेवन बारीकशी खरेदी करून परतलीं.

रातचीं हसन गांवांत रावपाचें थारायिल्लें. थंय हॉटेल सुवर्णा रेसिडेन्सींत गेलीं.

दुसरे दीस सक्काळीं गोंयां येवंक भायर सरलीं. वाटेर दोशीं वटेन शेतां आनी तळुलां दिसतालीं. त्या उदकांत तरेकवार पक्षी खेळटाले. एका तळ्यांत आनी असो एक फातर आशिल्लो, सारको व्हड्याच्या आकाराचो. ताचेर गच्च धवे बगळे बशिल्ले. धवीं फुलां व्हाजांत घालून दवरल्यांतशीं दिसतालीं.

वाटभर भारार आयिल्लीं शेतां आमकां सांगात दितालीं. एके कडेन आमी टेम्पो थारावन तुरीच्यो सांगो आनी ढब्बू मिरसांगो काडल्यो.

वाटे वयलीं सैमीक अप्रूपां तोखेत रातचीं आठांक आमी मडगवां पावलीं. ❑

# घुमट काव्य-बिजापूर

**अखिल** भारतीय कवयित्री संमेलनाचें पत्र आयलें, 'हें आठवें अधिवेशन बिजापूर आसतलें.' पत्र वाचना फुडें म्हज्या दोळ्या मुखार आयलो बिजापूरचो गोल घुमट. ताचे विशीं खूब आयकल्लें, वाचिल्लें. 'आतां पळोवपाचो योग आयलो दिसता.' हांवें मनांत म्हळें. हें अधिवेशन कशेंच चुकोवप ना, ह्या निश्चेवान हांवें नूतनाक, नयनाक फोन केलो. आनी सात-आठ जाण वचपाक तयार जालीं.

पूण वचप कशें? खंयचोय प्रवास आगगाडयेन करपाक मजा येता. हांवें रेल्वे स्टेशनार वचून चवकशी केली. सरळ बिजापूराक वचपी तशी आगगाडी नासली.

निमाणें बशीन बेळगांवच्यान वचपाचें थारलें. नूतनान तिकेटी काडल्यो.

स नोव्हेंबराक सक्काळीं आमी बेळगांवां वचपाक भायर सरलीं. आंबोली घाटाचें मनभुलोवणें दर्शन घेत आमी दनपारच्या साडेबारा वरांचेर बेळगांव पावलीं. बस स्टॅण्डारच जेवलीं. थंय सगळे कडेन कन्नड भाशेंत पाटयो, कन्नड उलोवपी लोक. मेधा मूळ कारवारचें. ताका बरी कन्नड कळटा. ताचो फायदो आमकां बस सोदपाक जालो. पांच मिनटां भितर ताणें सगळी म्हायती हाडली. बेळगांवच्यान बिजापूर वचपाक पांच वरां लागतात खंय. आमी रोखडींच बशींत बसलीं.

बेळगांव ते बिजापूर हायवे, राजपथ खरेंच सोबीत. दोनय रस्त्यां मदीं घाल्ल्या विभाजकांत तरेकवार फुलझाडां रोयिल्लीं. तातूंत सोबीत

रंगयाळीं फुलां फुलिल्लीं. रस्त्याच्या दोशीं वटेन तरेकवार पाचव्या रंगाच्यो सया दाखोवपी शेतां धोलतालीं. मदीं मदीं सूर्यफुलांचे हळडुवेच शालीचे, मदींच रूंद पानांचे तंबाखुचे रोंपे तर मदीं मदीं उशीकांड्याचीं शेतां. आनी कसलीं कसलीं शेतां आसलीं. त्या रोंप्यांक आमी वळख नासलीं. मदीं सुळसुळीत, गुळगुळीत रस्तो. खरो राजपथ.

राजपथ सोडून बिजापूर वचपाक आमची बस गांवांत भितर सरली. मागीर मात आमचीं हाडां खिळखिळपाक सुरवात जाली. बस रस्त्यान वता काय शेतांतल्यान तेंच कळनासलें. वाटभर धुल्लच धुल्ल.

रातचीं सातांक सुमार आमी बिजापूर पावलीं. बिजापूर बरें व्हड शार. रातच्या काळखांत लेगीत ताची सया कळटाली. आमी व्हडली रिक्षा करून रायत भवनांत गेलीं. थंय जायत्यो कुडी आसल्यो. थोड्या कुडींक खिळयो दारां धड नासलीं. पयलीं आयिल्ल्या बायलांनी बऱ्यो कुडी घेतिल्ल्यो. मागीर आमकां दुसऱ्या मजल्याचेर व्हड कूड दिली. संडास-बाथरूम भायर आसले.

प्रवास आनी धुल्लान आमी जाम जाल्लीं. सगळ्यांकच न्हावंक जाय आसलें. पूण उदक थंड. हून उदकाची वेवस्था ना. शिंयाचे दीस. शीं तशें चड नासलें, पूण थंड उदक कशीं न्हातलीं? मागीर आमी पक्षी स्नानम केलें. हातांत उदक घेवन आंग, हात-पांय धुल्ले भशेन केले. आमकां मातसी ताजपण आयली.

रोखडेंच आमकां जेवपाक आपयलीं. दोन मजले देंवन सात-आठ मिनटांचे वाटेर जेवणघर आसलें. थंय आमी निमणें जेवपी.

शीत सारम् आनी मटकेची तिखट जाळ उसळी आमकां वाडली. सारय तिखटच आसलो. अपर्णाक तिखट मातय चलना. म्हाकाय तीख सोंसना. दीस भराच्या प्रवासान पयलींच पुरो जावन चुरचुरीत भूक लागिल्ली. मागीर आमी ताकाचें उदक आनी लोणचें घेवन जेवलीं. मुखा वयले तिनय दीस तिखसाणीक लागून आमकां सारकीं जेवणाची रूच घेवंक मेळ्ळी ना.

खंयूय नव्या जाग्यार वचूं, सक्काळीं उठून वाठार नियाळपाची म्हाका आवड. भायर येवन सकाळचीं कामां करून हांव सरभोंवतणीं पळोवंक लागलें. सगळे कडेन धुकें आसलें.तरीय धुक्याच्या विरविरीत पड्ड्या फाटल्यान कितें तरी झळकतालें. कितें म्हणून कळनासलें. थंयच्यानच मळबांत तांबशी फांकिल्ली. उठिल्ल्या दर एकल्याक हांव तें अजाप दाखयतालें. हळू हळू दीस फांकतालो तशी ती एक व्हड वास्तू म्हणपाचें समजलें.

सुर्यान दोळे उगडले आनी धुकें विरगळ्ळें. तेन्ना कळ्ळें तोच गोलघुमट. गोलघुमटाचें अशें मनभुलोवणें दर्शन आमकां सकाळ पाराच जालें आनी पुराय गोलघुमट पळोवपाची उमळशीक लागली.

अधिवेशन कुन्दगल, हनुमंत्रया रंगमंदिरांत आसलें. हॉल बरो फुलांनी सजयिल्लो. कर्नाटकी येवकार पद्दत आमकां थंय पळोवंक मेळ्ळी. कर्नाटकी संगिताचे सूर वाठाराक सोबा हाडटाले.

सकाळफुडेंच ग्रंथ दिंडी भायर सरली. दिंडे बरोबर विंगड विंगड वाठारांतल्यान आयिल्ल्यो कवयित्री. आमकां सगळ्यांक आपलो आपलो थळावो भेस घालूंक सांगिल्लो. आमी काठापदराच्यो साडयो न्हेसलीं. णववारी साडी न्हेसून इतलो वेळ रावप आमकां जावचें नासलें. आसामी, बंगाली, केरळी, राजस्थानी कवयित्री आपल्या थळाव्या भेसांत आनी रंगी-बिरंगी वस्तींनी नटून-थटून आयिल्ल्यो.

बिजापूरचे लोककला पंगड लोकनृत्यां सादर करीत येताले. आमच्या घोडेमोडणे भशेन घोडे घेवन कांय जाण नाचताले जाल्यार कांय जाण मोराच्या आराखड्या मदीं रावन नाचताले. वांगडा बिजापूरी बँडपथकय आशिल्लें. ही मिरवणूक रंगमंदिरा कडेन पावतकच फुलां उडोवन आनी आरत दाखोवन येवकार दिलो.

येवकार सुवाळो जालो. परिसंवादय जालो. जेवणा उपरांत दक्षीण भारतीय कवयित्री संमेलन आसलें. तामीळ आनी कन्नड कविता आमच्या तकले वयल्यान. हॉलांत बसून झेम काडचे परस आमी

गोलघुमट पळोवन येवपाचें थारायलें. थंयच्यान गोलघुमट लागींच आसा अशें थंयच्या लोकांनी सांगलें.

आमी सगळीं सात जाणां. थंय व्हडल्यो रिक्षा चड. एकाच वांगडा वचूंक मेळटलें म्हणून आमी प्रत्येक वेळार व्हडलीच रिक्षा करतालीं. बिजापूर तशें बरेंच सवाय शार. रिक्षा भाडेंय बरेंच सवाय. (तशें गोंय सोडल्यार सगळे कडेन रिक्षा भाडें सवाय). हॉटेलांय बरींच सवाय हें आमकां मागीर हर्षान सांगलें.

आमी रिक्षा केली आनी गोलगुम्बज पळोवंक भायर सरलीं. हय, गोल गुम्बज. रिक्षाचालकान आमकां सांगलें गोलघुमटाक बिजापूरकार गोलगुम्बज म्हणटात म्हणून. तांचे भाशेंत घुमटाक गुम्बज म्हणटात खंय. वाटेर कितल्योश्योच उध्वस्त वास्तू दिसताल्यो. तांच्या बरे आशिल्ले रचने वयल्यान ते कोणा तरी सरदार-दरकाराचे वाडे आसतले हें कळून येतालें. रिक्षा चालकान आमकां सांगलें बिजापूर भर अश्यो कांय उध्वस्त कांय अर्दवट बऱ्यो अश्यो वास्तू आसात. तातूंतले कांय थडग्यांचेर बांदिल्ल्यो सोबीत सुंदर वास्तू जाल्यार कांय सरदार दरकारांचे वाडे. सगळें वातावरण उदास, इतिहासान भरिल्लें कशें दिसतालें. तशें बिजापूर इतिहासीक शार म्हणून प्रसिद्ध आसा. तशेंच इस्लामी स्थापत्य कले पासतय प्रसिद्ध आसा.

बिजापूर शाराचें खरें नांव बिजनहळ्ळी. चालुक्य राजांनी लडायेंत तें शार जिखलें. आपल्या विजयाचें प्रतीक म्हणून ताचें नांव तांणी विजयपूर अशें दवरलें. तेंच मुखार विजयपूर वा बिजापूर म्हणून नामनेक पावलें. बिजापूर भीमा आनी कृष्णा न्हंया मदल्या ओसाड रेंवट आनी कमी पावसाच्या भागांत वसलां.

आमची रिक्षा गोलघुमटाच्या प्रवेशदारांत पावली. थंय भोवडेकारांची बरीच गर्दी आसली. आमी तिकेट काडून भितर गेलीं. हरशीं शाराच्या खंयच्याय भागांतल्यान पळयल्यार गोलघुमट दिसता. पूण हांगा तो खंयच दिसनासलो. एके व्हड बागेंतल्यान आमी चलत मुखार गेलीं.

मुखारच एक पोन्नकुटी लेव तांबड्या फातरांची इमारत आसली. थंयच आमकां कोणें तरी सांगलें, ही चौकोनी इमारतीचेर नगारखानो आशिल्लो खंय. आतां ताचें वस्तू संग्रहालय केलां. तातूंत पयलींचीं नाणीं, तलवारी, आवंतां, चीनी पर्सेलीनी आयदनां, पेंटींग, गालीचे, पड्डे, फातर पटे सगळें सगळें दवरलां खंय. हें वस्तूसंग्रहालय सामकें पळोवपा सारकेंच. पयलींच्या बादशहांनी वापरिल्ल्यो वस्तूय थंय पळोवंक मेळटात. पूण ते दीस तें बंद आसलो.

"आरेच्या! गोलघुमट खंय तर?" आमी थंयच उबीं रावन हेवटेन तेवटेन पळोवंक लागलीं. कोणें तरी आमकां सांगलें 'हे इमारती फाटल्यान गोलघुमट आसा.'

सोबीत शिल्पकलेन नटिल्ली ती इमारत भायल्यान तोखेत आमी मुखार गेलीं. फाटले वटेन मुखारच येदो व्हड गोलघुमट आसलो. लेव तांबड्या फातरांनी नटिल्लो. कोरीव कामान नटिल्ले व्हड कमानींतल्यान आमी भितर गेलीं. मुखारच अर्दगोल माथ्यार घेवन आकांत व्हड गोलघुमट उबो आसलो. दोशीं वटेन व्हडली बाग आनी मदल्यान गोलघुमटा कडेन वचपाक सोबीत वाट. मोगलांच्या खंयचेय वास्तू मुखार सोबीत बाग नासत जाल्यार अजाप. हांगाय तशीच सोबीत सुंदर बाग आसली. पाचव्याचार लॉनार भुरगीं खेळटालीं आनी घडये गोलघुमट पळोवन पुरो जाल्ले भोंवडकार विसव घेताले. कितलेच जाण कॅमेरा घेवन फोटो काडपांत गुल्ल जाल्ले. नूतनान आनी किरणानय आपले कॅमेरा भायर काडले. आमी सरभोंवतणची सोबाय तोखेत मुखार सरलीं.

गोलघुमटाची वास्तू तशी खास सुंदर ना. ताजमहालाची स्वर्गीय सोबीतकाय ताका ना, चारमिनाराची नाजूक सोबाय लेगीत ना. पूण ताची भव्यताय, आकांत व्हड शिल्प दोळ्यांत भरता आनी हें घुमटकाव्य आदिलशाही स्थापत्य कलेचो एक तेजस्वी असो हो कळसच म्हळ्यार जाता. नदर हालयनासतना पळयन दिसता. बरोच व्हड वाठार ताणें

व्यापला. भायल्यान पळोवपाक तो एक व्हड चौकोन. ताच्या चारय कोनशांक सात-सात माळयांचे अश्टकोनी मिनार. चारय वण्टींचेर सोबीत नक्षकामान नटिल्ली गराद आनी मदीं अर्द गोलाकार घुमट. त्या गरादी वयली कोरीव कांतयिल्ली नक्षी ताका खरी सोबाय हाडटा. गोलघुमटाचो आवाठ 205 चौखण फूट. शिल्पी सौंदर्यान समृद्ध आशिल्ली ही चौकोनी इमारत 183 मिटर लांबायेच्या व्हड चौथऱ्यार उबी आसा. हे इमारतीच्यो वण्टी 10 फूट दाट आसात आनी वण्टींची उंचाय 110 फूट आसा. आतांच्या काळांतल्या सादारण 20 मजली इमारती इतली ऊंच हो गोलघुमट आसा.

मुघल बादशहांनी ज्यो ज्यो आकांत व्हड आनी सोबीत वास्तू बांदल्यो ताचें वयलें कोरीवकाम, नक्षकाम खरें लाजवाब. फातरांतय इतले बारीकसाणीन इतले सोबीतकायेन तांणी नक्ष कोरांतल्यात, पळयतल्यांची तानभूक न्हिवची.

गोलघुमटाच्या मुखार रावन ताका तोखेवन आमी मुखार सरलीं. एका व्हड बऱ्या प्रवेशदारांतल्यान भोंवडेकार यो-वच करताले. भायरच जोतीं काडून ऊंच ऊंच आनी रूंद सोपणां चडून आमी प्रवेसदारा कडेन पावलीं. दाराच्या आर्काचेर सोबीत कोरीव काम आसलें. थंयच कोणें तरी सांगलें त्या नक्षा भितर कितें तरी बरयिल्लें आसा. त्या वळींचो अर्थ असो आसलो, ''हांगा महंम्मद आदिलशहा हांच्यो अस्थी आसात. ते मरणा उपरांत सर्गार गेल्यात आनी मळबांत एक नकेत्र जावन रावल्यात''.

भितर सरतनाच दिसता तो व्हड लांब रूंद चौक. ताची रुंदाय सादारण 18000 स्क्वॅ. फूट. खंयच वण्टीक खांबे नाशिल्ले. कसल्याच आदारा शिवाय इतले वयर येदो व्हड अर्दगोल घुमट उबारप हें वास्तूकलेंतलें अजाप. जगांतलो दुसऱ्या नंबराचो हो घुमट खंय. तकली वयर काडून ताची उंचाय पळयतना आमची मान दुखली. बरेच वयर वांटकुळे गॅलरींत मनशांचीं इल्लीं इल्लीं तोंडां दिसतालीं. दोनय

कुशीनचे वण्टींक गच्च सोबीत आर्काचीं जनेलां आसलीं. पूण भितर व्हडलोसो उजवाड नासलो.

दारांतल्यान भितर सरतनाच तीन कबरी दिसल्यो. एक महम्मद आदिलशहा हाची आनी दुसऱ्यो दोन ताच्या राणयांच्यो कबरी. ह्यो वयल्यो कबरी सोबेच्यो. खऱ्यो कबरी भितर तळघरांत आसात. ह्यो सोबेच्यो कबरीय सुंदर नक्षकामान नटयिल्ल्यो. तांच्या भायरूच तांचे विशीं माहिती सांगपी तकटे आनी चित्रां आशिल्लीं.

महम्मद आदिलशहा हांणी 1627 ते 1655 ह्या काळांत हो गोलघुमट बांदून घेतलो. ते पासत ताणें स्थापत्य विशारद (आर्किटॅक्ट) मुद्दाम तुर्कस्थान आनी इराणांतल्यान हाडिल्ले खंय. इराणांतल्या मलिक संदल नांवाच्या वास्तूरचनाकारान ही वास्तू उबारली. बादशहान आपूण जितो आसतनाच मेले उपरांत आपल्याक हांगा पुरूंक आपली कबर बांदची म्हणून हो गोलघुमट बांदून घेतिल्लो. हे भव्य वास्तूवयल्यान फुडें जायत्या वास्तूविशारदांनी ताजमहाला सारक्यो वास्तू बांदल्यो.

मुघल बादशहांनी जायते शौक बाळगिले. तांची इतली रसीकताय म्हाका दिसता आनी खंयच्याच राजा-महाराजांनी दाखयली ना. तांची ही रसीकताय तरेकवार रुपान आमच्या मुखार आयजूय उबी आसा. भोंवडेकारांची मरनिजवण करता आनी अजापान तोंडांत बोटां घालूंक लायता. इतिहासाची गवाय दिवपी ह्यो अज्रंवर वास्तू काळाच्या चक्रार बरे तरेन उरच्यो इतली इत्सा.

हो जगांतलो दोन नंबरचो घुमट. एकाय खांब्याचो आदार ताका ना. हाचो घेर 38 मिटर. कबरीच्या चारय वटेन जमनीर फातरांच्यो व्हड व्हड थंड लादयो. मदीं मदीं जाळी आशिल्ले बुराक. ताच्या पोंदा हवेशीर तळघर आसा. ताका लागून खंय जमीन थंड उरता. कबरींच्या फाटले वटेन बरी व्हड आनी रूंद बरी माचीशी आशिल्ली. ती कित्या पासत तें आमकां कळ्ळें ना. धडये नमाज पडपाक जायत

असो आमी तर्क केलो. मुखेल दारावरी दाव्या आनी उजव्या वण्टीक कमान आशिल्लीं व्हड दारां आसलीं. तीं बंद आसलीं. ताचे भोंवतणीं गच्च जनेलां.

चारय कोनशांक आशिल्ल्या मिनारांतच वयर चडपाक 161 सोपणांचे वाटकुळे जिने आसात. मिनाराच्या प्रत्येक मजल्यार नक्षीदार कमानीचीं जनेलां आसात. खरें म्हळ्यार दोन मिनारांतल्यान वयर चडप आनी दोन मिनारांतल्यान सकयल देंवप खंय. पूण शिस्तीन खंयचेंय काम करप मनीससभावांतच बसना. वचत थंय शिपाय आसले. पूण तांची नदर चुकोवन लोक जाय तशे फिरताले. आमचे वांगडचीं दोग तीग जाणां सोपणां चडूंक त्रास जातात म्हणून सकयल बसलीं. हांव अपर्णा, किरण आनी मेधा आमी चवगांनीय थारायलें, "पांय दुखल्यार तेल लावया, पूण वयर चडून वयली खरी सोबाय पळोवपच."

खरो गोलघुमट पळोचो तो वयर वचूनच. ना जाल्यार पुराय गोलघुमट पळोवपाची खोस मेळना. आवाजाच्या प्रतिध्वनीचो खेळ अणभवतलीं जाल्यार सात मजले वयर चडूंकच जाय.

वयर चडपाचीं सोपणां म्हळ्यार 'बाबा रे! म्हज्या!" सादारण दोन दोन फूट उंचायेचीं पाशाणी सोपणां. तिंवय भोंवडेकारांनी माडोवन माडोवन सुळसुळीतशीं जाल्लीं. साडी न्हेसून चडप तर महाकठीण. हांवें जाल्यार लज भीड सोडून सरळ साडी खोयली, आनी हाता-पांयांनी वयर चडूंक लागलें. एक मजलो जालो काय थोडो मेकळो जागो. भोंवतणीं गरादीक काचेचीं दारां. वारेंय भरपूर येतालें आनी भायलें सौंदर्यय पळोवंक मेळटालें. राखणदारांक बसूंक थंय कदेलां आनी फातराचे बांकय आसले. ताचेर बसून मातसो विसव घेवनय कांय जाण मुखार वताले. आमीय असो विसव घेत घेत 161 सोपणां चडून खर्शेत धांपेत भायले गॅलरींत पावलीं.

थंयच्यान सादारण पुराय बिजापूर दिसतालें. एके नदरेन बिजापूरचें

सौंदर्य तोखेत आमी मुखार सरलीं. गॅलरीक सोबीत नक्षीकामान नटयिल्लीं जनेलां कशीं आशिल्लीं. तातूंतल्यान आमी सकयल पळयलें. थंयचीं मनशां खेळण्यांतलीं बावलीं कशीं दिसतालीं. नूतन बागेंत फोटो काडटालें. ताणें झूम लेन्सी वयल्यान त्या कुरकूट कश्या जनेलांत राविल्ले कडेन आमचे फोटो काडले.

आनी पांच-स सोपणां चडून आमी गोलघुमटाच्या भितर गेलीं. भितर रूंद बरी गॅलरी आशिल्ली. हीच ती प्रतिध्वनी काडपी प्रसिद्ध गॅलरी. थंय व्हडान आवाज केल्यार धा खेपे ताचो प्रतिध्वनी आयकूंक येता. ही भुमितीशास्त्राची करामत. एके तरेचें अजापच. हें शास्त्र त्या काळार तुर्की शाळांनी विद्यार्थ्यांक शिकयतालीं खंय. हे गॅलरींत लोकांचो बोवाळ चलिल्लो. लोक प्रतिध्वनी आयकुपाक व्हडान उले मारतालीं. ताचो धा धा फावटीं प्रतिध्वनी येतालो. म्हणून थंय कचकच जाल्लो. तातूंत आमीय आवाज केलो. आमच्या आवाजाचो प्रतिध्वनी आमकां कळ्ळोच ना. वयल्यान सकयल पळयल्यार तिनय कबरी आनी इल्ले इल्ले बावली कशे लोक दिसताले. हे गॅलरीची आनीक एक खासीयत आसा. हिका कुजबूज गॅलरीय म्हणटात. एकट्यान हेवटचे वण्टीक तोंड करून हळूच उलोवचें, ताचे समोरचे वण्टीक दुसऱ्यान कान लावचो. ताका सगळें आयकूंक येता खंय, अशें आयकल्लें. मदीं सादारण 37 मिटरांचें अंतर. आमीय तो प्रयोग करून पळयलो. पूण लोकांच्या गजबजाटांत आमकां कांयच आयकूंक आयलें ना. ती गॅलरी बरीच व्हड आसली तरी एक भोंवताडो घेवन आमी दुसऱ्या मिनारांतल्यान सकयल देंवलीं.

वयर चडप सोंपें, सकयल देंवप कठीण हाचो अणभव आमकां आयलो. पयलीं वयर चडून पांय दुखिल्ले. आतां देंवतना पांय कडकडपाक लागले.

पुरो जाल्लें खरें, पूण एक अप्रतीम अजापाची अशी वास्तू पळयिल्ल्याचें समाधान मेळ्ळें. शास्त्राच्या आदारान बांदिल्ल्यो ह्यो

अजापाच्यो वास्तू म्हळ्यार त्या काळाच्या स्थापत्यशास्त्राची मूक गवाय जावन आसात. ह्यो अश्यो अप्रतीम वास्तू बांदून घेवपी कल्पक अशे बादशहा एक मात वायट काम करताले. परत त्या कलाकारांनी अशी वास्तू दुसरे कडेन खंयच बांदूं नये म्हणून त्या कलाकारांच्या हाताचीं बोटां कातरून उडयताले खंय. हिवूय वास्तू बांदतकच कलाकारांची तीच गत केली अशें लोक सांगतात.

गोलघुमट पळोवन ताकतिकेन आमी हॉलार आयलीं. रातच्यो वेगवेगळ्या राज्यांतल्यान आयिल्ल्या लोकांच्यो कार्यावळी आशिल्ल्यो. आमीय 'हांव सायबा पलतडीं वयतां.' हें लोकगीत सादर केलें. ल्हान भुरगीं धरून व्हड व्हड विदुषी बायलांनी आपली कला माचयेर सादर केली.

दुसऱ्या दिसा दनपारच्या जेवणा उपरांत आमी आनीक थोडें बिजापूर पळोवपाचें थारायलें. व्हडली रिक्षा थारावन आमी चालकाक सांगलें, ''हांगच्यान लागीं लागीं आशिल्लीं प्रेक्षणीय थळां आमकां दाखोवन हाडपाचें.' हांगा एक बरें बिजापूरची राजभास कन्नड खरी, पूण मराठीय बऱ्याच जाणांक कळटा. ताका लागून आमका बरें जालें. ना जाल्यार उलोवपाची मक्तेदारी फकत मेधा कडेन वतली आसली. आमकां रिक्षा चालक मराठी जाणा जाल्लोच मेळिल्लो. तो मार्गदर्शकाचेंय काम बरे तरेन करतालो.

शाराचो चकचकीत भाग सोडून रिक्षा पोन्नकुट्या भागांतल्यान वचूंक लागली. धुल्ल तर थंय सगळे कडेन आशिल्लोच. आतां रस्तोच खड्डाळ, फोंडकुलांनी भरिल्लो. रिक्षा केन्ना फोंडांत पडटाली तर केन्ना फातरां वयल्यान गडगडत वताली. मदीं मदीं तर पाळणींतले अरूंद रस्ते. तांचेर दुकाननांतल्या सामानाची गर्दी आनी लोकांचीय गर्दी. तें थोडें म्हळ्यार आतां वचत थंय रेब्याचीं कोंडां आनी दुकरां भोंवतना दिसतालीं. तातूंतल्यानच शेंबडीं बुरशीं भुरगीं सुसेगाद खेळटालीं. थंय आशिल्ल्या अर्द उगड्यार आशिल्ल्या हॉटेलांनीय

लोकांची गर्दी. जशें कितें तांकां भोंवतणचे घाणीचें कांयच पडून वचूंक नासलें. आमचो जीव अपकेलो.

इतल्यांत आमची रिक्षा एका व्होल्तार कशी थांबली. रिक्षावाल्यान सांगलें, ''उजवे वटेन बारकमान आसा ती पळोवन येयात.''

दुसऱ्या अली रोजान गोलघुमटा परसय व्हड आनीक सोबीत वास्तू आपली कबर म्हणून बांदपाच्या हेतान ही वास्तू बांदूंक सुरवात केली. पूण वायट नशिबान म्हणया एक सोबीत कलाकृती घडटां घडटां अर्दकुटीच उरली. ते अर्दकुटे वास्तूंतल्यान सौंदर्याची झलक आमकां मेळटा. दुसरो अली रोजा ही वास्तू पुराय करून घेवचे पयलींच मेलो. ताका लागून ताच्या मरणा उपरांत कोणेंच ती वास्तू पूर्ण करून घेतली ना.

थंय वचपाक आमी सकयल देंवलीं. सकयल रस्तो कसो नाशिल्लोच. फातर-गुंड्यांनी भरिल्लो खडबडीत जागो. तातूंतल्यान वाट काडीत नाकार हात धरून आमी मुखार गेलीं. मुखार एक खांब्या खांब्यांची व्हड बरी वास्तू उबी आसली. देड मनशाच्या उंचाये येदो फातरांचो व्हड चौक आसलो. हो चौक 225 चौखण फूट आसा. हाचे वयल्यान ताची भव्यताय कळटा. ताचेर खांब्यांची आरास मांडिल्ली. ऊंच ऊंच धा-बारा सोपणां चडून आमी वयर गेलीं. वयर एके वळींत बारा बारा ऊंच बरे खांबे उबे आसले. हे खांबे सोबीत नक्षीदार कमानींनी जोडिल्ले.

मदीं मदीं एक-दोन वण्टीय आशिल्ल्यो. ह्या खांब्यांची रचना गणितांतलें अदीक आनी गुणाकार चिन्न एकार एक बसयतकच जी आकृती जाता तशी आसली. मदीं उबे स खांबे, आडवे स खांबे. चारय वटेन वळीन तिरकस खांबे. ह्या खांब्यांची मजा म्हळ्यार खंयच्यानय मेजात हे खांबे बाराच मेळटात. चारय कोनशांक आर्कांचें सोबीत चित्र तयार जालां. वयर खंयच छत ना. सकयल्या चौकाच्यो चारय वटो उगड्यो. वयल्यान सकयल पडपाचो भंय. अश्यो बिजापूर

शारांत जायत्यो अर्दकुट्यो वास्तू फिरतना आमकां दिसल्यात. ह्या बारकमानीचें बांदकाम इतलें गडगंज, इतलीं वर्सां उगड्यार वत-पावस खावनय बरे तरेन ते खांबे उबे आसात. ह्या पयल्या मजल्यार अली, ताची राणी आनी हेर इकरा जाणांच्यो कबरी आसात.

थंयच्यान आमी 'हुपली बुरूज' म्हळ्यार 'टेहळणी बुरूज' पळोवंक गेलीं. हाका 'उपळी बुरजूय' महणटात खंय. ह्या व्हड बुरूजाची पाशाणचीं ऊंच ऊंच चाळीशेक सोपणां चडून वयर वच्चें पडटा. ह्या बुरूजाची उंचाय सुमार 80 फूट आसा. शाराच्या मदींचसो हो बुरूज बांदला.

पयलो अदिलशहा आनी दुसरो इब्राहीम अदिलशहा हांचो सेनापती हैदरखानान 1584 वर्सा राज्याचे राखणे पासत हो बुरूज बांदलो. म्हणून ताका 'हैदर बुरूजय' म्हणटात. सध्या हो आत्महत्येचो जागो थारला. म्हणून ताचेर राखणदार दवरल्यात.

हो बुरूज टेळणी करपाक, पश्चिमे वटेन शत्रू येत म्हणून नदर दवरपाक जरी बांदिल्लो तरी आतां तो प्रसिद्ध आसा तो ताचेर वयर आशिल्ल्या व्हड दोन तोफां खातीर. बुरूजा भोंवतणीं अर्दगोलाकार आशिल्लीं सोपणां आमी खरशेत धांपेंत चडून वयर गेलीं. वयर लांबचे लांब दोन तोफो आसल्यो. तातूंतली एक 130 फूट जाल्यार दुसरी एकुणीस फूट लांब आसा. ह्यो सदां वरी एकाच ओतकामाच्यो न्हय. तांचीं चक्रां बिडाचीं. तीं चक्रां एकामेकांक जोडून तयार केल्यात. मदीं झेंड्याचो खांबो. सरभोंवतणीं वाटकुळी गराद बांदून काडल्या. थंयच्यान भोंवतणचो मनभुलोवणो देखाव दिसता. त्या तोफांचेर बसून आमी फोटो काडले. उगड्यार वत, पावस खायत त्यो तोफो थंय आसात. पूण त्यो केन्नाच कळमेनात खंय.

सकयल देंवतना अर्द्यार सुमार पावतकच बुरूजाचे एके वण्टीक दार दिसलें. ताचेर उर्दूंत काय फारशींत कितें तरी बरयिल्लें आसा. अक्षरां आतां झरल्यांत. तो बुरूज भितरल्यान पोकळ आसा खंय,

आनी तें दार तातूंत भितर देंवपाचें. पूण तें दार घट्ट बंद आसा. थळावे लोक समजतात तातूंत भितर आदिलशहाचो खजिनो आसा. ताची म्हायती त्या दारार बरयल्या. खरें कितें फट कितें कोण नकळ, पूण अशा इतिहासीक वास्तू भोंवतणीं आख्यायिकांचें जाळें आसता. तें बंद दार मात कोणाक उगडूंक येना खंय.

ह्या बुरूजा वयल्यान देंवन आमी मुखार गेलीं. रोखडीच आमची रिक्षा थांबली. थंय एक ल्हानशी दोंगुल्ली कशी आसली. परतय पंदरा वीस सोपणां चडोवन आमकां रिक्षा वाल्यान वयर व्हेलीं. थंय जगांतली सगळ्यांत व्हड मलिक-ए-मैदान उर्फ मुलूख मैदान तोफ आसली. ती अहमदनगरच्या सुलताना खातीर तयार केल्ली. ही तोफ म्हळ्यार प्राचीन धातूशास्त्रांतल्या प्रगत तांत्रीक ज्ञानाचो एक नमुनो. साडेचारशें वर्सां परस चड काळ साकून ती हांगा आसा. व्यास पांच फूट, 14 फूट लांबाय आनी 55 टन वजनाची ही तोफ अशें म्हणटात. सतराव्या शतकांत औरंगजेबान आदिलशहा कडल्यान बिजापूर जिखून घेतलें. अहमदनगरच्या विजयाचें प्रतीक म्हणून ही तोफ 400 बैल, धा हती आनी शेंकड्यांनी सैनिकां कडल्यान ओडून हाडल्या. तिचे खातीर शेरा बुर्ज (शेर गेट) हांगा खास दोंगुल्ली कशी माची करून ताचेर तिका दवरल्या. तिची भव्यताय पळोवन भोंवडेकार तोंडांत बोटां घालतात.

तोफेक आमी हात लायलो. ती थंडगार आसली. हीच तिची खासीयत. भर गिमांत लेगीत सरभोवतणचें वातावरण कितलेंय तापिल्लें आसूं ही तोफ थंडगारच आसता. आनी पावस, शीं, वत खावनय केन्नाच कळमेना. तशेंच तिचो रंग सकाळीं वेगळो आनी दनपारां वतांत वेगळो दिसता. आमी सांजवेळा पाविल्लीं. आतांचो रंग कसलो? हें विचारतकच रिक्षावालो हांसूंक लागलो.

बिजापूर हें फकत गोलघुमटा खातीरच प्रसिद्ध ना. तें घुमटांचें शार म्हणूनय प्रसिद्ध आसा. हांगाच्या कितल्याश्याच वास्तूंचेर ल्हान व्हड

घुमट आसात. पडझड जाल्ल्या वास्तूंचेरय घुमट कमानी दिसताल्यो, आनी ह्या शाराक घुमटांचें शार कित्याक म्हणटात तें कळटालें.

व्हड दोन घुमट आनी ल्हान ल्हान कितलेशेच घुमट आशिल्ल्या एके वास्तू मुखार आमची रिक्षा थांबली. आनी रिक्षावाल्यान सांगलें, "हो इब्राहीम रोजा, पळोवंक मातसो वेळ लागतलो. च्या बी पियेवन वतलीं जाल्यार वचात."

थंयची हळशीक पळोवन आमकां वीट आयिल्ली. पूण फिरून फिरून पुरोय जाल्लें. च्याचोय वेळ आशिल्ल्यान तातूंतले तातूंत निवळशा गाड्यार आमी गेलीं. काचेच्या ग्लासांतली च्या मात बरी रुचीक आसली.

च्या पियेवन व्हडल्या प्रवेशदारांतल्यान आमी भितर सरलीं. हांगा गाडयो पार्क करपाक व्हड जागो आसलो. मुखार ताजमहालाच्या भोंवतणीं आसा तशेंशें वातावरण. तिकेट घेवन आमी धा-पंदरा सोपणां देंवन सकयल आयलीं. मुखार व्हड बाग आसली. ती तोखेवंक आमकां वेळ नासलो. पूण मुखार वतां वतां जितली दिसली तितली आमी पळोवन घेतली. आमचे मुखार आशिल्ल्या मुखेल प्रवेशदारा भोंवतणीं फातराचें दुरीग. तातूंत ल्हान ल्हान घुमटेवरी आकार कोरांतिल्ले आनी तांचेर तरेकवार चित्रांय आसलीं. किल्ल्याच्या दारावरी गडगंज आनी नक्षकामान कोरांतिल्लें सोबीत प्रवेशदार. प्रवेशदाराच्या दोनय कुशींनी व्हडश्योच उगड्यो कुडीश्यो आसल्यो. थंय बसूंक फातराचे बांक आसले. पयलीं प्रवेशदारा भायर शिपाय उबे आसताले खंय. तांकां विसव घेवंक ह्यो कुडी आनी बांक आसले. दारा भायर आतां इब्राहीम रोजाची माहिती सांगपी फलक लायला. इराणचो स्थापत्य विशारद मलिक संदल हाणें ही वास्तू उबी केल्या.

प्रवेशदारांतल्यान भितर वतकच परत सोपणां चडून वयर वचप, वयर फातरांनी बांदिल्लें लांब-रूंद मळ कशें. मदीं मदीं कुंडां कशीं बांदून काडून सोबीत झाडां रोयल्यांत. मुखारच दोनय वटेन दोन व्हड

बऱ्यो सोबीत वास्तू दिसल्यो. तांचेर व्हड बरे घुमट. इब्राहीम रोजाची उंचाय 105 फूट आसून चार खांब्यांचेर ही उबी आसा. त्या वास्तूंच्या चारय कोनशांनी चार मिनार. तांचेरय ल्हान ल्हान घुमट. दोनय वास्तूंच्या मदीं उदक नाशिल्लें तळें. तळयेच्या मदीं कारंजें. पयलीं तातूंत उदक आसतालें खंय आनी कारंजें चालू आसतालें. तळयेच्या चारय वटेन वयल्यान सकयल मेरेन सोपणां बांदून काडल्यांत.

पयली दोनय इमारती आनी तळये भोंवतणीं दिव्यांची आरास करून वयर नाच-गाण्याच्यो कार्यावळी दवरताले. ती पळोवंक ह्या सोपणांचेर लोक बसताले खंय. तें दृश्य खरेंच मनभुलोवणें आसतलें हातूंत दुबाव ना.

ह्या दोनय वास्तूंतल्या दाव्या वटेंतल्या एके वास्तूंत कबरी आसात आनी उजवे वटेनच्या वास्तूंत मशीद. दोनय वास्तू सोबीत तितल्यो कलाकुसरीन भरिल्ल्यो. गोलघुमटाची भव्यताय जरी हांकां नासली तरी कलात्मकतेंत त्यो खंयच फाटीं नात. तांच्या जनेलाच्या कमानी वयलें नक्षकाम आनी जाळयो गोल घुमटा परसय जंयभर सोबीतच म्हळ्यार अतिताय जावची ना. हांगाच्या नक्षकारीत वचत थंय कमळां कोरांतल्यांत. दुसऱ्या इब्राहीम आदिलशहान आपली बेगम ताज सुलताना हिची कबर करपा पासत ही इमारत बांदिल्ली. पूण बादशहाक पयलीं मरण आयलें. ताका लागून ताचीच कबर थंय पयलीं बांदची पडली. म्हणून ताका इब्राहीम रोजा म्हणटात.

थंय सगळ्यो मेळून ल्हान व्हड स कबरी आसल्यो. एक खासा बादशहाची, एक ताची बायल ताज सुल्तानाची, एक ताचे आवयची आनी तीन ल्हान कबरी ताची धूव आनी दोन पूत हांची.

रोजाच्या मुखेलदारा मुखारच एक भव्य इमारत आसली ती मशीद. कमानी आनी चौकोनी खांब्यांचेर ती उबी आसा. थंय केल्ली प्रार्थना रोजाच्या दारांत उबो रावल्यार आयकूंक येता. अशे तरेन ताची रचना केल्या. पूण रोझा आनी मशीद हांचे मदले सुवातेंत खंयूय

रावल्यार प्रार्थना आयकूंक येना. रोझांतल्यान भायर सरून आमी मशिदींत गेलीं. ही इमारत उगडी. थंयची कलाकुसर पळोवन आमी भायर आयलीं. हांगा पोपटाचीं भिरींच हेवटेन तेवटेन उडटालीं. तांकां तोखेत आमी मुखार सरलीं.

आख्खो इब्राहीम रोझा फिरून पळोवंक आमचे कडेन वेळ नासलो. त्या दिसा ए.आय.पी.सी.चो पुरस्कार भेटवण सुवाळो आसलो. हर्षा शेटयेच्या कविता झेल्याक पुरस्कार फावो जाल्लो. तो पळोवंक वचपाची आमकां ताकतीक जाल्ली. आमी सडसडीत थंयच्यान भारय सरलीं.

वाटेर रिक्षा वाल्यान आमकां जोड घुमट दाखयलें. हे जोड घुमट म्हळ्यार म्हऱ्यांत म्हऱ्यांत बांदिल्ल्या दोन कबरींच्या इमारतीचे दोन घुमट. ते एकेच कडेन आशिल्ल्यान ताका जोड घुमट म्हणटात. हे खंय आदिलशहाचो सेनापती खान महम्मद आनी दिवाण खवास खान हांच्यो कबरी. तांचे कबरीचेर कलात्मक रितीन वयर घुमट आशिल्ल्यो वास्तू बांदल्यात. हे दोगूय खान बापूय-पूत इब्राहीम आदिलशहाचे आड औरंगजेबाक फितूर जाल्ल्यान औरंगजेब बिजापूर जिखूंक पावलो खंय. तांणी केल्ले फितूरेक लागून रागान आदिलशहान तांकां मारून उडयले. पूण औरंगजेबान तांची याद जिवी दवरूंक ह्यो जोड घुमटाच्यो कबरी बांदून घेतल्यो. हातूंतले एक चौकोनी जाल्यार दुसरो अष्टकोनी घुमट इतलोच फरक आसा. आमचे कडेन वेळ नाशिल्ल्यान आमी त्यो भितर वचून पळयल्यो नात. रिक्षा वाल्यान भायल्यानूच आमकां त्यो दाखयल्यो आनी तांची माहिती सांगली.

रिक्षावाल्यान आमकां सांगलें, थंय लागींच पळोवपा सारक्यो दोन बावडी आसात म्हणून. नांव बावडी, म्हळ्यार बांय, पूण प्रत्यक्षांत तीं दोनय व्हड तळीं खंय. एक ताज बावडी एक चांद बावडी. बादशहान आपल्या बेगमांचीं नांवां त्या बावडींक दवरिल्लीं. बिजापूराक जावपी उदकाचो उणाव भरून काडपाक ह्यो बावडी मुद्दाम बांदून घेतिल्ल्यो

खंय. तांचे भोंवतणीं दुरीग बांदून भितर कुडीय बांदिल्ल्यो खंय. पूण आमी म्हऱ्यांत वचून त्यो बावड्यो पळयल्यो नात.

रिक्षावाल्यान आमकां सांगलें, थंय 'मेहतर महाल' 'असर महाल' आनी 'गगन महाल' नांवाचे व्हड आनी उत्कृश्ठ अशा कलावैभवान नटिल्ले महाल आसात. असर म्हालाच्या मुखार तर उदकान तुडूंब भरिल्लें 31 फूट लांब आनी 27 फूट रूंद तळें आसा. जाका लागून म्हालाची सोबीतकाय वाडटा. ह्या म्हालाच्या प्रवेशदाराचेर आनी छताचेर भांगर आनी हस्तीदंताचें नक्षकाम आसलें. आतां मात छताचेर थोडीशी हस्तीदंती नक्ष उरल्या. भांगर चोरून व्हेलें. भांगराचे आशेन ताचीं दारां लेगीत चोरून व्हेलीं. ह्या महालाक पवित्र मानतात कारण तातूंत खंय तरी महम्मद पैगंबराच्या खाडाचो केंस दवरला खंय. म्हणून भितर बायलांक प्रवेश ना. आमी भायल्यानूच ती इमारत पळयली.

गगन म्हालांत आम जनतेक बसपा पासत आकांत व्हड लोक सभाघर आसलें. ह्या म्हाला मुखार 70 फूट उंचायेची भव्य कमान आसा.

ह्या शारांत खूबच मशिदी वचत थंय आसात. पूण त्या सगळ्या मशिदींची राणी म्हणूं येता अशी मशीद म्हळ्यार जामा मशीद, वा जुम्मा मशीद. सुमार अडेज हजार मनीस एका बरोबर हांगा नमाज पढटात. पयल्या अली आदिलशहान ही भव्य मशीद बांदून घेतली. हे आयातावरी मशिदीची पूर्व-पश्चीम लांबाय 450 फूट जाल्यार दक्षीण उत्तर रुंदी 225 फूट. सोबीत कलाकारीन नटिल्ले हे मशिदीक एकूण 45 कलात्मकतायेन नटिल्ल्यो कमानी आसात.

मशिदींत मूर्त नासता, मुखार एक व्हड वणत आसता. तिचेर मखमली पड्डो सोडटात. भितर वण्टीर भांगराच्या अक्षरांनी कुराणांतलीं वचनां आसात. वास्तूकलेचे नदरेन पळयल्यार आदिलशाहींतल्या वेगळ्या वास्तूकलेचो ठसो मशिदीचे वास्तूचेर दिसता.

वतां वतां वाटेर मदींच रिक्षवाल्यान रिक्षा थांबयली. थंय पांच

मजली सुमार इमारत आसली. पूण तिचें नांव सात मजली. कारण तिका पयलीं सात मजले आसले. जे मोडून गेल्यात. हे उरिल्ले इमारतीची उंचाय 97 फूट. तिचो उपेग टेहळणी बुरूज म्हणून करताले खंय. अश्यो जायत्यो मोडिल्ल्यो, अर्दवट उब्यो आशिल्ल्यो वास्तू आमकां वाटभर दिसताल्यो. चडश्यो बादशहांनी आपल्या थड्यां पासत बांदिल्ल्यो ह्यो वास्तू. बिजापूर शाराक थड्यांचें शार म्हळ्यारूय अतिताय जावची ना.

तशें बिजापूरांत पळोवपा सारकें आनीक जायतें कितें आसलें. रिक्षावालो आमकां थंयची म्हायती सांगून व्हरून दाखयता म्हणून फाटीक लागिल्लो. पूण आमी संमेलनाक आयिल्लीं. आमचे कडेन चड वेळ नासलो. मदीं मदीं मेळिल्ल्या वेळांत आमी बिजापूर पळयतालीं. उरिल्लें बिजापूर पळोवंक आमी दुसऱ्या वेळार येतात अशें सांगून आमी हॉलार आयलीं.

निमणें दिसा आमकां कळ्ळें, हॉला कडल्यान लागींच लिंगद म्हणून पळोवपा सारकें ठिकाण आसा. आमचें कविता वाचन जातकूच कन्नड कवितांचें सत्र आसलें. तीच संदी घेवन आमी लिंगद पळोवन बाजारूय मात्सो करया अशें थारावन भायर सरलीं.

मॅडिकल कॉलेजीच्या वाठारांतलें हें म्हादेवाचें लिंगाच्या आकाराचें देवूळ. लिंगाची पिंडिका कसो देवळाचो आकार. आनी देवळाच्या घुमटाचो आकार मदल्या लिंगावरी. भितरूय मदीं म्हादेवाची म्हूर्त आनी भोंवतणीं सोपणां सोपणांची पिंडिका. त्या सगळ्या सोपणांचेर ल्हान ल्हान अशीं एकूण मेळून 72 लिंगां आसलीं. देवाक पांयां पडून आमी भायर सरलीं. भोंवतणीं ल्हानशीच बाग आसली. थंय आनिकूय एक देवूळ आशिल्लें. थंयूय पांयां पडून आमी रिक्षांत बसलीं.

बाजारांत चडश्यो मिरसांगाच्योच राशी दिसताल्यो. थंय सगळ्या तरेच्या गोड आनी तिखट लोणच्याचीं दुकानां आसलीं. थंयची ती खासीयत खंय. थंय थोडीशी खरेदी करून आमी हॉलार आयलीं. ❑

# पाशाणाच्या गांवांत, भाताच्या शेतांत

**त्या** दिसा आमी कांचनागेर जमिल्लीं. तेन्ना सुरजान म्हळें, ''हे सुटयेंत आमी तीन दिसां पासत खंयूय तरी या.'' तें आयकले बराबर विवेकान म्हळें, ''आमी हंपी या.'' आमी सगळ्यांनी हयकार दिलो.

दुसरे बसकेंत आमी तारखो थारायल्यो आनी कोण कोण वतलीं ताची वळेरी काडली. सुदेश पै हंपी टूर व्हरता म्हणपाचें विवेकाक कळ्ळें. ताचे कडेन उलोवन टूरा विशीं सगळें थारावपाची जबाबदारी विवेकान घेतली.

हांव 1982 वर्सा हंपी गेल्लें. त्या वेळार आमी सगळीं एका वाड्या वयलीं लोक एकठांय जावन मातादोर टॅम्पो घेवन फिरूंक वतालीं. भो. दामोदर कामत मूळ कर्नाटकांतलो, टुराची सगळी जबाबदारी तो घेतालो. आनी हांव ताचे वांगडा हेर सगळीं कामां करतालें. हें हांवें सुरवेकच सांगलां. तो अणभव म्हाका आतां खंयूय वतना उपकारा पडटा. आमी तिरुपती वतना वाटेर हॉस्पेट राविल्लीं. तेन्ना आमकां हंपी व्हरून विरूपाक्षाचें देवूळ दाखयिल्लें. त्या वेळार पुरातत्व खातें थंय खणपाचें काम करतालें. आनीकय वाडे, देवळां, जमनी पोंदा पुरवल्लीं आसात. तिंवूय खणून काडपाचें काम चालू आसा म्हणून आमकां कोणें तरी सांगलें.

ते उपरांत कितल्याच वेळा हंपी वचून 'ती विसरायेच्या पड्ड्या आड गेल्ली उध्वस्त राजनगरी' पळोवची अशी इत्सा जाताली,

पूण योग जुळून येनासलो. हालींच ते नागरी विशीं दोन-तीन लेखय वाचिल्ले. तेन्नाच्यान केन्ना त्या पाशाणाच्या गांवांत वतलें अशें म्हाका जाल्लें. तो योग अंदू आयलो.

आयतार दीस फांतोडेर आमी आनी मेधा साडेपांच वरांचेर सुमार विवेकागेर आयलीं. थोड्या वेळान सुदेश बस घेवन आयलो. मागीर प्रत्येकाक घेत घेत आमचो प्रवास सुरू जालो.

सक्काळीं भायर सरिल्ल्यान णव वरा जाता म्हणसर आमकां भूक लागली. आमी रामनगरींत च्या पियेवंक रावलीं. पोट भरतकूच आमच्या गजालींक नेट आयलो. सैमाचीं तरेकवार रुपां दाखयत आमची बस मुखार वताली. देडाक सुमार आमी गदग पावलीं. थंय बरीं हॉटेलां आसात म्हणून सुदेशान आमकां जेवंक रावयिल्लीं. जेवन आमी मुखावेली वाट धरली. आतां वाटभर तरेकवार लांबचे लांब काळे मातयेंत पसवल्लीं शेतां आमकां सांगात दिताली. गदगा उपरांत चडशीं सूर्य फुलांचींच शेतां दिसतालीं. लांबचे लांब हळडुवोच गालीचो पातळिल्ले वरी. कांय कडेन बाजरी आनी मक्याचींय शेतां आसलीं. कांय कडेन बाजरीचीं बोणां जाल्यार कांय कडेन बाजरी रस्त्याचे कडेन सुकत घाल्ली. गोंयांतूय पयलीं रस्त्यांच्या कडेक हातरपटे घालून भात सुकत घाल्लें दिश्टी पडटालें. पूण आतां गोंयच्या शेतांनी बिल्डिंगो उब्यो जाल्यात आनी रस्त्यार प्लास्टिकाचो आनी हेर कोयर सुकत घाल्लो दिश्टी पडटा.

गदग उपरांत कोप्पळ गांव आयलो. आतां हळू हळू दोंगर दिसूंक सुरवात जाली. मदींच एके कडेन भरपूर पावनचक्क्योय दिसल्यो. कोप्पळ गांव हुपतकच तर पाशाणांनी भरिल्ले दोगर. व्हड व्हड धवश्या-हळडुव्याश्या रंगाचे पाशाण. हे बरेच घट्ट पाशाण खंय. सुदेश सांगतालो. हांगा खंयच काळो पाशाण दिश्टी पडलो ना. ह्या ल्हान व्हड तरेकवार आकार घेतिल्ल्या पाशाणां मदीं भाताच्या कणसांनी गच्च भरिल्लीं शेतां धोलतालीं. आमकां सुदेशान सांगलें,



गंगावती आनी ह्या सरभोंवतणच्या गांवांनी भाताचें भरपूर पीक घेतात म्हणून. एक-दोनच न्हय तर तीन-तीन पिकां हांगा घेतात खंय. म्हणून ह्या वाठाराक 'Rice Bowl of Karnatak' अशें म्हणटात खंय.

मुखार वचत थंय पाशाणी दोंगराच्या सांगातान चडशीं भाताचीं शेतां दिसतालीं. खंय कापणी चलिल्ली, खंय मळणी. खंय रस्त्यार भात सुकत घाल्लें, ताका चाळो मारतालीं. जाल्यार खंय खंय निकतेच लायिल्ले भाताचे थाम पांय पोंदच्या उदकांत बुचबुचायत वाऱ्यार धोलताले. हीं दृश्यां पळोवन आमचो जीव धादोस जालो. वेगळ्यो वेगळ्यो सया आशिल्लो शेताचो पाचवो रंग तोखेवपाची म्हाका आवड. म्हजी तिवूय इत्सा हांगा पुराय जाली. हालीं तेंपार अशीं गच्च भरिल्लीं भाताचीं शेतां दिसप गोंयांत तरी कमीच जालां.

हे पाशाणांनी भरिल्ले अजापाचे दोंगर हांवें पयलीं हॉस्पेट वतना पळयिल्ले. ते परत पळोवचेली म्हाका उमळशीक लागिल्ली. ह्या दोंगरा वयले पाशाण कोणें तरी मुद्दाम मांडून दवरिल्ले वरी. एका ल्हान फातराचेर व्हडलें तळप लोडेलां, जाल्यार कांय तळपां एकामेकाचेर सुण्या पेटे मान आडवी घालून न्हिदल्यातशे. पयलीं आमी पुरुमेंताच्या जळवांत लाकडां दाळून दवरतालीं तशे कांय फातर दाळून दवरिल्ले वरी. कांय पाशाण लगोऱ्यो कश्यो एकार एक सात-आठ, जाल्यार कांय कडेन धा-बारा लेगीत दाळून दवरिल्ले. आमचे मदल्या एकट्यान म्हळें, "शेर्त ह्यो लगोऱ्यो आनी पाशाणाचोच बोल घेवन राकेस लगोऱ्यो खेळटात आसतले." कांय पाशाण हती, रेडे, गेंडे हांचे वरी दिसपी. जाल्यार कांय पाशाण मानगें अजगर पातळून बशिल्लेवरी. तिनय दिसांच्या प्रवासांत हीं पाशाणाचीं वेगवेगळीं रुपां आमी पळयलीं. एके कडेन तर सारकी पणटी कशें एक व्हड तळप आनी ताचे एके वटेन ल्हान उबोसो फातर, जोत कशी दिसतालो.

हो फातरांचो खेळ म्हळ्यार निसर्गाचो एक चमत्कारच. कोप्पळ जातकीर मुखार सगळे गांव हे पाशाणी दोंगराचे गांव खंय. मदली

जी जमीन आसा ती सामकी सुपीक. म्हणून थंय भाताचें भरपूर पीक काडटात आनी ताका भाताची कोठये कूडय म्हणटात.

ह्या व्हड व्हड पाशाणां मदीं बारीक बारीक पाशाणी फातर हेवटेन तेवटेन पडिल्ले. तांचे विशीं हांवें एके कडेन आख्यायिका वाचिल्ली. ही खंय पयलींची किष्कींद नगरी. म्हळ्यार वाली सुग्रीवाचें राज्य. रामान वाली कडेन युद्ध केलें तेन्ना दोनयवटच्या वानर सेनेन हे फातर उखलून एकामेकांचेर मारिल्ले. म्हणून ते हांगाथंय अशे पडल्यात. कशेंय जावं ह्या पाशाणाच्या गांवांत भात, केळीं हांचें जशें पीक घेतात, तशे आधुनीकतायेन तें नटयलां. रस्ते, गांव, शार, बाजारपेठो थंय आसात. वाटेर आमकां फॅक्टरीय दिशिल्ल्यो. तुंगभद्रा न्हंयचेरे धरण जायत सावन हांगा सुदारणेचें वारें व्हांवता खंय.

राजस्थानांतल्या अबू पर्वताचेरूय आमी व्हड व्हड काळ्या पाशाणांचो हांगचे परस वेगळो खेळ पळयल्लो. थंयच्या पाशाणाचेर कोणें तरी कोरांतून काडिल्लेवरी ल्हान-व्हड घोली आसल्यो. पूण हांगा दोन ल्हान पाशाणांचेर व्हड पाशाण पातळिल्लो आनी ताचे पोंदा घोल तयार जाल्ली. अश्यो जायत्यो ल्हान-व्हड घोली थंय तयार जाल्ल्यो. तातूंत लोक रावताले. ह्या पाशाणांच्याय मदीं मदीं लोकांचीं घरां आसलीं. तें पळोवन आमकां बेठोच कलकलोसो आयलो. गोंयांत पावसा दिसांनी जायते वेळार दोंगरा वयले पाशाण सलयक गडगडून येतात हें आमी आयकल्लें. तशें हांगाय देंवले जाल्यार घरां तर मोडटलींच पूण भितरल्या मनशांची चटणी जावन वतली. खंयच्या धिरान तीं थंय रावतात कोण जाणा.

पावसा दिसांनी ह्या प्रत्येक पाशाणा वयल्यान घोगे पडटात खंय आनी तें दृश्य पळोवपा सारकेंच आसता खंय.

ह्या पाशाणाच्या गांवांत जशीं वचत थंय भाताचीं शेतां दिसतालीं, तश्योच केळीच्यो बागोय आसल्यो. कांय केळीं घडायांनी जडावल्ल्यो, कांय जाणाच्या तोंडांत उगरमेळीं बोंडां जाल्यार कांय केळीं गच्च

मोक्यांक वेंगावन बशिल्ल्यो दिसताल्यो.

आमी साडे पांचांक सुमार गंगावती गांवांत पावलीं. हॉटेलांत आमच्या आमच्या रुमांनी सामान दवरून हात पांय धुवन च्या पिवंक बसलीं. हवेंत मातसो शेळावसो आसलो. रुमार वग्गी बसून गजाली करचे परस भायर पासय मारून येवया अशें थारावन आमी सगळीं बायलां आनी भुरगीं भायर सरलीं. मेधान हॉटेलाच्या कावंटरार वचून लागीं पळोवपा सारकें कितें आसा तें विचारून घेतलें. थंय आमकां कळ्ळें, बाजार लागींच आसा. ते भायर हॉटेलाक तेंकूनच निळकंठेश्वर म्हादेवाचें देवूळ आसा म्हणून.

आमी देवळांत पयलीं वचपाचें थारायलें. ह्या ल्हानशा देवळाच्या सुरवेक कोरांतिल्लो दरवंटो आसा आनी ताचेर गोपूर आसलो. देवळां ल्हान आसूं ना जाल्यार व्हड. तांच्या प्रवेशदाराचेर गोपूर आसप ही कर्नाटकाची खासीयत. हयाय दाराचेर चार मजली गोपूर आसलो. ताचेर सोबीत बऱ्यो देवदेवतांच्यो मुर्ती आशिल्ल्यो. देवूळ ल्हानशेंच, पूण भोंवतणचें आंगण बरेंच व्हड आसलें. आमी आनी एक प्रवेशदार हुपून भितर गेलीं. भितर एके कुशीन लग्न चलतालें. तांची गडबड पळयत देवळांत भितर सरलीं.

देवूळ संगमरवरी पाशाणाचें. निवळ आनी सोबीत. पयलो मंटप हुपून आमी भितर गेलीं. ह्याय दाराचेर बरी नक्ष असली. भितरल्या मंडपांत पितूळच्या दांड्यानी गर्भकुडीक धरून घांटी मेरेन आडवण केल्लें. कर्नाटकांतल्या देवळांची हीय एक खासीयत.गर्भकुडीच्या दारा मुखार रावन देवदर्शन केन्नाच घेवंक मेळना. ही पद्दत हालींसराक गोंयच्या कांय नव्या देवळांनीय आपणायल्या. ह्या आडवणा मदीं म्हादेवाच्या देवळांत नंदी आसता. पूण ह्या देवळांत थंय व्हड व्हड दिवल्यो ताटांत घालून दवरिल्ल्यो. आनी नंदी गर्भकुडींतच आसलो. व्हड बरो चकचकीत चांदीचो नंदी आनी ताचे मुखार चांदीचे पिंडीकेक म्हादेवाचें मुखें घाल्लें. ताचेर पांच फडांच्या चांदीच्या नागान छत्र

धरिल्लें. आमी पांयां पडून भायर आयलीं.

थंय लग्नाची निमणी कार्यावळ चालू आसली. न्हवरो-व्हंकलेक देवळांत व्हरतकर मेधान कन्नडान तांची चवकशी केली. तांच्यो कुडुकुडू करून गजाली सोंपतकच व्हंकलेचे आवयन आमकां अक्षता दिवन न्हवरो-व्हंकलेचेर घालूंक लायल्यो. मागीर थंयच मांडिल्लें रुखवत म्हळ्यार देणें पळोवंक सांगलें. देण्यांत सदचे वरी सगळ्यो वस्तू आसल्यो. ते भायर रंगीत पात्यांचो फराळ आसलो. तातूंत नेवऱ्यो धरून कितलेच पदार्थ आसले शिवाय लाडू बी अशाय खाणांचे डबे उगडून दवरिल्ले. तातूंत एक खास नग आसलो. तो म्हळ्यार धव्याफुल्ल शेवयांची लांब बरी विणी घालून दवरिल्ली. तिका सकयल बरें क्लीप लायिल्लें. शेवयांची विणी केली कशी? आमकां अजाप. मेधान तांकां विचारलें. शेवयो ओल्यो आसतनाच तांची अळंग विणी घाल्ली खंय.

थंयच्यान आमी मुखार आयलीं. ह्या मंडपांत दोनय वटेन बायलो आनी चलयो हातांतले तबकडेंत पणट्यो आनी देव पुजेचें सामान घेवन आसल्यो. पणट्यो पेटोवन एके वळीन दवरताल्यो. तुळशीच्या भोंवतणच्या पेडार एक लोखंडी स्टॅण्ड आसलो. ताका सरयांचीं फुलां आसलीं आनी त्या फुलां मदीं पणट्यो. ह्यो बायलो त्या पणट्यांनी तेल वात घालून पेटयताल्यो. आनी प्रसाद म्हणून चिरमुल्यो वांट्टाल्यो. मेधान आमकां सांगलें, चड करून कार्तिकांतल्या सश्टी दिसा ना जाल्यार कोजागिरी पोर्णिमे मेरेन कर्नाटकांतल्या चडशा देवळांनी असो दिपोत्सव करतात खंय. कोणें तरी सांगलें आमच्या गोंयांतय जायत्या देवळांनी वेगळे भशेन दिपोत्सव करतात खंय. कांय कडेन दोण्यांत फुलां आनी मदीं पेटयिल्ली पणटी दवरून उदकांतय सोडटात खंय.

थंयच्यान आमी भायर आयलीं. भायर मात्शें पेल्यान एके चिंचेवरी बारीक पानांच्या झाडाक पेड बांदिल्लें. ताच्या खोडाक पाचवी साडी गुठलायिल्ली. झाडाच्या खांद्यांक पाचवी कांकणां बांदिल्लीं. फुलां

घाल्ली आनी ती पार्वती म्हणून तिची बायलो पुजा करताल्यो.

मागीर आमी बाजारांतल्यान पासय मारली. घेवपा सारकें व्हडलेंशें कांयच नासलें. एका चांदीच्या दुकानांत कोंकणी उलोवपी नार्वेकार म्हणून मेळ्ळे. तांचे कडेन थंयची चवकशी करून ताका बारीकशें गिरायक घालून आमी भायर सरलीं.

शिंयांचो कुडकुडो वाडिल्लो. आमी वतना शाल बी कांय व्हरूंक नासली. बेग्गीन हॉटेलांत येवन गरम उदकान हातपांय धुवन शाल गुठलावन बसलीं.

त्या हॉटेलांत मासाहारी जेवण तेर्रासार वाडतात खंय. शिंयाचो बंदोबस्त करून आमी वयर आयलीं. सुरवेक तांणी आमकां बऱ्याच व्हड तळिल्ल्या पापडाचेर कोशंबीर घालून दिली. कुरकुरीत पापडा वांगडा कोशंबीर खावंक बरी मजा आयली. मागीर भुतां-देंवचाराच्यो गजाली तोंडाक लावन गरम गरम चिकन आनी फ्रायडरायसाचेर आमी ताव मारलो.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं उठून नाश्तो घेवन आमी हंपी वचूंक भायर सरलीं. हंपी वचपाचो बेत करत सावन पयलीं वाचिल्लो हंपीचो इतिहास म्हज्या दोळ्यां मुखार घुंवतालो.

हंपी बेल्लारी जिल्ल्यांतल्या हॉस्पेट तालुक्यांत आसा. सध्या हॉस्पेट एक बरें शार जालां. खंयच्यानय हंपी वतलीं जाल्यार हॉस्पेटच्यान वच्चें पडटा. थंय हॉटेलांय बरीं आसात. पूण आमकां मात सुदेशान गंगावतीक दवरिल्लीं.

हंपी म्हळ्यार यादवाचें इतिहास प्रसिद्ध विजयनगर. बारावो शेंकडो तो चवदा-पंदराव्या शेंकड्या मेरेन दक्षिणेंतल्या हया वाठाराचेर राज्य करपी हरिहर आनी बुक्कराय ह्या भावांचें धनसंपत्तीन उपाट भरिल्लें बलाढ्य अशें साम्राज्य. एका परस एक श्रेश्ठ नररत्नांक जल्म दिवपी साम्राज्य. इतिहासाच्या पानापानार स्वकर्तृत्वाचीं लेणी कोरांतून दवरपी अशें हें साम्राज्य. हिंदुस्थानांत त्या वेळार मुघलांचो हुंवार

आयिल्लो. वचत थंय ते देवळांची तोडफोड, कापाकापी, रक्तखेव आनी धनसंपत्तीची लूट करताले. उत्तर भारतांत आसो आकांत व्हड प्रमाणांत चलतालो. तेन्ना दक्षिणेंत हें एकसुरें हिंदू राज्य हिंदू संस्कृतीचो उत्कर्श सादत आसलें.

उत्तर दिकेन तुंगभद्रा ही आकांत व्हड न्हंय आनी तिनूय वटेन पाशाणांचें सैमीक आडवण. तांचे मदीं हें विजयनगरचें साम्राज्य गडगडटालें. पूर्व-पश्चीम आठ मैल आनी दक्षीण-उत्तर आठ मैल अशा चौकोनी वाठारांत हें नगर आसलें. ह्या पुराय नगराच्या भोंवतणीं सात तटबंदी म्हळ्यार दुर्गां आसात. आनी ताच्या भायर सैमीक पाशाणांची तटबंदी. भायल्या तीन दुर्गां भितर पाचव्याचार भाताचीं शेतां आनी केळींच्यो बागो आसल्यो. ताच्या भितरल्या दुर्गांत दुकानां आनी बाजार आसले. त्या दुकानांनी पडीनी हिरे, मोतयां, माणकां, पाचू अशे जवाहीर विकताले खंय. थंयच व्हड व्हड म्हाल आनी हेर लोकांचीं घरां आसलीं.

आनी सगळ्यांत भितरले तटबंदी भितर वैभवान नटिल्ले म्हाल, राजवाडे. तांचे खांब्यान खांबे वण्टी अप्रतीम कोरीवकामान नटयिल्ल्यो. तांचीं कांय दालनां भांगराच्या पत्र्यांनी नटयिल्लीं. कांय दालनां हतयांच्या दांतांचेर केल्ल्या कोरीव कामान शृंगारिल्लीं. जाल्यार कांय दालनांत काचम्हाल तयार केल्ले. राजवाड्यांत थंडाय उरची म्हणून वण्टींतल्यान उदकाचे पाट सोडिल्ले आनी तातूंतल्यान वासाळ वाळ्याचें उदक सोडटाले. नित्याचीं आयदनांय भांगराचीं आनी चांदीचीं आसलीं. ताट, वाटयो, पेले, चमचे ते लेगीत भांगर आनी चांदीचेच. हागा शैव, वैष्णव आनी जैन धर्म सौख्यान नंदताले. अशे तरेन हांगा समृद्धी भरून व्हांवताली.

अशें जायत्या त्या वेळच्या भोंवडेकारांनी त्या काळाचें वर्णन बरोवन दवरलां. सुमार दोनशें वर्सां विजयनगराच्या भरभराटीचो काळ आसलो. तेन्ना द्रवीड आनी हिंदू संस्कृतीचो उत्कर्श जालो.

शिल्पकला, स्थापत्यकला, वास्तूशास्त्र, साहित्य, संगीत हांचीय भरभराट चलिल्ली.

पूण... प्रत्येक गजालींत आमकां हो पूण बादलो. उत्तर भारतांत विध्वंस करपी मोगली सैन्य तुंगभद्रेन आडायलें. कितलोय प्रयत्न करूनय सुसाट व्हांवपी तुंगभद्रा ते हुपूंक शकले नात. अशी एक आख्यायिका सांगतात, कोणें तरी फितुरी करून मुघलांक भितर घेतले, पूण थंय भोंवपी दुकरां पळोवन ते फाटल्या पांयांनी परतले. कारण मुसलमानांक दुकरां सामकीं कोताक येनात. तेन्नाच्यान दुकरांनी विजय नगरचें साम्राज्य वाटायलें म्हणून तांच्या राजमुद्रेचेर सूर्य, चंद्र आनी सुऱ्या वांगडा दुकराचेंय चित्र आसता खंय. हे आख्यायिकेंत कितें सत्य आसा हें इतिहासकारांनी सोदपाचें.

मुघलां कडेन विजयनगरच्या प्रत्येक राजाक झूज दिवचें पडलां. निमणें तालिकोटच्या लडाये वेळार कृष्णदेवराय जमखी जावन भुंयेर कोसळ्ळो. आनी एक संपन्न अशी हिंदू राजवट मातये भरवण जाली.

दुस्मानांनी घराघरांनी वचून दादल्यांकच न्हय तर बायलां भुरग्यांकय मारून उडयलीं. धन-संपत लुटलीच पूण देवळांची साम की तोडफोड केली. पाशाणी शिल्पांय फोडून उडयलीं. लाकडी वाडे लासून उडयले. सेगीत दोन म्हयने ते लूट करताले खंय. फाटल्यान उरले ते तुटके-फुटके पाशाणी अवशेश.

तुंगभद्रेचेर धरण येवचे पयलीं थंय व्हड व्हड हुंवार येताले खंय. अशाच हुंवारांक लागून घडये विजयनगरचें हें तुटकें फुटकें साम्राज्य मातयेन पुरावेन उडयलें जातलें. हळूहळू ताचो सोद लागतकच पुरातत्व खात्यान खणून खणून एक एक अवशेश, देवळां भायर काडलीं आनी तातूंत मेळिल्ले अर्दवट खांबे, कमानी, कोरीवकामान नटिल्ले पाशाणाचे कुडके जंय थंय दवरून परत त्यो दगडी वास्तू तयार करपाचो यत्न केला.

ह्या शिल्प समुहाचो आतां युनेस्कोच्या जागतीक स्तरा वयल्या

'वर्ल्ड कल्चर हॅरीटेज' हे कार्यावळींत आसपाव जालां. ताका लागून ह्या उध्वस्त नगरीची राखण ही फकत भारताचीच जबाबदारी नासून पुराय जगाची जबाबदारी जावन आसा. आमी गेल्लीं तेन्ना 'वर्ल्ड हॅरीटेज वीक' हें सप्तक चालू आसलें. ताका लागून आमकां खंयच तिकेट काडिनासतना सगळें पळोवंक मेळ्ळें. ह्या सप्तकांत थंय जायत्यो शाळा, कॉलेजां पिकनिको हाडटात खंय.

हंपी विशीं अशेंय सांगतात की ही रामायण काळांतली किश्कींध नगरी. आनी बाराव्या शेंकड्यांत ताचें नांव विजयनगर अशें जालें. बलाढ्य अशा वालीचें हांगा राज्य आसलें. हांगाच्या दोंगुल्ल्यांचेर मातंग रुशीचो आश्रम आसलो. जायते रुशी मुनी थंय तप करताले. मदांत वालीन एक खेप एका राकेसाक जिवेशीं मारून रुशींच्या आश्रमाचेर उडयलो. रागान मातंग रुशीन ताका स्त्राप दिलो, "तूं हे दोंगुल्लेचेर आयल्यार तुजें भस्म जातलें." अशें सांगलें. म्हणून वाली ते दोंगुल्ल्यांचेर पांय दियनासलो. म्हणून वालीचो भाव सुग्रीवाचें जेन्ना ताचे कडेन झगडें जालें तेन्ना सुग्रीव ह्या दोंगुल्ल्यांचेर येवन रावलो. थंयच मारुतीचीय रामा कडेन हांगाच भेट जाली आनी तेन्नाच्यान तो रामाचो परम भक्त जालो. मुखार रामान वाली कडेन झुजून वालीक मारून उडयलो. पुराय वानरसैन्य आनी मारुती रामाक सितेचो सोद घेवंक आदार करूंक मुखार सरलें. राम वालीच्या झुजा वेळार दोनय कडच्या वानर सैन्यान एकामेकांचेर मोखून मारिल्ले पाशाण किश्कींदा नगरांत म्हळ्यार आतांच्या ह्या हंपीच्या आनी आशीकुशीच्या पुराय वाठारांत शिंपडल्यात अशें सांगतात. खरें कारण कितेंय आसूं, पूण ह्या पुराय वाठारांत व्हड व्हड तळपांचे जोडयेक वचत थंय ल्हान ल्हान फातर हांगा-थंय पडिल्ले आसात.

हंपीच्या इतिहासांतल्यान पासय मारून येतासर आमची बस हंपी पावत आयली. वाटेर वचत थंय अर्दकुटीं बांदकामां दिसताली. आमची बस एका दगडी प्रवेशदारांतल्यसान भितर सरून वचूं लागली.

थंयच्या दोंगुल्ल्यांचेर, मुळसांत बांदकामां दिसतालीं.

इतल्यांत आमची बस थांबली. थंय हेवटेन तेवटेन उध्वस्त बांदकामां दिसतालीं. व्हड व्हड तळपांय मदीं मदीं कोणें तर मांडून दवरिल्ले वरी पातळिल्लीं. थंय आनीकय जायतीं वाहनां आसलीं. ताचे वयल्यान कितले लोक थंय आयल्यात तें कळटालें. व्हडल्या रुखां भोंवतणीं पार बांदिल्ले. तांचेर गायड बशिल्ले. आमची बस थांबल्या बराबर भुर्र करून जायते जाण मुखार आयिल्ले. पूण एकटल्यान तांकां आडायले. तो आमचो गायड आसलो. सुदेशान ताका फोनार सांगिल्लें.

आमी ताचे बराबर मुखार सरलीं. मुखारच एके वटेन पाशाणाची व्हड दोंगुल्ली आसली. सकयल बरी बाग केल्ली. ह्या पाशाणा मदीं जंय जंय मातसी माती आसलीं थंय थंय झाडां आसलीं, बाकीची दोंगुल्ली उगडी बोडकी. गायडान आमकां एके व्हड बऱ्या गणपतीचे मुर्ती मुखार उबीं केलीं. ताणें सांगलें, 600 वर्सां पयलीची ही नगरी, 22 किलो मिटर वाठारांत वसल्या. सादारण 1500 वर्सां पयलीं हांगा अटंग्य रान आशिल्लें. भारतांतल्या नामनेच्या चार सरोवरां मदलें एक पंपा सरोवर. ताचे देगेर ही किश्कींधा नगरी वशिल्ली. पूण तिचो नेमको जागो सांगपा विशीं इतिहासकारय दुबाव दाखयतात.

आमचे मुखारच 12 फूट उंचायेची गणपतीची सोबीत मूर्त आसली. 'ही मूर्त अशी देवळा शिवाय उगड्यार कित्याक' आमी गायडाक विचारलें. ताणें सांगलें हाका हर्बर गणपती वा राईचो गणपती म्हणटात. कन्नड भाशेन ह्या गणपतीक 'शशिचिकल्ल गणेश' म्हणटात. ह्या उतराचो अर्थ सांसवां म्हळ्यारच मराठींत राई हे मुर्तीचो पाशाण सांसवां रंगाचो म्हणून ताका हें नांव पडलां. ही गणेश मुर्ती साडेस फूट उंचायेची आसून चतुर्भुज आसा. ही मोडकी मूर्त म्हणून तिका देवळांत दवरूं ना खंय. तिची पुजाय करनात खंय. अश्यो सोबीत बऱ्यो जायत्यो मुर्ती ह्या वाठारांत आसात. तांचो खंयचो ना

खंयचो भाग तुटिल्ल्यान तांची पुजा करिनात. त्यो खंय सोबे पासत दवरल्यात.

ही गणपतीची मूर्त सगळी सारकी दिसताली. मागीर गायडान सांगलें, तिचो दावो हात मोडिल्लो खंय. ताका सध्या प्लास्टर ऑफ पॅरिसाचो हात करून लायला. म्हऱ्यांतल्यानच पळयल्यार तो कळटालो. हाका स्त्रीरूप गणपती म्हणटात. अशें थंयच्या शिलालेखाचेर कन्नडांत बरयलां. पूण तें बरप सामकें अस्पश्ट जाल्लें. ह्या गणपतीक फाटले वटेन पळयल्यार सारकी एक बायलशी दिसता. मुकुटा पोंदा आंबाडो, ताचेर सोबीत फांती. दाव्या खांदा वयल्यान पदर, ब्लावजाचो हात, बाजूबंदाची अर्द कड आनी णववारी न्हेसणाची कास, सारकी बायल मनीस बसल्याशी दिसताली. म्हणूनच ह्या गणपतीक स्त्रीरूप गणपतीय म्हणटात.

पयलीं ही मूर्त उगड्यारच आसली पूण आतां थंय खणटना मेळिलले खांबे ताचे चारय वटेन उबे करून ताचेर दगडी पाखें घालां. हालींसराक कोणय ताका तांबड्या फुलांचो हार, दुर्वा घालतात आनी दिवली पेटयतात खंय. असोच आनीक एक व्हड नक्षकामान नटयिल्लो गणपती आसा खंय. ताका चना गणपती म्हणटात. आमकां मात तो दाखयलो ना. तोय खंडीत गणपती जाल्ल्यान ताचीय पुजा जायना. हो बारा फूट उंचायेचो अखंड शिळेंतल्यान कोरांतला.

थंयच्यान आमकां त्या पाशाणी दोंगरार व्हेलीं. पाशाणांतच कोरांतिल्लीं ल्हान ल्हान सोपणां चडून आमी वयर गेलीं. हो हेमकूट पर्वत अशें हांगा पांच पर्वत आसात. ऋषमुख अथवा ऋषभ पर्वत, गंधमादन पर्वत, मातंगपर्वत, अंजनी पर्वत आनी माल्वंत रघुनाथ पर्वत.

हो हेमकूट पर्वत सादारण एक किलोमिटर रूंद असो पाशाणी दोंगर. थोडेंशें वयर चडटकच व्हड व्हड पाशाणा मदीं भव्य अशें प्रवेशदार दिसलें. ताचेरय कोरीव काम आशिल्लें, पूण सामकेंच अस्पश्ट जाल्लें. तरीय ताची सोबीतकाय कळटाली. मुखारच फातराची

तटबंदी आसली. ही सगळ्यांत भितरली तटबंदी खंय. तिचें आतां कांय कडेन फातर निखळ्ळ्यात. थंय थंय शिमिटान बांदून घेतल्यात.

थंयच्या पाशाणी रस्त्या वयल्यान आमी मुखार सरलीं. थंय वण्टी नाशिल्लें खांब्यांचेंच तीन मजली बांदकाम आसलें. हें विरूपाक्षाचें देवूळ खंय. ताचें बाकी सगळें मोडून गेल्लें, पूण पाशाणी सोबीत नक्षान कोरांतिल्ले खांबे थंय आसले, तांचेर पाशाणी फातरी बसयिल्ल्यो. अशे तरेन पाशाणी चौथऱ्याचेर हे खांब्याचे तीन मजले उबे आसले. येदे व्हड व्हडपाशाण तांणी त्या वेळार वयर कशे चडयले काय? आमचो सदचोच प्रस्न. पूण हे खेपे गायडान ताची जाप सांगली. पयलीं चौथरो बांदून सुरवातीचे खांबे उबे करताले, मागीर भोंवतणीं मातयेचो भराव घालून हतीच्या फाटीर पाशाण दवरून वयर चडयताले आनी पाशाणी छत तयार करताले. मागीर ताचेर आनी मातयेचो भराव घालून दुसरो तिसरो मजलो बांदताले. सगळें बांदकाम जातकच माती काडून निवळ करताले.

थंयच्या पाशणांक एके वळीन बुराक दिसताले. 'हे बुराक कसले?' आमी गायडाक विचारलें. ते खंय पाशाण फोडपाक केल्ले बुराक. पाशाणाचो केदो कुडको जाय तो मेजून तुतयो आनी विन्नें घेवन बुराक काडटाले. मागीर तातूंत 'वज्र मुश्टी' नांवाचें रसायन घालून दवरताले. आनी ते पाशाण फोडटाले खंय.

आमी तळपांर वयर चड सकयल देंव करत मुखार सरलीं. मदीं मदीं खणटना मेळिल्ले कोरांतिल्ले खांबे मदीं मदीं शिमिटान घट्ट उबे केल्ले. कांय कडेन पाशाणी ल्हान ल्हान देवळां आसलीं. आमी तीं देवळां भायल्यानच पळयलीं. भितर काळोख आसलो आनी ओणोव घेवन वच्चें पडटालें. मातशे मुखार बरें व्हड देवूळ आसलें, पूण थंय वचूंक मेळनासलें. ताचे भोंवतणीं पाचव्याच उदकान भरिल्लें तळें आसलें. दुसरी वाट पयसुल्ल्यान आशिल्ली खंय. तीं सगळीं देवळां कोरीवकामान नटिल्लीं म्हणून भायल्यानय कळटालीं.

ह्या पाशाणी पर्वतांचेर वयर मळ कसो जागो आसलो. हेवटेन तेवटेन आकांत व्हड पाशाण. तांकां लागून घोली तयार जाल्यो. पयलींचे लोक तातूंत रावताले खंय. पाशाणाचेर मदीं मदीं वानां कशे बुराक आसले. त्या देवळांची जात्रा आसतना थंय रावपाक तंबू घालपा पासत खांबे तातूंत पुरताले खंय.

ह्या पर्वता वयल्यान पुराय उध्वस्त विजयनगर दिश्टी पडटा. एके वटेन जैन देवळांचो समूह दिसता. विजयनगराच्या पयलीं सातव्या शेंकड्यांतलीं हीं जैन देवळां. तांच्या घुमटांचेर त्या वेळा वयली जैन चित्रकारिता दिसता. पूण वेळ नाशिल्ल्यान आमी तीं जैन देवळां पळोवंक थंय वचूंक शकलीं नात. हांगा चडसो भुंयकांप जायना, पूण आकांताचो पावस पडटा. तेन्ना हे सगळे पाशाण शेळो मांडून बुळबुळीत जातात. म्हणून चडशे प्रवासी, जावं गांवचे लोक पावसा दिसांनी ह्या आनी बाकीच्याय पर्वतांचेर येनात. शिवाय पावसा दिसांनी फातरांचे व्हड व्हड आवाज जातात आनी कांय पाशाणय फुटून उसळटात खंय.

थंयच्यान आमी सकयल आयलीं आनी बशींत बसून मातशीं मुखार गेलीं. वाटेर अर्दवट वणटी, अर्दकुट्या घराचीं मोडकीं पाखीं अशें कितें कितें दिसतालें. थंय वडा पिपळाचीं भरपूर झाडां आसलीं. तांकां लागून थंय वताचो रखरख जाणवना.

आमची बस थांबली तशीं आमी देंवलीं. गायडान सांगलें, "चलात, तुमकां शॉपींग कॉम्प्लॅक्सांत व्हरतां." "हांगा आनी खंयचो शॉपींग कॉम्प्लेक्स?" आमी हांसतच ताच्या फाटल्यान धायेक सोपणां देंवन सकयल आयलीं. थंय व्हड मळ आसलें. ताच्या दोनय वटांनी खांब्या खांब्यांचे मंडपशे आसले. होच कृश्णबाजार खंय. हांगा सगळ्या तरेच्या सामाना वांगडा हिरे, मोतयां, माणकां अशा मोलादीक जवाहिऱ्यांचोय व्हड प्रमाणांत वेपार चलतालो खंय. मदल्या मेकळ्या जाग्या वयल्यन हतयांचेर घोड्यांचेर बसून लोक वेपार घेवंक येताले.

हे आतांचे मंडप म्हळ्यार खणटना मेळिल्ले खांबे एकठांय करून इतिहासांत बरयिल्लें मेळ्ळां ते प्रमाण मांडून दवरल्यात.

हो सगळो वाठार मातये पोंदा आसलो. पुराणवस्तू संशोधन खात्यान हंपी जेन्ना हातांत घेतलो तेन्ना कांय कडेन इतिहासाचो आदार घेवन जाल्यार कांय कडेन कितेंय बांदकाम मेळ्ळां ताचो आदार घेवन उत्खनन केलें आनी मातये पोंदा, व्हड व्हड देवळां, राजवाडे तुटक्यो फुटक्यो मुर्ती नित्याच्या वापरांतल्यो वस्तू अशें जायतें कितें कितें तांकां मेळ्ळें, तें त्या त्या जाग्यार वेवस्थीत माडून दवरपाचें काम केलां.

ह्या कृष्णबाजाराचे खांबे वेवस्थीत दवरून तांणी बाजार तयार केला. तातूंतल्यान आमी गायडा फाटल्यान वचूंक लागलीं. त्या खांब्याक मदीं मदीं बुराक आशिल्ले. ते कित्याक तें आमकां गायडान सांगलें ना. पूण ताणें म्हणलें, ''हांगाच्यान वतना जमनीर लक्ष दिवन वचात, खंयूय हिरे जवाहीर मेळत.''

ह्या बाजारांत खरेदी-विक्री करपाक देश-विदेशांतल्यान लोक येताले खंय. त्या मंडपांतल्यान बरींच मुखार वतकर, थंय फातरांचीच माची दिसली. थंय कोरांतिल्ले जायते सोबीत अशे खांबे उबे आसले. तांचेर पाशाणी पाखें आसलें, ताचेरूय कोरीव काम आसलें, पूण तें अस्पश्ट आसलें. त्या माचये मुखार व्हड बरी पुश्करणी म्हणल्यार तळें आसलें. तळें पाशाणी सोपणांनी बांदून काडिल्लें. गुरूत्वाकर्शणाच्या फोर्साच्या आदारान तुंगभद्रा न्हंयेचें उदक हे पुश्करणींत येवपाची वेवस्था केल्ली आनी दुसरे वटेन उदक भायर वचपाचीय वेवस्था आसली. पूण हें तळूल मातयेन पुरवतकच ताची उदक येवपाची वाट बंद जाली. आतां मात तातूंत पावसाचें उदक भरिल्लें आसलें.

हे पुश्करणीच्या मदीं दगडी देवळी आसा. तातूंत देवाची मूर्त बसयताले खंय आनी माचयेर नाच, गायन अश्यो तरेकवार कार्यावळी जाताल्यो. तेन्ना तळये भोंवतणच्या सोपणार बसून लोक त्यो

पळयताले. पुश्करणी भोंवतणीय खांबे आसात. तांचेर दगडी पाखें आसा.

थंयच्यान आमी परतलीं. त्या व्हड मळा पोंदाय आनीक जायतें कितें आसा खंय. पुरातत्व खातें ल्हवू ल्हवू खणपाचें काम करत आसा. आनी थोड्या तेंपान थंय गेल्यार नवें जायतें कितें पळोवंक मेळटलें.

थंयच्यान पयस एक दोंगर दिसतालो. ताचेर वयर तेनालीराम मंडप आसा. हंपींत खंयूय गेल्यार तो दोंगर आनी ताचे वयलो तो तेनालीराम मंडप पळोवंक मेळटा.

मळा वयल्यान आमी परत रस्त्यार आयलीं. हेमकूट पर्वता वयल्यान कमलापुराक वचपाचो हो रस्तो. तो हुपून मुखार वतकच व्हड बरें प्रवेशदार दिसलें. हांगा कृष्णाचें देवूळ आसलें. त्या भव्य प्रवेशदाराचेर विष्णूचे सगळे अवतार कोरांतल्यात. ते भायर सैनीक, युद्धाचे प्रसंग आनी हतीय कोरांतल्यात. तातूंतल्यान भितर सरतकर मुखारच व्हड बरें बाळकृष्णाचें देवूळ दिसता. हें देवूळ 320 फूट लांब आनी 200 फूट रूंद आसा. हें देवूळ पुर्वे कडेन तोंड करून आसा. गजपती वांगडा जिखिल्ले लडायेचें यादस्तीक म्हणून हें देवूळ 1523 सालांत तयार करून घेतलां. उदयगिरीच्यान बाळकृष्णाची मूर्त तयार करून हाडिल्ली. आतां मात देवळांत मूर्त ना. ती चेन्नयच्या वस्तूसंग्रहालयांत दवरल्या.

देवालयाचो रंगमंटप व्हड आनी सोबीत आसा. प्रत्येक खांबो कोरीव कामान नटयला. कांय खांब्यांचेर कृष्णाचें जिवीत कार्य अप्रतीम रितीन कोरांतलां. ह्या देवळांत भितर प्रवेश करूंक दक्षीण, पूर्व आनी उत्तरे कडल्यान सोपणां आसात. गर्भकुडीच्या चारय वटेनच्या वण्टीचेर सोबीत नक्षकाम केलां. पुराय देवळाची जमीन व्हड व्हड पाशाणी फातरांची. ताका लागून देवळांत थंडाय आशिल्ली. इतल्या सोबीत देवळांत देवाची मूर्त नाशिल्ली गर्भकूड मात पळोवं नज. थंय

दिवो बी कांयच दवरूंक ना. काळखे गर्भकुडींत भायल्या उजवाडाची पयस पडटाली. ताका लागून ती चडच भकास दिसताली. ती पळोवन आमकां वायट दिसलें. खिन्न मनान आमी भायर आयलीं.

देवळा वयर तीन गोपूर आसले म्हणपाची खूण कळटा. मुळांतले गोपूर तोडून फोडून उडयले खंय. देवळा भायर कन्नडान बरयिल्लो व्हड फातरपटो आसा. आतां तो अस्पश्ट जाला. तरीय मेधान तो वाचपाचो यत्न केलो. हांवें बेठोच सासपून पळयलो. देवळा भायर ल्हान ल्हान शिल्पकलेन नटिल्लीं देव नाशिल्लीं देवळां आसात. पुर्वे वटेन एक व्हड इमारत दिसता. ती घडये रांदची कूड आसुंये अशें गायडान सांगलें. देवळा भोंवतणीं आशिल्ल्या जाग्या वयल्यान प्रचंड रथ भोंवडायतालीं खंय. भायले वटेन एक पाशाणी व्हडें आसा. तें केन्ना वापरतालीं काय सोबे पासत दवरिल्लें हें कोणूच सांगूंक शकनासले.

त्या देवळांतल्यान आमी भायर आयलीं. मात्शें चलून मुखार वतकर किल्ल्याचो मोडको तट दिसलो. दोन वटेन पाशाणी वण्टीं मदीं विटांची वणत दिसली. गायडान सांगलें, ही पयलींच्या एयर कंडिशनाची युक्त खंय. सगळे कडेन थंडाय उरची म्हणून पाशाणी वण्टीं मदीं, मदीं मदीं बुराक आशिल्लो विटांची वणट काडटाले खंय. ताका लागून मदल्यान वारें खेळटालें आनी थंडाय उरताली.

थंयच्यान आमी पांच मिनटां सुमार चलून आयलीं. वाटेर शेतां, व्हडव्हड रूख आनी अस्ताव्यस्त पडिल्ले पाशाण दिसताले. शेतांत तर गेंडो, म्हस गोठेल्लेवरी पाशाण आशिल्ले. मुखेल रस्त्या वयल्यान आमकां मायते रस्त्यार हाडलीं. ही वाट शेतां मदल्यान वताली. एके वटेन उदकाचो पाट व्हांवतालो. बरेच मुखार एका व्हड बऱ्या झाडार माकड खेळटाले. कांय तांबड्या तोंडाचे कांय काळ्या तोंडाचे. गायड सांगूंक लागलो, तांबडे माकड बरे. ते सुग्रीवाचे वंशज खंय. आनी काळ्या तोंडाचे वालीचे वंशज, अशे थंयचे लोक मानतात खंय.

त्या झाडाच्या मुखारच शेतांत मोडक्या वण्टी मदीं आकांत

व्हड आसनमांडी घालून बशिल्ली मूर्त आसली. ती मूर्त पळोवन भुरग्यांक सामको भंय दिसपाचो. ती मूर्त अक्राळ-विक्राळ म्हणटा तशी आशिल्ली. तिचे दोळे येद्दे मोटे, रागान उजो सोडटा तशे दिसताले. तिचें उगडें तोंड, सामकी भयानक मूर्त. तिका आतां उग्र नरसिंह म्हणटात खंय. ती सात मिटर ऊंच आसा. पयलीं तिका लक्ष्मी नरसिंह म्हणटाले. येदी व्हड मूर्त म्हणटकर तें देवूळ केदें आशिल्लें काय? आमी येवजूंक पडलीं. हंपींतली सगळ्यांत व्हड मूर्त ही खंय. दुस्मानानी हंपी उध्वस्त करतना, देवळां फोडटना ही मूर्तय फोडून उडयली. नरसिंहाचे मांडयेर म्होंवाळ आनी सोबीत कलाकुसरीन नटयिल्ली लक्ष्मीची मूर्त आसली खंय. ती मूर्त आनी तिचो एक हात, पांय, भोंवतणचो मंडप सगळें फोडून उडयलें. सध्या ती मूर्त आतां आसा त्या जाग्यार मागीर स्थापीत केल्या. मूळ खंय आशिल्ली खबर ना. लक्ष्मीची मूर्त फोडून उडयत सावन नरसिंह उग्र दिसूंक लागलो. तेन्नाच्यान ताका उग्र नरसिंह म्हणटा. ते मुर्तीचो मोडिल्लो भाग, हात सगळें आतां प्लास्टर ऑफ पॅरिसान तयार केल्यात. ताकाय लागून आसत आतां ती मूर्त सामकीच उग्र दिसता. ही मूर्त शेशनागाच्या वेटोळ्याचेर आसन मांडी घालून बसल्या. योगासनाचे मुद्रेंत ती मूर्त आसा म्हणून तिका 'योग नरसिंह' म्हणटाली खंय. पूण लक्ष्मीची मूर्त फोडून उडयतकर तिका 'वियोग नरसिंह' म्हणूंक लागले.

1528 सालांत आर्य कृष्णभट्टान एका अखंड पाशाणांतल्यान ती घडयिल्ली. आतां जरी ही चार हातांची मूर्त उग्र दिसली तरी सोबीत आसा. ऊंच बऱ्या पाशाणी चौथऱ्याचेर तिका बसयल्या. तिच्या फाटल्यान माथ्याचेर सात फडांच्या सोबीत नागान छत्र धरलां. तिचे भोंवतणीं पाशाणाचो मंडप आसा. ते मुर्तीचे मोडिल्ले पांय सारके जायना जाले खंय. ते घट उरपा पासत मदीं पाशाणाची पट्टी लायल्या. विजय नगरांतली ही सगळ्यांत प्रसिद्ध मूर्त आसा.

थंयच्यान मातसो मुखार उदकाचो रूंद बरो पाट व्हांवतालो. ताच्या

वयल्या सांकवा वयल्यान आमी पलतडीन गेलीं. थंय चार वण्टीच्या मदीं व्हड बरें लींग आसलें. ताका बडवी लींग वा गरिबांचें लींग म्हणटात. ताका अशें विचित्र नांव कित्याक अशें विचारल्यार गायडान सांगलें, ''खरें कारण कोणाक खबर ना, पूण फकत आख्यायिका सांगतात तें एके निर्धन बायलेन तयार करून घेतिल्लें.'' हंपींतल्या सगळ्या लिंगा भितर हें लींग जड खंय.

शेता पासत तुंगभद्रेचो कालवो हे वटेन हाडिल्लो. ताचेंच हांगा कूंड कशें जालां. भोंवतणीं पाशाणी वण्टी बांदून गर्भकूड तयार केल्या. बाकीचें देवूळ आतां थंय ना. गर्भकुडीक पाखें ना. हें लींग सदांच तीन फूट खोल उदकांत आसता. त्याच उदकान लिंगाक अभिशेक करतात खंय. आमी गेल्लीं तो दीस सोमार आसलो. आमी सगळ्यांनीच तें उदक लिंगाचेर फाफुडलें.

थंयच्यान आमकां बशींत बसोवन मुखार व्हेलीं. गायडान सांगलें ह्या साद्या रस्त्यान मुखार गेल्यार विरूपाक्षाचें देवूळ आसा. सामकें हालींच्या तेंपार तें खणून काडलां खंय. पूण आमकां थंय व्हेलीं ना. थंय लागींच सरसेनापती दंडनायकाचें किल्ल्या वरी घर मेळ्ळां.

चारय वटेन दाट पाशाणी वण्टींची तटबंदी. चारय वटेन टेहेळणी करपाचे मनोरे. थंय सैनीक उबे रावन पयस पयस मेरेन दुस्मान येतात जाल्यार पळयताले खंय. थंयच एका कोनशाक भांगराचीं नाणीं करपाची 'मींट शाळा' म्हळ्यार टांकसाळ आशिल्ली. खणटना मेळिल्लीं भांगराचीं नाणीं वस्तू संग्रहालयांत दवरल्यांत. आमी गायडाक म्हळें, 'आमकां त्या टांकसाळे म्हऱ्यांत व्हर, खंयूय चुकून उरिल्लीं नाणीं मेळटात जाल्यार पळयतात.'' पूण आमकां भितर व्हेलीं ना.

आमची बस मुखार गेली. आनी थांबली थंय एके वटेन हात दाखोवन गायडान म्हळें, 'हें हजारी रामाचें देवूळ.' तें राजवाड्याच्या लागींच आशिल्लें. ह्या देवळा भोंवतणीं गडगंज अशी तटबंदी आसली. देवूळ मात्शें सकयलशें आसलें. ताका लागून तें देवूळ

आमकां सारकें दिसतालें. मदीं देवूळ आनी भोंवतणीं व्हड जागो आसलो. थंय सणापरबे वेळार सुमार हजारभर लोक बसून जेवताले. हें भव्य देवूळ कृष्णदेवरायन 1513 सालांत एका पराक्रमाची याद म्हणून बांदून घेतलां. हेंवूय देवूळ आमकां वयल्यानच दाखयलें. ताचें कोरीव काम अप्रतीम. ताचे थोडे खांबे आमकां वयल्यानच दिसताले. ते सगळे कोरीवकामान नटयिल्ले. भायल्यान जशें हें देवूळ कोरीव कामन नटयिल्लें तशेंच भितरले वण्टीर रामायणांतले प्रसंग, बुद्धाच्या रुपांतल्यान विष्णूची मूर्त कोरांतिल्ली दिसता खंय. हें सगळें गायडान आमकां वयर रावन सांगलें.

ते भायर पुराय देवळांत रामकथा कोरांतल्या. आनी देवळाच्या भायर भितर मेळून राम-विष्णू अशा वेगवेगळ्या अवतारांतल्यो हजारभर मुर्ती कोरांतिल्ल्यो आसात. पूण हेर देवळांवरी गर्भकुडींत मात आतां मूर्त ना. ती उध्वस्त अवस्थेंत तरी खंयूय आसा काय कितें तें गायडाक लेगीत खबर नासलें. ह्या देवळाची रचना सादारणशी हळेबीड, बेल्तूरच्या देवळावरी. सकयल एक पट्टी ताचेर कोरीव काम. ताचे वयर दुसरो पट्टो अशे तरेन 47 वांट्यांनी हें देवूळ बांदलां. बेल्लूर हळेबीडचीं देवळां काळ्या पाशाणांत तयार केल्यांत, तर हांगाचीं देवळां धवशा फातरांत घडयल्यांत. थंय खणटना मेळिल्लीं आयदनां 'पॉटरी यार्डांत' वळीन मांडून दवरल्यांत. तिंवूय आमी भायल्यानच पळयलीं. अशीं जायतीं वस्तूसंग्रहालयां थंय आसात.

थंय लागींच पाशाणी फातरांची व्हड आनी ऊंच बरी माचीशी आसली. हिचेर लाकडाचो म्हाल आसलो खंय. ते पाशाणी वेदीचेरय तरेकवार चित्रां कोरांतल्यांत. वयलो लाकडी म्हालय खूबच सुंदर आशिल्लो खंय. दुस्मानांनी लायिल्ल्या उज्यांत तो जळून गेलो. वयर एके वळींत 10-10 प्रमाण शंबर बुराक आसात. थंय खांबे आशिल्ले खंय आनी ते आर्कांनी जोडिल्ले.

ह्या म्हालाचे एके वटेन तीन मजली ऊंच वेदी आसली. तीय एका

राजवाड्याची मुळावी माची. ताचे वयर म्हाल आसतालो.

मुखार वतना 'सिता गीता अथवा धाकटी भयण व्हडली भयण' नांवाचे पाशाण मेळ्ळे. थंय प्रचंड आकाराचे दोन पाशाण आसले. पयलीं तो दोनूय एकामेका मुखार उबे आसले. तातूंतलो एक आतां हालींच वीज पडिल्ल्यान काय कसो तरी फुटून सकयल पडला. एक मात्सो ल्हान आनी एक व्हड अशा त्या दोनय पाशाणांक लोकांनी मजेन नांव दवरलां धाकटी भयण व्हडली भयण.

थंयच्यान आमी महानवमी किल्ल्या कडेन गेलीं. हांगा सगळींच दुर्गां म्हणल्यार किल्ल्याचे तटबंदी वरी गडगंज पाशाणी आनी बरींच ऊंच. भितरल्ले कांयच दिसना अशें. सहज कोणेंय दुरीग हुपून भितर येवंनये असो हेतू. तर अशा एका व्हड दुरगाच्या ल्हानशा प्रवेशदारांतल्यान आमी भितर सरलीं. हाका 'रॉयल पॅलस विभागय' म्हणटात खंय. वाटेर अर्दकुट्या पळयिल्ल्या अवशेशांक लागून हांव मात्शें उदासशें जाल्लें. इतल्यांत गायडान सांगलें, ''हो पळयात जनाना महल. कृष्णदेवरायाच्या बायलांचो म्हाल.'' आमी उमेदीन मुखार सरलीं.

कितें आशिल्लें थंय? फकत 22 फूट ऊंच एक व्हड पाशाणी माची. ताचे वयर 80 फूट लांब आनी 80 फूट रूंद उगडो बोडको जागो. ताचेर तण किल्लल्लें.

ह्याय माचयेचो सकयलो भाग हजारी रामाच्या देवळावरी सोबीत कोरीव कामान नटयला. ताचेर शिकारेचीं दृश्यां. नाच करपी पुराणीक चित्रां. तरेकवार हतयांची पट्टी. तातूंत एक हती दुसऱ्या हतयाक सोंडेन नमस्कार करतात. तातूंत विदेशी लोकांचींय चित्रां कोरांतल्यांत. ताचे वयर लाकडाचो, पुराय कोरीवकामान नटिल्लो सोबीत म्हाल आसलो खंय. तो जळोवन उडयलो. खंय खंय ताचे खांबे दारां मेळ्ळयांत. तीं वस्तूसंग्रहालयांत दवरल्यांत. कांय हांगा थंय पडिल्लीं आसात. आतां तीं फकत लाकडाचीं दारां आसात. पूण पयलीं तींय

भांगर चांदीन नटयिल्लीं.

त्या माचयेर पळोवन हांवें कल्पनेन कृष्णदेवरायाचो दरबार, थंयचे दरबारी वावुरतना पळयले. कोणा एका काळार थंय व्हड व्हड मजलसी जाल्यात आसतल्यो. नृत्यांगनाच्या छुमछुम घुंगरांनी कितल्या राजांक, हेर लोकांक गूंग केल्यात आसतले. विद्वानांच्यो भासाभाश्यो गाजल्यात आसतल्यो. सगळें येवजितना म्हजें मन भरून आयलें.

ह्याय किल्ल्या भितर चारय कोनशांक टेहळणी बुरूज आसले. ते मात्शे बरे स्थितींत आसले. पूण वयर वचपाक दियनासले. थंयच्यान राणयांची राजवाड्यांतल्या लोकांची राखण करपाक सैनीक दोळ्यांत तेल घालून उबे आसताले.

ह्या म्हाला कडल्यान मदीं रस्तो आसलो. ताचे पलतडीं व्हड लॉन आसलें. थंय खंय खंय बोटां दाखोवन गायड थंय कोणा कोणाचे म्हाल आशिल्ले तें सांगतालो. एके कडेन राणी तिरमुल्ला देवीचो म्हाल, दुसरे वटेन राणी चिन्ना देवीचो म्हाल. आतां तांच्यो सामक्यो मोडक्यो, फुटक्यो वण्टी तितल्यो उरिल्ल्यो. आमी मनाच्या दोळ्यांनी ते राणीम्हाल पळयले. आमकां थंय राणयांच्या हांसपा-खेळपाचे आवाज आयले. कोणाचो घुस्मटून रडपाचोय आवाज आयलो.

थंयच्या लॉनार झाडां आशिल्लीं तींय खूब पोरणीं कशीं दितसालीं. तांच्या खोडांचो आकार विचित्रच आशिल्लो. तीं शिमिटाचीं केल्यात काय दिसतालीं. हांवें ल्हवूच नाकूट लावन पळयलें.

मात्शें मुखार वतकच एक सुंदर कमळावरी आकाराची इमारत दिसली. अजून मेरेन बरे तरेन उरिल्ली ही एकच इमारत. गायडान म्हळें, हो व्हडले राणयेचो 'कमल महल', हाकाच 'चित्रंगिणी' म्हालय म्हणटात.' हो हिंदू आनी मुसलमानी शैलींत तयार केला. हा कमल म्हालाक कमळाच्या पाकळ्यांवरी आकार दिला. धवश्या-तांबश्या फातरांनी सामके नाजूकसाणीन ह्यो कमळाच्यो पाकळ्यो तयार केल्यात. ते इमारतीच्या प्रत्येक कमानींतल्या आर्कांतल्यान

घुमटांतल्यान नाजूकसाणीन केल्लें काम दिसतालें. भितरलें शिल्पय अप्रतीम. खांब्या खांब्यांचेर नक्षकाम दिसतालें. कमळाच्यो बारा पाकळ्यो भायल्यान धरून भितर मेरेन तितलेच नाजूकसाणीन तयार केल्यात. भायल्या प्रत्येक आर्काक पांच पाकळ्यांच्यो कडो. ताका लागून तें खूब पाकळ्यांचें कमळशें दिसता.

ही दोन मजली इमारत सैमीक रितीन वातानुकुलीत (ॲर कंडिशन) करपा पासत वण्टी आनी पाख्यांचेर व्हांवतें उदक खेळटलें अशी वेवस्था केल्या. तुंगभद्रेचें उदक इतल्या पयसुल्ल्यान दगडी पायपांतल्यान हाडून वयर कशें खेळयलें हें एक अजापच. पूण जरी त्या काळांत आतांवरी साधन-सुविधा नासली तरी, गणीत आनी विज्ञान हातूंत त्या वेळचे लोक खूबच हुशार आशिल्ले. सैमांतल्या शक्तींचो बरोबर उपेग करून ते आपल्यो गरजो भागयताले.

हाका 'समर पॅलेसय' म्हणटात. म्हळ्यार गरमेच्या दिसांनी रावपाचो म्हाल. म्हणून भितर वारें खेळोवपाक आनी सुर्यप्रकाश भितर येवपाक जायतीं जनेलां, बुराक दवरल्यात. कांय जनेलां सैनिकां पासत, तांकां थंयच्यान पारो दिवंक दवरल्यांत. हाचीं दारां एकामेकां मुखार अशे तरेन दवरल्यांत, ताका लागून वारेंय बरें घोळटा आनी ताकाच लागून प्रत्येक दार ही एक एक पाकळी कशी दिसता. कडकडीत गरमेच्या दिसांनीय हांगा बरी थंडाय आसता खंय. वयर चारय कोनशांनी पॅगोडावरी एकार एक थरांचें वयर वयर ल्हान जायत वचपी शिखरां आसात. ताचेरय कोरीव काम आसा खंय, पूण आमकां दीस नासले.

दुसऱ्या मजल्यार चडपाक सोपणां आसात. पूण आतां सोपणां बंद केल्यांत. लोक वयर वचून वाट लायताले खंय.

ह्या म्हालाच्या भायर जलम्हाल म्हळ्यार ल्हान तळेशें आसा. भितर देंवंक सोबीत सोपणां. पूण आतां त्या तळुलांत उदक ना, आनी ताचे वयलो म्हालय ना.

थंयच्यान आमी फाटले वटेन आशिल्ल्या दुरगा कडेन आयलीं.

थंयच्या कोनशा कडेन भायर वचूंक ल्हानशें दार आसलें. त्या दारांतल्यान आमी भायर सरलीं. भायल्यान व्हड मळ. हेवटेन तेवटेन बांदकामाचे अवशेश दिसताले. पयस एक व्हड पाशाणी बरे स्थितींत आशिल्लें बांदकाम दिसतालें. गायडान सांगलें तो राजाच्या मुखेल हतयांक बांदपाचो हतीखानो उर्फ गजशाळा. घोड्यांक घोडशाळो, हतयांक गजशाळा आनी गोरवां, बोकड्यो मेंढ्यांक गोठे आसात तें आमी जाणा आसलीं. पूण हांगा हतयांक पाशाणाचे गडगंज आनी सोबीत गोठे पळोवन राजहतयांच्या भाग्याची नसायशी दिसली. राजहतयांक भांगरा शिंगरांनी नटयतात तें वाचिल्लें आनी एक फावट धर्मस्थळाक पळयिल्लेंय बी. तेन्नाय म्हाका तांची नसाय जाल्ली.

हे हतीशाळेक इकरा कुडी आसात. प्रत्येक कुडीक ल्हान दार आसा. तातूंतल्यान दुसरे कुडींत वचूंक मेळटा. ह्या कुडींक भितरल्यान डोम आसा. ताचेर भितरल्यान सोबीत पानां फुलांचीं चित्रां आसात. एके कुडींतलें चित्र दुसरे कुडींत ना. इकराय कुडींनी वेगवेगळीं चित्रां. त्या कुडींच्या दारांक कमानी, ताचेरय कोरीव काम. ह्यो कुडी निवळ करून हळशीक भायर उडोवंक फाटल्या वण्टीक ल्हान दारां आसात. आतां ताचो उपेग नाशिल्ल्यान जायत तीं फातर लावन बंद केल्यांत. भायल्यान दोन दारांच्या मदीं घुमट्योश्यो आसात. तातूंत एकट्याक बसूंक मेळटा. ताचे वयर ल्हान ल्हान कत्रेलां (खण) तांचे वयर कमानी, तांचे वयर लांबचे लांब कुत्रेलांची वळ. सगळ्यांत वयर छतार तीन तरेचे घुमूट. एक हिंदू, एक ब्रौद्ध आनी एक जैन पद्दतीचो. अशे पांच पांच धा घुमूट आनी मदीं सोबीत तरेचें बांदकाम. ताचेरय चित्रां कोरांतल्यांत. पूण तीं इतल्या पयसुल्ल्यान आमकां कळनासलीं. हांगाचीं सगळींच कोरीवकामां अस्पश्टशीं जाल्यांत. एकूण मेळून ही शाळा म्हळ्यार एक सोबीत इमारत.

हे गजशाळे कडल्यान मात्शें चलून वतकच एक व्हड दगडी इमारत मेळटा. दोन मजल्यांची उंचाय आशिल्ली ही इमारत म्हळ्यार

नोकरांचें वस्तीघर. गजशाळा आनी ही इमारत काळाच्या माऱ्यांतय गडगंज कशी उबी आसा. ह्या वसतीघरांत वेगळ्यो वेगळ्यो अश्यो कुडी नात. धडये फाटलेवटच्यान आसत. कोनशाक बंद दारां दिसतालीं. हें घर कशें दिसनासलें. भायर चारय वटेन लांबचे लांब सालां आनी मदीं लांबट अरूंदशें आंगण. त्या चारय सालांत खांब्याच्यो वळी आसात. ह्या सालांत शिमिटाचे चौथरे करून खोदकामांत मेळिल्ल्यो मुर्ती दवरल्यात. तांच्या नांवांचेय तकटे करून थंय लायल्यात. कन्नड आनी इंग्लिशींत. जायते वीरगळ, सतीचे पाशाण, गणपतीच्यो मुर्ती, नागदेवता, गरूड, शिकारी अश्यो जायते तरेच्यो मुर्ती थंय दवरल्यात.

त्या वस्तीघरा मुखार व्हड बरें लॉन आसलें. कोणाचे पांय दुखिल्ले तीं वस्तीघर भायल्यानच पळोवन थंय बशिल्लीं. तांकां थंय एक व्हड गोठाल दिसली. बडी लायल्यार तिणें गुठली केली ना. सुरजान ती बडयेर घेवन आमकां सगळ्यांक दाखयली. मुखार तसल्यो आनीकय गोठाली लॉनार भोंवताल्यो. आर्यान म्हणलें, "ह्योय पयलींच्या काळांतल्योच आसतल्यो. म्हणून अश्यो व्हड जाल्यात."

थंय आनीकय बारीक सारीक बांदकामां आसलीं, तीं आनी आमी पळोवंक गेलीं नात. परत आमकां दुरगांत भितर हाडली. दुसरे वटचें आमकां पळोवपाचें आसलें.

थंय महाराणीच्या म्हालाचो चौथरो आसलो. ताचेर चंदनी लाकडाचो म्हाल आसलो खंय. तो जळून गेलो. त्या चौथऱ्याच्या वण्टीचेर सोबीत कोरीवकाम करून वेगवेगळीं दृश्यां, मुर्ती कितें कितें कोरांतल्यांत. सगळें स्पश्ट कळनासलें. त्या राजवाड्याच्या फाटल्यान व्हड अश्टगोल आकाराची तळेंशी बांय आसा. तातूंत भितर देंवंक सोपणां आसात. सध्या तातूंत पावसाचें पाचवें उदक आसलें. ही पांचशीं फातरांनी बांदून काडल्या.

राजवाड्याच्या मुखार बरी बाग आसा. थंय तरेकवार झाडां रोयल्यांत. तातूंत एक चंदनाचें झाड आसा. क्षमान आमकां ताची

वळख दिली. ताणें चंदनाचें झाड खंय तरी पळयिल्लें खंय. आमी ताचें हळूच पान काडून चिड्डून पळयलें. पूण चंदनाचो वास काय आयलो ना.

थंय एका कोनशाक एक पाशाणी इमारत आसली. ताचें वस्तूसंग्रहालय केलां. हाचे पयलीं आमी फकत मुर्तींचेच वस्तूसंग्रहालय पळयिल्लें. हांगा उत्खननांत मेळिल्ल्यो हेर वस्तू दवरल्यात.

दारांतच धवशा पाशाणाचे व्हड बरे दोन हती आसात. भितर काचेच्या पेटयांनी वस्तू घालून दवरल्यात. तातूंत सोबीत कलाकुसरीन नटयिल्ल्यो मुर्ती, आयात कृती पाशाण आनी ताचेर सोबीत कोरातिल्ल्यो मुर्ती, विरगळ, आनी जायत्यो वेगवेगळ्यो वस्तू. ताचीं नांवां थंय बरोवन दवरल्यांत.

परत आमकां रॉयल सिटी कडेन व्हेलीं. थंयचो दरबार हॉल (फकत ताचो जागो) आमी पळयलो. ताचे भायर 'दशेरा मैदान' म्हळ्यार दसऱ्याचो उत्सव साजरो करपाचें मळ आसा. त्या वेळार खंयचे खंयचे राजे, दरबारी त्या उत्सवा पासत येताले. तांच्या हती, घोड्यांक उदक पियेवपा पासत 45 फूट लांबायेचें लांबटशें एका फातरांत कोरांतिल्लें खळयेवरी आयदन आसा. आयदन म्हणून पळोवपा सारकेंच. आमकां तें पयलीं दगडी व्हडें काय दिसलें.

थंयच्यान मुखार वतना हालींच मेळिल्लें एक शिवमंदीर दाखयलें. थंय सकयल देंवन भितर वचूंक जाय खंय. पोंदा तें उदकांत आसा. ताका पाताळेश्वर मंदीर म्हणटात. खांब्या खांब्याच्या ह्या देवळाचे खांबे सोबीत कोरांतल्यात खंय. भितर गर्भकुडींत शिवलींग आनी नंदी आसा. पूण तातूंत बरेंच चड उदक आसा आनी तातूंत काळोख, कांयच पळोवंक मेळना म्हणून चड करून भोंवडेकारांक थंय व्हरनात खंय. हें देवूळ बुक्करायाच्या काळांत बांदलां.

थंयच लागीं विरभद्राचेंय देवूळ आसा. अरवीडू वंशाच्या रामरायान तें बांदलां खंय. तातूंत विरभद्राची 12 फूट उंचायेची मूर्त आसा.

म्हऱ्यांत दक्ष राजाचीय मूर्त आसा. थंय आनीकय देवळांच्यो पाटयो दिसताल्यो पूण आमकां थंय व्हेलीं नात.

थंयच्यान मुखार आमकां एका राजवाड्या कडेन व्हेलीं. हालींच केल्ल्या उत्खननांत हो जागो मेळ्ळा. सादारण 65 किलो मिटरांत हे सगळे वाडे तळीं मेळ्ळ्यांत. हांगाच तें येदोळचें 'दशेरा मैदान' आसा. थंय दरबार हॉल, सैनिकांच्यो बराकी, देवळां अशें जायतें कितें कितें मेळ्ळां. वाटेवाटेर आशिल्ल्या माचयांक बोट दाखोवन वाटाडो कोणाकोणाचे म्हाल म्हणून सांगतालो. अजूनय थंय खोदकाम चालू आसा. मुखार आमकां कमरभर उंचायेचें लांबशेशें दुरीग दिसलें. भितर बरें खोल बांदकामशें दिसतालें. थंय सकयल देंवंक सोपणां आसलीं. हाका "रहस्य मंदीर वा सिक्रेट चेंबर" म्हणटालीं खंय.

7-8 सोपणां देंवन आमी सकयल गेलीं. मुखार भुंयारी वाट आसली. भितर सगळे कडेन काळोख. वण्टीक हात धरून धरून आमी चलूंक लागलीं. बरे भितर चलून दाव्या हाताक एक रस्तो मेळ्ळो. हांगा मात्सोसो उजवाड आसलो. परत दाव्या हाताक वळटकर काळोख सोंपलो. आमी चौकोनी अशा एका भुंयांरांतल्यान थंय पाविल्लीं. भुंयाराच्यो वण्टी सामक्यो खडबडीतश्यो आसल्यो. सकयली जमीनय खडबडीत पाशाणी. त्या भुंयारांत मदीं व्हड बरी कूड आसली. तीच ती खाजगी कूड. राजा आनी ताच्या दरबारींक कितेंय गुपीत खलबत करूंक, भायल्यान आयिल्ल्या मानेस्तां कडेन कितेंय गुपीत उलोवपाची ती कूड. ती भुंयारी कूड 300 फूट लांब 140 फूट रूंद आसली. थंयचो इल्लोय आवाज वयर येयनासलो. भितर मात बरी थंडाय आसली. कुडीचे वयर सध्या पाखें नाशिल्ल्यान थंय उजवाड दिसतालो. पूण पयलीं तेंय बंद आशिल्लें खंय.

थंयच्यान परत आमी वण्टीक धरून धरून वयर आयलीं. वयर एक व्हड मळ दाखोवन थंय राजवाडो आसलो म्हणून सांगलें. आतां थंय पाचव्या तणा मदीं वळी मारिल्लेवरी पाशाण आसले. त्या पाशाणी

वळींक लागून तीं वेगळीं वेगळीं दालनां म्हणून कळटालें. एका एका जाग्यार बोट दाखोवन वाटाडो सांगतालो, हांगा खाजगी साल, हांगा क्रिडा (खेळपाचें) साल, हांगा विसव घेवपाचें साल. एक एक लांबट चौकोन हुपीत आमी वाटाड्या फाटल्यान वतालीं. राजघराण्यांतल्या बायलांच्या सालांचे थोडे अवशेश उरिल्ले.

मुखार दरबार हॉलाचें लांबट चौकोनी साल आसलें. ताच्या मुखार पाशाणी माची, बरीच व्हड. थंय चड करून नृत्यांगनांचीं नृत्यां जातालीं, आनी दरबारांत बसून लोक पळयताले. तो पुराय दरबार हॉल भांगराच्या पत्र्यान मढयिल्लो खंय. सकयल उंची गालीचो आसतालो. आमी सगळें कल्पनेन पळयलें.

राजवाड्याचे फाटले वटेन एक व्हड तळें आसलें. चारय वटेन सोबीत सोपणांनी बांदून काडिल्लें. ताचे वयर एके वटेन उगडी पाशाणी पायपलायन दिसताली. पाशाणी खांब्यांची धिगी लावन पायपलायन उबी दवरिल्ली. ही रोमन शास्त्रा प्रमाण थंयच्या इंग्लीश इंजिनीयरांक हाडून करून घेतिल्ली. ही पायपलायन मात गोल पायपांची न्हंय. कुळागरांत माडी मदीं चिरून जसो उदक व्हरपाक पनेळ करतात तसो पाशाणाचो रूंद बरो पनेळ तयार केल्लो. तुंगभद्रेचें उदक ह्या अशा पायपलायनींतल्यान हाडून पुराय राजवाड्यांत खेळयिल्लें. मदीं मदीं ताका आनीक पनेळ जोडून तें जाय थंय व्हेल्लें. एका पनेळांतलें उदक ह्या तळ्यांत सोडलां. सध्या तातूंत पावसाचें पाचवें उदक आसलें.

लागींच एक पुश्करणी म्हळ्यार ल्हानशें तळें मेळ्ळां. 14 वर्सां हांगा खोदकाम केले उपरांत हांगा जें कितें कितें मेळ्ळां तातूंत हें एक तळें. 65 फूट खोल. भोंवतणीं भितर मेरेन सोपणां बांदल्यांत. हातूंतय उदक ना. वयर एक कूंड कशें आसा. थंय यज्ञ करताले काय तें न्हांवंक वापरताले कोण सांगूंक शकना खंय. त्या पुश्करणींत नौकाविहारय करताले खंय.

राजवाड्याच्या बऱ्याच फाटल्यान सामान्य लोकांक न्हावपा धुवपा

पासत व्हड तळें आसा. ताचे चारूय वटेन मंटप आसात. भितर देंवंक सोपणांय आसात. हांगाय तुंगभद्रेचें उदक तळ्यात पडपाची वेवस्था केल्या. थंय भितर एके वणटीर खूण केल्ली आसा. ताचे वयर उदक पावतकच दुसरे वटेन भायर वचपाची वेवस्था आसा. त्या तळ्या कडल्यान सात-आठ सोपणां देंवन आमी सकयल आयलीं. सकयल बाग आसली आनी थंयूय पाशाणी वळी मारून चौकोन केल्ले. तोवूय राजवाड्याचो खंयचो खंयचो भाग खंय.

मुखार आनीक एक खोल पूण रूंद बरी बांयशी आसा. तातूंतय सध्या पावसाचें उदक आसा. हाचेय वयर ल्हानसो चौकोन आसा. तो कित्या पासत तें कळ्ळें ना. स्राद्ध विधी करपा पासतूय आसूंक शकता असो दुबाव सांगतात खंय.

मुखार आमकां सैनिकांच्या बराकींत व्हेलीं. थंय सैनिकांक एकाच बराबर जेवपा पासत लांबचे लांब वळीन दगडी ताटां कोरांतून काडिल्लीं. आतां आमकां धा-पंदरा ताटां थंय दिसलीं. तिंवूय अजापाचींच. कांय वाटकुळीं पत्रावळी वरी, कांय केळ्याचे शिर्तेवरी, ताचेर पानांच्यो शिरो लेगीत आसल्यो. फातरांत बर तरेन चित्रकारिता करून हीं ताटां कोरांतल्यांत. एके वटेन वाटयो, एके वटे पेलो दवरपाक जागो. पळोवंक सोबीत दिसतालीं. तांचे मुखार उदकाचो पाट (सध्या सुको) जेवतकच त्या पाटांतलें उदक घेवन आपणेंच आपलें ताट निवळ करप खंय. वाटाडो सांगी, थोड्या वेळा भितर जेवप आनी ताटांय निवळ करून दवरपाची ही तांची रीत.

थंयच मात्शें मुखार राजगुरूंची जप-तप, यज्ञ याग करपा पासत व्हड बरें तळें आसा. हाकाय चारय वटेन सोपणां आसात. ताका भुमिती शास्त्रा प्रमाण आकार दिला. आनी गुरूत्वाकर्शणाच्या नेमा प्रमाण तातूंत उदक येतलें वतलें अशी वेवस्था केल्या. हीच वेवस्था थंयच्या सगळ्याच तळ्यांक केल्या खंय. म्हणटकीर न्हालीं, कपडे धुले म्हणून उदक म्हेळें जायनासलें.

थंयच्यान मात्शें मुखार एक दगडी तीन मजली माची आसली. तो पयलीं सात मजली राजमहाल आसलो खंय. पयले तीन मजले म्हळ्यार पाशाणी चौथरे. 32 सोपणां चडून राजमहालांत वचपाचें. वयले चार मजले आतां ना. पूण गायडान वयर माचयेर अदमासान खंयच्यो खंयच्यो कुडी दाखयल्यो. हे माचयेकय नक्षकाम केलां. सोपणांय बरीं रूंद आनी ऊंच ऊंच चडटना पांय भरून येताले. आमी त्या सोपणार बसून एक फोटो काडलो. ह्या म्हालाच्या फाटले वटेन सकयलय देंवंक फकत 7-8 सोपणां. थंय ल्हानशें दार. भायल्यान पळयल्यार भुंयारांतल्यान लोक भायर सरतातशे दिसतात.

त्या म्हालाक भोंवताडो घालून आमी मुखार आयलीं. थंय एके वटेन व्हड व्हड पाशाणांनी आयतेंच दुरीगशें केल्लें. थंयच लाकडाचो पूलसो करून ताकाच सोपणां केल्लीं. थंयच्यान देंवन आमी सकयल आयलीं. सकयल आकांत व्हड व्हड पाशाण अशे तरेन उबे आसले मदीं घोल तयार जाल्ली. आमी तिच्या तोंडार उबीं रावन पळयलें भितर मिट्ट काळोख आसलो. आनी उदकय पाझरता जावंये, थंडशें वारें येतालें.

आमी थंयच्यान सकयल देंवलीं. हांव पयलीं आयिल्लें तेन्ना तुंगभद्रेचे देगेर अशा व्हड व्हड पाशाणांनी तयार जाल्ली घोल पळयिल्ली. तिची म्हाका याद जाली. त्या जाग्याक चक्रतीर्थ म्हणटात म्हणून आमकां सांगिल्लें. थंयच्यान तुंगभद्रा न्हंय व्होल्त घेवन दोन पाशाणी दोंगरा मदल्यान नेटान वहांवता. तो प्रवाह आमी पयसुल्ल्यसान पळयिल्लो, पूण ताचो नेट पळोवन थंय व्हड व्हड घोली तयार जाल्यात खंय. आमी तेन्ना सांजवेळचीं थंय पाविल्लीं म्हणून एके घोलीच्या तोंडा कडेनच वचून परतल्लीं. ती घोल बरीच व्हड खंय, आनी तिचें दुसरें तोंड रानांत उगडटा. थंयच्यान कोले आनी हेर रानवटी जनावरां भितर येतात म्हणून आमकां मुखार व्हेलीं नात. आतांय आमकां वेळ नाशिल्ल्यान त्या घोलीं कडेन व्हेलें ना.

थंयच्च्यान मुखार येतना मोडकीं-तोडकीं दारां, दांतीं, वानां, तुळशी, लिंगां कितें कितें दिसतालें. तातूंतच दोन पाशाणी व्हड बरीं दारां दिसलीं. पाशाण कोरांतून तीं तयार केल्यांत. तांचेरूय कोरीव काम करून तांकां नटयल्यांत. दारांक फाटले वटेन आडामो घालपाचेय बुराक आसात. तीं दारां हती कडल्यान उगडून घेताले, आनी हतीच तीं बंद करताले. त्या दाराच्या वात्यांत घालपाक जो दांडो आसलो तो वेंतभर लांबायेचो.

इतलो वेळ वतांतल्यान भोंवन भोंवन पुरो जालें. थंयच आडसरां विकपी मनशा कडल्यान आडसरां घेवन पियेलीं.

मागीर आमकां राणयांचें मान्नें दाखोवंक व्हेलीं. हें शाही मान्नें खरेंच पळोवपा सारकें. एके व्हड बागेंत एक सोबीत दगडी इमारत उबी आसली. तेंच राणयांचें न्हावपाचें घर म्हणून वाटाड्यान आमकां सांगलें. हे इमारती भोंवतणीं बरीच खोल खळी (चर) आसा. सध्या तातूंत पावसाचें उदक पाचवेंच जावन आसा. ह्या घरा भोंवतणीं चारय वटेन गडगंज तटबंदी आसा. ताचे भितरले वटेन रूंद चौकी कशी आसा आनी वण्टीक तेंकून बसूंक ऊंच चौथरे. मदीं संगमरवरी पाशाणाचें तळूल. भायले तटबंदीक सोबीत नक्षकामान नटयिल्ले ऊंच ऊंच सज्जे. भितरल्यान कमानी आशिल्लीं जनेलां कशीं कुरकुटां. हें पुराय न्हाणीघर हिंदू आनी मुसलमानी शैलीन नटयलां.

ह्या तळुलांत उदक येवपाची आनी भायर वचपाचीय वेवस्था केल्या. वयल्यान उदक सोडपाक केल्ली खळी पळोवंक मेळटा. रॉयलसिटींतल्यान पायपलायनीन उदक हाडून ह्या तळुलांत सोडिल्लें. तळुलांत चारूय वटेन चार खांबे. वयर कोरीव कामान नटळयिल्ली सोबीत आंबारी म्हळ्यार पाखें. भोंवतणीं 14 घुमूटशे. तांचेरय सोबीत नक्षकाम केलां. तातूंतले कांय घुमूट इबाडल्यात. थोडे कडेन नक्षकाम अस्पश्ट जालां. 14य घुमटांचें नक्षकाम वेगवेगळें. वयर मात घुमूट ना, सपाट पाखें. राणयो आनी राजघराण्यांतल्यो बायलो माचुलांत

बसून येवन न्हाताल्यो. वराचीं वरां उदकांत जलक्रिडा म्हळ्यार उदकांत खेळटाल्यो.

जायते शिल्पकृतींनी नटिल्लीं ल्हान व्हड देवळांचे अवशेश हांगा वचत थंय दिसताले. इमारती, घरां हांचे तुटके फुटके अवशेश, कोणाचे कोरीव काम केल्ले खांबे हांगा थंय पडिल्ले. कलेच्याच न्हय तर सगळ्या मळार उच्च पदार पाविल्ल्या शाराची दुस्मानांनी केल्लो हो विध्वंस मन उदास जालें.

पूण आतां आंतरराष्ट्रीय पातळेर हंपीच्या शिल्प समुहाची जगांतलें उत्कृश्ट शिल्प म्हणून नोंद जायत पसून केंद्र सरकाराच्या पुरातत्व खात्यान हांगा खास लक्ष दिलां, म्हणूनच तुटक्यो मुर्ती प्लास्टर ऑफ पॅरिसान वा शिमिटान सारक्यो करतात. खंय खंय खोदकाम करतना मेळिल्ल्या वस्तूंचीं थंयच संग्रहालयां केल्यांत. खांबे कमानी मेळ्ळ्यात तांचो पडेग करून कांय बांदकामां तशातशीं तयार करपाचो यत्न केला.

हंपीक भोंवडेकारांची गर्दी वाडत पसून जायतया जाणांनी विरूपाक्षाच्या देवळा कडेन आनी भितर हेर कडेनय गाडे, धाबे, च्याच्यो टपरी हेर वस्तू विकपाचीं दुकानां घाल्लीं. ताका लागून हंपीचे सोबीतकायेक बादा येताली. शिवाय कोयराच्यो राशी वाडिल्ल्यो. पूण पुरातत्व खात्यान तांकां पयस धांवडायलीं. राज्याच्या भायर जागो दिलो. जाल्यार कितलींच शिमिटान बांदिल्लीं बांदकामां मोडून उडयल्यांत. थंय आतां कांय कडेन उत्खनन जावचें आसा. जाल्यार कांय जाग्यांचें इतिहास वाचून थंय कितें कितें आशिल्लें तें खणटना मेळिल्ल्या सामानाच्या आदारान तयार करतले खंय अशें गायडान आमकां सांगलें.

वताच्या रखरखांतल्यान पांय धोडायत आमी इतलो वेळ भोंवतालीं. आमकां तान-तान लागताली, पूण जाणीव जावंक नासली. गायडान म्हळें, आतां उरिल्ले जागे जेवतकच पळोवया म्हणून. तेन्ना आमकां भुकेची याद जाली.

भुकेची याद जाली आनी येवजलें इतलो वेळ आमी खंयच हॉटेलां बी पळोवंक ना. आतां हो आमकां जेवंक खंयच्या धाब्यार व्हरतलो काय? तेन्नाच सुदेशान म्हळें, ''हांगा 'मँगो ट्री' म्हणून एक बरें हॉटेल आसा थंय तुमकां जेवंक व्हरतां.''

''हांगा आनी बरें हॉटेल?'' कोणें तरी म्हळेंच.

आतां आमची बस जशी जशी मुखार वताली तशें तशें व्हड व्हड पाशाणाच्या पोंदा, कुशींनी जायतीं ल्हान-व्हड घरां दिसूंक लागलीं. बरोच लोक त्या वाठारांत रावतालो. रस्त्यार तांच्यो बोकड्यो, सुणीं, कुकडां सुसेगाद भोंवतालीं. एका सुण्याक आमची बस मात्शी आपटली मागीर घेऽ, त्या सुण्याचे धनिणीच्यो गाळी आनी सुण्याचें केंऽ केंऽ कें. इतल्या बोवाळांत बाकीच्या घरांतल्यानय लोक जमूंक लागलो. 'आतां आमकां आडायतात काय कितें?' आमकां भंय जालो. पूण मुखार व्होल्त आसलें आनी मागीर देंवती. ड्रायव्हरान गाडी नेटान व्हेली.

वाटेर लोकांनी पाशाणाक तांबडो, धवो रंग काडून जाल्यार कांय कडेन कपडो बांदून देव केल्ले. मनशांक खंयच्याय खांची कोनशांनी रावंक मेळूं. त्याच कोनशाक तांचो देवय आसा ते परिस्थितींत रावता. श्रद्धेचें बळगें व्हड म्हणटात तें खरें.

बरेच भितर रानांत कशी वचून आमची बस थांबयली. थंय शिमिटाचीं बरीं बरीं घरां आसलीं. भायल्यान पळोवंक हॉटेलावरी दिसतालीं. तांचे भायर खोंपींनीशीं कपड्याचीं दुकानां, सोबीत फातरां पसून तयार केल्ल्यो वस्तू, अशें जायतें कितें कितें विकपाक आशिल्लें. आमी थंय 'मँगो ट्री' म्हळ्यार आंब्या झाडा आनी तांचें पोंदां हॉटेलां खंय दिसतात काय पळोवंक लागलीं.

आमकां थंयच्यान सुदेशान केळीच्या बनांतल्यान वचपी वाटे वयल्यान येवपाक सांगलें. दोशीं वटेन ल्हान व्हड केळीं. थोड्यांक घडावयलीं आयिल्लीं तर कोणाचीं बोणां दिसता. कुशींनी उदकाचे

पाट व्हांवताले. अशा सोबीत पाचव्या वातावरणांतल्यान आमची पाचवी काळशी मातयेची वाट वताली. आमकां गोंयच्या कुळागरांची याद आयली.

बरेंच भितर वतकच आमकां आंब्या झाडां दिश्टी पडलीं. थंयच हॉटेलाची पाटी आसली. 'मँगो ट्री' भितर सरतनाच एक दुकान, भोंवडेकाराचीं बोल्सां ल्हव करपाची युक्त. तें चलोवपी थळावे लोक न्हय, नेपाळी, आसामी अशे. दुकानाच्या दारांत एक कपड्याची पोटली हुमकळटाली. कोणे तरी ती झेलयली. भितर भुरगें न्हिदिल्लें. काम करतां करतां भुरग्यांक सांबाळपाची ही बरी रीत म्हळें हांची.

मुखार पोरसांत वंये भितर व्हड व्हड हांयसां बदकां आनी तांचीं पिलां आसली. भुरगीं थंय धांवलीं. सुरज आनी विवेक हॉटेलांत जेवणाचें पळोवंक गेले. थंय खूब लोक जेवताले. आमकां भायरच रावंक सांगली.

भितर सामकें घरगुती वातावरण. जांकां सकयल बसून जेवंक येना तांचे पासत वयर थोडीं मेजां. रांदचेकूड बी वयर. हो दोंगर रूंद सोपणां सोपणांचो. त्या सोपणांचो फायदो घेवन ह्या हॉटेलांत जेवपाची वेवस्था केल्या. एका सकयल एक अशा दोन सोपणांचो जागो बरो निवळ करून थंय मोटवीं मेजां दवरल्यांत. बसूंक सकयल जमखना. फाटल्यान तेंकूंक पाशाण. आसमांडी घालून जेवंक बसपाचें. जांकां सकयल बसूंक येना तांचे पासत वयर मेजां आनी कदेलां आसात. शिवाय आंब्या भोंवतणीं पेड बांदलां ताचेर शेंदऱ्यो घालून जेवपाक बसप्यांचीय वेवस्था केल्या. तें हॉटेल आनी तातूंतले रुचीक घरावें जेवण, आमी खूश. म्हळ्यार खेडवळ म्हळ्यार आधुनीक सया दिवपी अशें तें सोबीत हॉटेल.

जेवन आमी परत केळीच्या बनांतल्यान लेफ्ट-रायट करीत बशी म्हऱ्यांत आयलीं. आमचो गायड वाटेर उबो आशिल्लो. ताका घेतलो आनी परत हंपी दर्शनाक सुरवात केली. आतां तो आमकां विठ्ठल

मंदिरांत व्हरतालो. हें मात्शें पयस आसा. वाटेर रघुनाथ मंदीर, अच्यूतराय मंदीर, कोदंडराम मंदीर, कोण तरी मारूती अश्यो पाटयो दिसताल्यो, पूण आमकां थंय व्हेलीं नात.

विजयनगराक भितर सरूंक 24 गेटी खंय. तातूंतली एकूच उरल्या. ती विठ्ठल मंदिरांत वतना वाटेर मेळ्ळी. वाटेर मोडक्या इमारतींचे अवशशे व्हड व्हड पाशाणा सांगातान दिसताले. वाटाडो आमकां तांचे विशीं कितें कितें म्हायती सांगतालो. थंय वेश्यांची व्हड वस्ती आशिल्ली खंय. लोकांचें यो-वच, नाच-गाण्यांचे आवाज, हांसपा-उलोवपाचे आवाज थंय गाजतालो जावंये. आयज थंय फकत पाशाणी खांबे आनी वण्टी अशे उध्वस्त अवशेश जावन उबे आसले. आमची बस मुखार गेली. व्हड बऱ्या गेटींतल्यान बस एका व्हडल्या मळार येवन थांबली. थंय एक ल्हानशी इमारत आसली. आनी तिच्या मुखार वेगळेच तरेच्यो उगड्यो गाडयो आसल्यो. त्या गाडयांच्या स्टॅण्डा वयल्यान ह्यो गाडयो प्रवाशांक घेवन थळां दाखोवंक व्हरताल्यो.

गायडान आमकां ते बशी म्हऱ्यांत व्हेली. थंय एक बायल तिकेटी दिताली. आमच्यो तिकेटी काडटकच आमकां दोन गाडयांनी बसूंक लायलें. ह्या उगड्या बशींत तीन बांक. ड्रायव्हरा फाटल्यान एक उरफाटो बांक. मदीं दांडो ताका धरून बसप. ड्रायव्हरा म्हऱ्यांतय दोग जाणांक बसूंक मेळटा. निमणें परत एक उरफाटो बांक. ह्यो गाडयो चलोवपी बायलोच. चुडीदाराचेर खाकी कोट घाल्ल्यो. इकरा प्रवाशी एके बशींत बसूंक शकतात. ह्यो इलॅक्ट्रीक गाडयो खंय. आवाजाचें आनी धुंवराचेंय प्रदुशण जायना. तातूंत बसून वतना बरी मजा आयली. ह्यो गाडयो सामक्योच हळू चलताल्यो.

असल्यो गाडयो हांगा मुद्दामच दवरल्यात खंय. आमच्या पॅट्रॉल-डिझलाच्या गाडयांच्या धुंवरान त्या शिल्पांची वाट लागताली. ते शिवाय गाडयांच्या, हॉर्नाच्या आवाजान फातर निखळटाले. म्हणून बरेच भायर आमच्यो गाडयो दवरूंक लायतात.

आमच्यो गाडयो थांबल्यो. मुखारच परत गडगंज असो तट, पाशाणी दुरीग. ह्या दुरगा भितरलीं बांदकामां काळाच्या आनी दुस्मानाचे भकीक पडलीं. पूण तांच्यो राखणे वण्टी मात चडश्यो बऱ्यो आसात.

दुरगाक तिनूय वटेन तीन व्हड गोपूर दिसताले. भितर दुरगाक तेंकून देवळाच्या धर्मशाळेच्यो होवऱ्यो आसल्यो. थंय पयलीं भावीक लोक सणा-परबां वेळार येतकर रावताले. हंपींतल्या सगळ्या देवळां भितर हें चड सोबीत खंय. हाका विजय विठ्ठल मंदीरय म्हणटात. ह्या देवळाची मुखा वयलो अप्रतीम असो भाग आनी कल्याण मंडप कृष्णदेवरायान आपल्या एका दिग्वीजया उपरांत म्हळ्यार 1513 सालांत तयार करून घेतला.

देवळाच्या चारय वटेन चार व्हड मंडप आसात, मदीं देवूळ. देवळा भायर जगप्रसिद्ध आनी अप्रतीम असो पाशाणी रथ आसा. हो कोणार्काच्या सूर्य-मंदिरावरी केला खंय. थंय देवळाकच रथाचो आकार दिला आनी हांगा देवळा मुखार त्या देवळाची म्हळ्यार रथाची प्रतीकृती केल्या. हो रथ खंय धव्या फातरांनी तयार केला. पूण धुल्लाक लागून जायत आमकां तो तांबशा फातरांचो दिसलो. विष्णूच्या देवळा मुखार खरें म्हळ्यार गरूड आसता. पूण हांगा रथ आसा. तो एकाच पाशाणांतल्यान कोरांतून काडला खंय. ताचीं चक्रां पयलीं हालतालीं. आयिल्ले भोंवडेकार तीं येवन-वचून हालोवंक लागले. तीं निखळून पडूं नये म्हणून आतां शिमिटान घट केल्यांत.

ताचे वयलें कोरीवकाम म्हणून सामकें दैवी कशें दिसतालें. ताचे सैनीक, शिकारी, भारतीय समाज तरेकवार दृश्यां तेच बराबर पुर्तुगेज, अरब, पर्शियन हांचींय चित्रां आसात. ताका मुखार सोबीत घोडे आशिल्ले पूण ते मोडले. म्हणून आतां उत्खननांत मेळिल्ले हती दवरल्यात. असो दगडी रथ जसो कोणार्काक आसा, हांगा आसा तसो महाबलीपुरमाकय फातरांत कोरांतिल्लो रथ आसा खंय.

देवळाचो मुखेल मंडप 56 नक्षकामान नटयिल्ल्या खांब्यांनी केला. तेय सादे खांबे न्हय 'स्वर मंडलांकीत' म्हळ्यार नाद सूर काडपी खांबे. ह्या खांब्या विशीं केन्ना लेख वाचिल्लो तेन्नाच्यान ते पळोवपाची उमळशीक लागिल्ली. आयज आमी त्या खांब्या मुखार सुमार मिटरभर अंतराचेर उबीं आसलीं, पूण थंय मात वचूंक शकनासलीं. वर्सभर पयलीं थंय एके कॉलेजीचो टूर आयिल्लो खंय. तातूंतल्या एका विद्यार्थ्यान त्या खांब्यांतल्यान आवाज कसो येता तो पळोवया म्हणून एका खांब्याचेर कितें तरी मारून खांबो इबाडलो. आतां तातूंतल्यान सूर येनात. तेन्नाच्यान खंयच्याच भोवडेकारांक त्या मंडपांत वचून आवाज आयकुपाक दिनात. आमकां त्या विद्वाट्या विद्यार्थ्याची भिरभिरी मारली. ताणें एक तर व्हड कलाकृती इबाडिल्ली. ते भायर ताका लागून आतां खंयच्याच भोंवडेकाराक त्या खांब्यांतल्यान येवपी वेगवेगळे सूर आयकूंक मेळचे नात.

ते खांबे अप्रतीम शिल्पकलेन नटयल्यात. एका खांब्यांतल्यान जलतरंगाचो आवाज येता, ताचेर जलतरंगाचें चित्र कोरांतलां. ज्या खांब्यांतल्यान ज्या वाद्याचो आवाज येता त्या वाद्याचें चित्र वाजोवप्या सयत त्या त्या खांब्याचेर कोरांतलां. त्या खांब्याच्या खंयच्याय भागाचेर ल्हवूच आवाज केल्यार लेगीत सूर येतालो खंय. 'पॉट म्युझीक' ह्या प्रकारान हे खांबे तयार केल्यात. मृदंग वादकाच्या खांब्याच्या फाटले वटेन कान लावचे दुसऱ्यान कोणेंय मुखा वयल्या मृदंगाचेर नाखटांनी आवाज करचो फाटले व्यक्तीक सारको मृदंगाचो आवाज येतालो खंय. पाशाणी डमरूंतल्यान डमरूचो आवाज येतालो. म्हाका दिसता अशे हे अजोड शिल्पकलेक 'शिल्प काव्य' हेंच नांव सारकें आसा.

ह्या खांब्यांचेर फकत वादकांचींच आनी वाद्यांचींच चित्रां नात तर देव देवता, मनीस प्राणी, सुंदऱ्यो नर्तकी सगळ्यांचीं सोबीत चित्रां नाजूकसाणीन कोरांतल्यांत. ताका लागून हे खांबे, खांबे कशे दिसनात. एकार एक चित्रां चिकटावन दवरल्यांत काय दिसतात. अशे

कोरांतिल्ले खांबे आमी हळेबीड, बेल्लूर, राजस्थानांतल्या दिलवाडा जैन मंदिरांत पळयल्यात. पूण दिलवाडा जैन देवळां संगमरवरी पाशाणाचेर कोरांतल्यांत जाल्यार बेल्लूर, हळेबीड, बेलावडी काळ्या पाशाणांत कोरांतल्यांत. पूण हंपीचीं सगळीं कोरीव शिल्पां टणक, घट्ट अशा ग्रॅनायटाच्या पाशाणांत कोरांतल्यांत. तरीय तितलेच नाजूकसाणीन तीं कोरांतल्यांत, तितलीच सोबीतकाय तीं दाखयतात. पळयतल्याक भुलोवन उडयतात. दैवी प्रतिभेचो स्पर्श हांगाच्या पाशाणांक जाला अशेंच म्हणूंक जाय.

शिंव, हती हांची तर तरेकवार शिल्पां, राग, लोभ, हिंसकपण सगळे भाव दाखोवपी अशीं प्रत्येक कडेन आसात. सोंड वयर काडून रागान धुमशेणां कांडपी हती, शिकार करचे वेळा वयलो वनराजाचो भयांकृत आवेश, पिंजारिल्ली आयाळ सगळें सगळें त्या शिल्पकृतींतल्यान हुबेहूब दिसतालें.

हें सगळें म्हऱ्यांतल्यान पळोवंक मेळ्ळें ना हाची खंत करत आमी मुखार गेलीं.

आमकां देवळाचे उजवे वटेन भितर व्हरपाक हाडलीं. हें पुराय देवूळ कोरीव कामान नटयलां. इल्लो लेगीत जागो रिकामो दवरिनासतना शिल्पकलेचे वेगळेवेगळे नमुने कोरांतून दवरल्यात. आमी देवळांत भितर सरचे पयलीं गायडान आमकां एक अजाप दाखयलें. आमी एके नळयेंत कांकणां कंवच्यो घालून हालयतात तशी तरेकवार चित्रां जातात तीं पळयतालीं. नळी हालयली काय चित्र बदलतालें. तशें थंयच्या एका कोनशार अशे तरेन एक शिल्प तयार केल्लें, तातूंत चार पांच शिल्पां दिसतालीं. त्या चित्राचो कांय भाग लिपोवन पळयल्यार तें प्रत्येक वेळार वेगळें दिसतालें. उडी मारपी माकड, नाग आनी शिवलिंग, आवयचें दूद पिवपी माकडा पील, एका माकडा पिलाक कोण तरी ओडून व्हरता आनी बेबूक अशीं वेगळींवेगळीं चित्रां तातूंत दिसतालीं. ह्या चित्राच्या वयल्या पाख्या वयल्यान जें पावसाचें उकद

पडटा तें वांकडें वचून परत सरळ येवन बरोबर ह्या चित्राचेर पडटा अशी थंय रचना केल्या.

हीं सगळीं कोरीव कामाची देवळां म्हळ्यार विन्नें आनी तुतयान कलाकारान घडयिल्लो जादूई आविश्कार. खऱ्यांनीच तांच्या कलेचें मोल पयशांनी सोडाच उतरांनी लेगीत करूंक जावचें ना. आमी त्या देवळांतल्या देवा परस तांचे कले मुखार तकली बागोवपाची.

तें अजाप पळोवन आमी भितर गेलीं. भितर खांबेच खांबे. ह्या पुराय देवळांत आशिल्ले कोरीव खांबे सादारण हजारभर तरी आसतले अशें सांगतात. भितर काळोखसो आसलो. आमकां सरळ गर्भकुडी कडेन व्हेलीं. भायलो मंडप आनी गर्भकूड हाचे मदीं वयर मेकळो जागो आसलो. थंयच्यान उजवाड भितर येतालो. भितर रिकामी गर्भकूड.

हें देवूळ खंय पंढरपूरच्या विठोबा पासत यादवांनी बांदिल्लें. तांणी अप्रतीम अशे द्रवीड शिल्पकलेचो एक नमुनो कशें हें भव्य देवूळ बांदलें आनी थंय सध्याची पंढरपूरच्या विठोबाची .मूर्त हाडून बसोवपाचे आसले. पूण विठोबानच हांगा येवंक मनाय केली खंय. अशेंय सांगतात, आपले पासत तयार केल्लें हें देवूळ पळोवंक पंढरपूरच्यान खासा विठोबा हांगा आयिल्लो. पूण ह्या देवळाची भव्यताय आनी सोबीतकाय पळोवन ताणें म्हळें खंय, ''हांव सादोसुदो विठू म्हारच बरों, म्हाका हें हांगचें वैभव पच्चें ना. म्हजें पंढरपूरच म्हाका बरें आसा.''

ही जाली आख्यायिका, पूण खऱ्यांनीच पंढरपूरच्या देवळांतली विठोबाची मूर्त ह्या देवळा पासत तयार केल्ली खंय. म्हणून ताका 'कानडाऊ विठ्ठलू' म्हळ्यार कर्नाटकाचो विठ्ठल अशें म्हणटात.

हे गर्भकुडीचे भोंवतणचो प्रदक्षणा मार्ग भुंयारी. आमकां पांच-स सोपणां सकयल देंवयलीं. भितर काळोख. पूण गर्भकुडी कडल्यान वयली उजवाडाची पसय मात्शी मात्शी येताली. भितर बरो व्हड, रूंद असो चौकोनी प्रदक्षणा मार्ग आसलो. थंय मदीं मदीं खांबे आसात.

तांचेर, वण्टींचेर कोरीव काम आसा खंय. पूण उजवाडाचे पसयेंत आमी वाट सोदत मुखार वचूंकच उरलीं. मोहितान बी मोबायलाच्या उजवाडांत पळोवपाचो यत्न केलो, पूण त्या काळखांत ताकां कांय कळ्ळें ना. तातूंत सकयली जमीनय खडबडीत त्या काळखी भुंयारांतल्यान एकदांची आमी वयर सरलीं.

देवळा भायर बरोच व्हड जागो आसलो. थंय तरेतरेचीं झाडां रोयिल्लीं. थंयच्यान आमकां परत दुर्गा भायर हाडलीं. एका मातयेच्या रस्त्या वयल्यान गायड आमकां मुखार व्हरतालो. वाटेर मोडक्यो तोडक्यो जायत्यो वस्तू दिसताल्यो. घुमट्योश्यो देवळ्योय आसल्यो. तातूंतय देव नासलो. मुखारच पाशाणी व्हड बरे दोन खांबे आसले. आनी ताचेर आडवी पाशाणी पाटी कशी आसली. हाका राजाचो तुळाभाराचो जागो म्हणटात खंय.

पयलींच्या काळार हांगा दसरो व्हडा प्रमाणांत मनयताले. महानवमीच्या दिसा ह्या चौकटींत तागडी बांदताले. तागडेच्या एका दाल्यांत राजा बसतालो, दुसऱ्या दाल्यांत भांगर, हिरे, माणकां, मोतयां अशे तरेचे जड जवाहिरें घालताले. राजाच्या वजना इतलें जातकर तें गरीब जनतेक दान करताले. पूण हाची खात्रीपुर्वक नोंद मेळना खंय. ह्या खांब्यां विशीं अशेंय सांगतात, झोंपाळ्याच्या उत्सवा वेळार हांगा झोंपाळो बांदून देवांक झोंपाळ्यार बसोवन झेलयतालीं खंय. नवरात्रांत आमचो मकरांत देवांक बसोवन हालोवपाच्या सणावरी तांचोय सण आसूं येता.

थंयच्यान मात्शें सकयले वटेन एक मंडप आसलो. ताका पुरंदर दासाचो मंडप म्हणटात खंय. सादारण 1540 वर्सा पुरंदर दास विजयनगर साम्राज्यांत रावताले. ते आपल्या कन्नड भक्तीगितांनी भक्ती प्रचाराचें काम करताले. तांच्या नांवाचे हे मंडप तुंगभद्रे देगेर आसात. हो मंडप कितल्याश्याच खांब्यां पसून तयार केला. कारण त्या वेळार तुंगभद्रेचेर धरण बांदूंक नासलें. थंय दोन तुंगभद्रांचो

संगम जाता. तुंगभद्रेचो एक फांटो शृंगेरीच्यान येता आनी एक फांटो भद्रावतीच्यान येता. दोनय फांटे हांगा एक जावन नेटान व्हांवतात. पावसा दिसांनी तिका आकांत हुंवार येतालो आनी ती कितलेंच गांव बुडयताली. म्हणून मागीर तिका हॉस्पेटांत धरण बांदलें. पूण पयलीं हुंवारान हो मंडप बुडटालो. तो व्हांवन वचूं नये म्हणून खूब खांब्यांचो आदार दिवन हो पुरंदर दास मंडप तयार केला.

आतां तातूंत पुरंदरदासाची मूर्त दवरल्या. थंय अजूनय भजन किर्तन करतात. हांगाचें वातावरण शांत आनी मनभुलोवणें. हांगा व्हड फातरांतल्यान तुंगभद्रेचें उदक भोंवरो कशें जावन घुंवून घुंवून व्हांवता. म्हणून हांगा न्हय हुपूंक व्हडीं वापरूंक मेळनात. म्हणून हागा 'टोपला' वापरतात. टोपला म्हळ्यार व्हड उथळ पांटले आसतात. तातूंत मदीं लोक बसतात आनी व्हडेकार ताणून व्हरतात. हे टोपला घुंवत घुंवत मुखार वतात. ते पळोवंक उडट्या तबकड्या वरी दिसतात.

थंयच्यान विजयनगरच्या राजांच्या वेळा वयले आनेगुंदी मेरेन वचपाच्या पुलाचे अवशेश आसात. जड जड पाशाणी फातऱ्योश्यो न्हंयच्या त्या खळखळट्या प्रवाहांत त्या काळार कश्यो उब्यो केल्यो जातल्यो हाची कल्पनाच येना. तेन्ना काय आतां भशेन आधुनीक साधनसुविधा नाशिल्लीं. त्या काळा वयल्यो त्यो फातऱ्यो अजूनय उब्यो आसात, कांय कडेन वयल्यो फातरी पडल्यात. पूण पूल पळोवंक मेळटा.

न्हंयचे दुसरे वटेन चंद्रमौलेश्वर देवूळ आसा. तातूंतय देवाची मूर्त ना. आतां फकत देवळाचो चौथरोच उरला, हालींच त्या चौथऱ्याचेर ल्हानशें देवूळ बांदून देवाची मूर्त स्थापन केल्या.

थंयच्यान आमकां हंपीच्या नामनेच्या विरूपाक्ष देवळा कडेन हाडलीं. ह्या देवळांत पयलीं आयिल्लें तेन्ना भायर उत्खननांत मेळिल्लो मोडको पाशाणी रथसो, फुटिल्लें व्हड बरें लिंग, मोडकीं पूण गडगंज अशीं दारां, दांतीं, वानां, देवांच्यो तुटिल्ल्यो-फुटिल्ल्यो मुर्त्यो असो

जायतो कचकच आशिल्लो. त्या कचकचांतय तांचें सौंदर्य कळटालें, ताचें तें विद्रूप पळोवन आमकां तेन्नाय संताप आयिल्लो.

पूण आयज जेन्ना आमी बशींतल्यान देंवलीं तेन्ना थंय सगळो वाठार निवळ आसलो. हांवें ताचे विशीं गायडाक विचारलें. गायड बरोच जाणटो जाल्ल्यान ताकाय तेन्नाची गजाल खबर आसली. ताणें सांगलें, 'त्या सगळ्या वस्तूंतल्यो थोड्यो वस्तू म्युझियमांत दवरल्यात खंय, तर कांय वस्तू प्लास्टर ऑफ पॅरिसान सारक्यो करून खंय खंय दवरल्यात. तातूंतलो एक चना गणपती. एक आमी सुरवेक पळयिल्लो गणपती.

आतां हांगा सुरवेक गाडयो थांबोवपाक व्हड मळ केलां. थंय कांय फेरीवाले, शिवाय चा-पेयां, आडसरां, विकप्यांचे गाडे आसले. आनी मुखार व्हड मळ कशें जागो रिकामो आसलो. मदीं दोन आकांत व्हड रथ चुडटांनी सारके बरे धांपून दवरिल्ले. आज ते धांपिल्ले खरे, पूण आमी पयलीं आयिल्लीं तेन्ना ते उगडे आसले. त्या रथाच्या दोनय चक्रांची उंचायच सादारण स फूट आसुंये. जात्रे वेळार ह्या रथांत विरुपाक्षाची मूर्त दवरून मिरवणूक काडटात खंय.

'पेज' ह्या परदेशी प्रवाशान ह्या जात्रेचें वर्णन करून दवरलां खंय. सामक्या पोरण्या काळा सावन ह्या देवळांत जावपी पुजा-अर्चा, सण-उत्सव आतां लेगीत तेच पद्दतीन करतात खंय.

रथाच्या दोन कुशीनच्या जाग्यार पयली तरेकवार सामानाचीं वळीन दुकानां आसलीं खंय. पूण पुरातत्व खात्यान तीं सगळीं दुकानां काडपाक लायल्यांत. थंय उत्खननांत मेळिल्ल्यो वस्तू मांडून दवरतले खंय.

थंयच्यान मुखार येतकर एक आकांत व्हड अशें प्रवेशदार दिसूंक लागलें. ते रथ वचपा इतलें तें व्हड आसलें. हें महाद्वार 66 मिटर ऊंच आसून हाचेर कर्नाटकांतलो सगळ्यांत ऊंच गोपूर आसा खंय. ताका इकरा मजले. ह्या गोपूराक 'बिस्टप्पय्या टॉवर म्हणून वळखतात. ताचेर तरेकवार देव, देवर्शी, नृत्यांगना अश्यो तरेकवार मुर्ती आसात. ह्यो एक एक मुर्ती म्हळ्यार सुंदरकायेचो साक्षात्कर. हो गोपूर 2[illegible]



फूट लांब. हो गोपूर म्हळ्यार प्राचीन द्रवीड शिल्पकलेचो एक नमुनो.

थंयच्यान भितर वतकच देवळाचो व्हडलो प्राकार मेळटा. ह्या प्राकाराची लांबाय सादारण 510 फूट आनी रुंदाय 130 फूट. जमीन पाशाणी फातरांची. ह्या प्राकाराच्या मदल्यान एक धांपिल्लो व्हाळ आसा. तातूंतल्यान तुंगभद्रेचें उदक व्हांवता. प्राकाराच्या दोनय कुशींनी भायल्यान आयिल्ल्या प्रवाशांक रावपाक अगरशाळा बांदल्यात. हाका हरिहर बुक्करायान बांदिल्लो 'कल्याण मंटप' अशेंय म्हणटात. जात्रे वेळार थंय जेवणावळी घालतात खंय. थंयच दावे वटेन भायर संस्थानाची व्हड बांय आसा. तिचे म्हऱ्यांत संस्थानाचो हती उबो आसलो. ताका न्हाणयताले. तेच अगरशाळेंत संस्थानाचें ऑफिसय आसा.

मदीं एके दगडी देवळेंत तीन तोंडाचो नंदी आसलो. ताका भूत, वर्तमान आनी भविश्याचो साक्षीदार मानतात खंय.

ह्या देवळाक भितरले वटेन आनीक एक दुरीग आसा. ताचेरय सोबीत बरो गोपूर आसा. हो गोपूर कृष्णदेवरायान आपल्या पट्टाभिशेकाचे यादीक देवाक भेटयला. हाची उंचाय पयल्या गोपूरा परस कमी. पूण नक्षकाम खंयच फाटीं ना. पयल्या गोपूरा इतलोच होवूय गोपूर द्रविडी शिल्पकलेचो उत्कृश्ट असो नमुनो.

भायर जोतीं दवरून आमी भितर गेलीं. भितर परत व्हड बरो प्राकार आसलो. ह्या प्राकारांत ध्वजस्तंभ आनी दीपस्तंभ आसा. ते भायर ल्हन ल्हान देवळ्यो आसात. दावे वटेन पाताळेश्वर, मुक्तीनरसिंह आनी सुर्यनारायणाचें देवूळ आसा. आनी उजवे वटेन लक्ष्मीनरसिंह, महिषासूरमर्दिनी हांचीं ल्हानशीं देवळां आसात. मदीं पाशाणी देवळेंत तीन नंदी आसात. सकयलय एक नंदी आसा. नंदी मुखार वळीन पणट्यो पेटयिल्ल्यो. ह्यावूय प्राकारांत दोनय कुशींनी अगरशाळा आसात. एके अगरशाळेक लग्न मंडप म्हणटात. थंय विरुपाक्ष आनी पार्वतीचें लग्न करतात. व्हड उत्सव थंय जाता. पयसुल्ल्यान लोक त्या उत्सवाक येतात. तसोच हांगाचो दुसरो व्हड उत्सव म्हळ्यार एके

अगरशाळेच्या वारांदार व्हड बरें दगडी आयदन आसलें. (पयलींच्या दोणावरी आकाराचें) तें खंय पंचामृताचें आयदन. देवाच्या प्रसादाचें पंचामृत तातूंत घालून लोकांक तीर्थ दितात. त्या आयदनाचेर बरी कलाकुसर आसा.

हें विरुपाक्षाचें देवूळ हांगाचें सगळ्यांत पोरणें अशें देवूळ. यादवकाळाच्या पयलीं सावन हें देवूळ हांगा आशिल्लें अशें कांय जाण सांगतात. कांय जाण हें देवूळ मौर्य काळांतलें समजतात जाल्यार कांय जाण शिलाहारांनी दिल्ली ही भेट अशें समजतात. प्राचीन काळा सावन आयज मेरेन हें देवूळ प्राचीन द्रवीड शिल्पकलेची साक्ष दीत उबें आसा. ह्या देवळाक पंपापती देवूळय म्हणटात.

ह्या वाठाराक प्राचीन काळार पंपाक्षेत्र म्हणटाले. पंपावती देवीन काळजातळांतल्यान केल्ले भक्तीन विरुपाक्ष म्हळ्यार म्हादेव हांगा प्रकट जालो आनी पिंडिकेच्या रुपान कायम हांगा रावलो अशें मानतात. विजयनगराच्या राजांनी ताका कुलदैवत मानून ताची बरे तरेन जतनाय घेतली.

मुखेल देवळाचो भायलो मंडप आनी हॉल सामको कलाकुसरेन नटयिल्लो असो व्हड बरो आसा. पाख्याचे भितरले वटेन काडिल्लीं मार्कंडेय, रामायणांतले प्रसंग दाखोवपी पेंटींग दोळे दिपकायतात. थोडीं सोपणां चडून आमी वयर आयलीं थंय एक कोळंबी आसली. वयर एक भट बसून लोकांनी भेटेक हाडिल्ले नाल्ल ते कोळंबेंत फोडटालो. तें उदक खंय वतालें कोण जाणा. पूण नाल्ला उदकाची तकली कणकणपी घाण थंय येताली. कर्नाटकांतल्या चडशा देवळांत ही अशीच घाण येता.

थंयच्यान आमी भितर गेलीं. भितर व्हड मंडप आनी गर्भकूड आसली. गर्भकुडींत विरुपाक्षाची पिंडिका आसा. शंकराचे पिंडिकेचेर नागमुकूट घाल्लो विरुपाक्षाचो मुखवटो बसयला. लामणदिव्यांच्या उजवाडांत गर्भकूड उजळिल्ली.

गर्भकुडीच्या मुखारच अतिशय सोबीत नक्षकामान नटयिल्लो मंडप आसा. ताचो प्रत्येक खांबो म्हळ्यार शिल्पकलेचो सोबीत नमुनो. सादेपण आनी सोबीतकाय हांचो सुमेळ हांगा सादला. थंयच नंदीची मूर्त आसली.

थंयच्यान उजवे वटेनच्यान भायर येतकच पंपादेवी आनी भुवनेश्वरी देवीचीं देवळां आसात. दोनय देवी भांगरा-शिंगरांनी नटून उब्यो आसल्यो. ह्या देवळां सकयल चकचकीत पितूळच्या नागांची देवळी आसा.

फाटले वटेन चार-पांच सोपणां चडून वयर वतकच काळखांत भरिल्ल्यो होंवऱ्यो आसात. थंय चडून वतकच एक अजाप दिसता. थंय एक 'पिनहोल कॅमेरा' आसा. हीं शिल्पकाव्यां घडोवपी कलाकारांक हेर भौतीक शास्त्राचें गिन्यान कितल्या उच्च दर्ज्याचें आसलें ताची देख म्हळ्यार हो 'पिनहोल कॅमेरा'. एके काळखे कुडीच्या पुर्वे कडल्या वण्टीचेर दवरिल्ल्या बुराकांतल्यान पयस आशिल्ल्या त्या भव्य गोपूराची उरफाटी प्रतिमा फाटले वण्टीचेर पडिल्ली दिसता. दिका, ह्या जाग्या वयली दोंगरावेली उंचाय, गोपूराचें आकारमान हांचे बरोबर गणिती गिन्यान लक्षांत घेवन वास्तूशिल्पींनी हें अजाप करपी प्रतिमादर्शन घडयलां.

हांगाच्यान फाटले वटेन भायर सरल्यार विद्यारण्य स्वामींचें देवूळ आसा. पूण वेळ चड नाशिल्ल्यान आमी थंय गेलीं ना. ह्या देवळाच्या उत्तर भागा कडल्यान आनी एक गोपूर दिसता हो हरिहर देवरायान बांदून घेतिल्लो खंय. हाका कनकगिरी गोपूर म्हणटात. ह्या गोपूराचेर हेर कलाकुसरी वांगडा रत्नगर्भ गणपती आनी देवीची मूर्त आसा. ह्या गोपूरांतल्यान भायर येतकच दावे वटेच्यान व्हड सरोवर आसा. हाका मन्मथ सरोवर म्हणटात. हेंवूय सरोवर आमी पळोवंक गेलीं नात. हें सरोवर बरें आसा खंय. तें वापरतात. पयलीं जेन्ना हांव आयिल्लें तेन्ना सोपणां सोपणांनी बांदून काडिल्लें हें सरोवर आमी पळयिल्लें.

देवळाचे भायले वटेन एका व्हड फळ्याचेर संगमा, साळुवा आनी तुळुवा राजघराण्याचो इतिहास बरयिल्लो आसा. साळुवा घराण्याचे राजमुद्रेचेर सूर्य-चंद्र, जांबिया आनी दुकर आसा. हे राजमुद्रेचेर दुकर आसपा फाटली काणी हांवें पयलीं सांगल्या. आनीक एक खबर सांगतात. जेन्ना हिरणाक्ष नांवाचो राकेस ही भूंय चोरून घेवन गेल्लो, तेन्ना महाविष्णून वराह म्हळ्यार दुकराचो अवतार घेवन ही भूंय दर्यांतल्यान वयर हाडून परत हांगा स्थापीत केली. वराह अवतार घेवन विष्णून तांची भूंय वांचयली म्हणून दुकराचें चिन्न तांचे राजमुद्रेचेर घालां.

थंयच्यान आमी भायर येवन चा घेवन बशींत बसलीं. आतां आमचो गायड गेलो. थंयच्यान आमकां तुंगभद्रा धरणा कडेन हाडलीं.

पंडीत जवाहरलाल नेहरून भाकरा-नानगलचें धरण, तुंगभद्रेचें धरण, कृष्णराज सागर धरण अशीं व्हड व्हड धरणां तांचे विद्यूत प्रकल्प पळोवन म्हणिल्लें खंय, हींच आमचीं स्वतंत्र भारतांतलीं तिर्थक्षेत्रां म्हणून. खंय तरी वाचिल्लीं तांचीं उतरां म्हाका याद जालीं. हांवें वांगडच्यांक सांगलें.

धरणाच्या रस्त्याची चडण सुरू जाता थंयच खाजगी वाहनां थांबयतालीं. आमी बशींतल्यान देंवन लेफ्ट-रायट करूंक सुरवात केली. रूंद बरो एक रस्तो धरणाची वाट चडटालो. आनी एक रूंद रस्तो सकयल्यान बागेंतल्यान भायर येतल्यां पासत आशिल्लो.

आमी खर्शेत-धांपेत वयर चडूंक लागलीं. पयलीं आमी आयिल्लीं तेन्ना ह्या धरणाचेर काम करपी एका अधिकाऱ्यागेर राविल्लीं. ताणें सरकारी जिपींत बसोवन आमकां सामकीं धरणाचेर व्हेल्लीं. तेन्ना धरण पूर्ण जाल्लें, पूण बरींच कामां चालू आसलीं. आतां सकयल व्हडली बाग केल्या. ती तर तेन्ना करूंकच नासली. ताणें धरणाच्या मदीं मेरेन आमकां व्हेल्लीं. तेन्ना हांवें पळयिल्लें तें पयलें धरण. धरणाचो पुराय विस्तार जरी रातचो आमकां सारको कळ्ळो ना तरी जितलें धरण पळयिल्लें ताचे वयल्यन अजापान आमचे दोळे मोट्टे

जाल्ले. उदकाचे येदे मोट्टे दोन नेटान पडपी घोगे पळोवन तर आमी भंयान दोळे धांपिल्ले.

आतां हळू हळू आमी वयर चडटालीं. एके वटेन गच्च झाडां-झोंपांनी भरिल्लो दोंगर आनी दुसरे वटेन मुद्यम रोयिल्लीं सोबीत झाडां तोखेत आमी वयर गेलीं. मुखार रूंद बरो उदकाचो पाट सुरू जालो. हाका पाट म्हणप चुकीचें. एक ल्हानशी न्हय कसो तो पाट आसलो. आमी कुल्लू-मनाली वतना भाकरा नानगल धरणाचो पाट पळयिल्लो, तो तर पाट (कानाल) म्हणपाचो न्हयच. तो आमचे असोळडेचे कुशावती न्हंये इतलो रूंद आसलो.

दिसूयभर भोंवन आमचे पांय सामके दुखिल्ले. म्हणून ल्हवू ल्हवू चडाव चडून आमी एकदांची वयर धरणा कडेन पावलीं. उजवे वटेन सकयल विद्यूत-प्रकल्प दिसतालो. थंयच सकयल बागेंत वचपाक सोपणां आसलीं.

आमी मुखार गेलीं. धरणार वचूंक जो रस्तो आसा तो भोंवडेकारांक बंद आसलो. थंय हातांत आर्मां घेवन सॅक्यूरिटी उबे आसले. थोडे सैनीकय थंय उबे आसले. मुखार तांचें ऑफिस आसलें. कांय सैनीक गस्त घालत आसले. एके सोबीत ल्हानशे बागेंतल्यान आमी मुखार गेलीं. थंय व्हड जाग्यार उबे रावन धरण आनी आडावन धरिल्लें तुंगभद्रेचें अथांग अशें उदक पळयताले. एक सागरच कसो थंय तयार जाल्लो. पळयता थंय उदकच उदक. दुसरी तड दीसनासली. आमचीं साळावलेचीं तीन धरणां एका मुखार एक दवरल्यार घडये हें तुंगभद्रा धरण जातलें इतली ताची लांबाय. म्हळ्यार सादारण 378 चौखण किलोमिटर. आनी उंचाय अदमासान 260 फूट. त्या काळार ताचेर 25 करोड रुपया खर्च केले असो अदमास सांगतात.

ह्या धरणान खंय हजारांनी एकर जमीन 'सुजलाम सुफलाम' केल्या. तेन्नाच म्हज्या मनांत प्रस्न आयलो 'आनी ह्या जलाशयान कितले गांव पोटांत घेतल्यात काय?' रात आनी दीस, एका फाटल्यान

एक येत आसतात, पूण चकचकीत दिसा मुखार रातीची व्यथा आमी लक्षांत घेनात हेंच खरें. धरणान किल्याच लोकांक आदार दिलो, वीज दिली. धान्य-फळफळावळ पिकयली, अशें जायतें कितें कितें दिलें. पूण किलेच गांव ह्या उदका पोंदा गेल्यात थंयच्या धरणग्रस्तांचे प्रस्न अजून मेरेन सुटल्यात काय? ह्या प्रस्नांनी म्हजो जीव खासावीस जालो. आमचीं भुरगीं, वांगडी फोटो काडपांत, ते धरण तोखेवपांत गुंग आसले. म्हजें मन मात भलत्याच विचारांत घुस्पल्लें. हालींच हांवें एक धरणग्रस्तांचेर आदारिल्ली कादंबरी वाचिल्ली. ती येवजून हांव चडच खासावीस जालें.

धरणाचे दुसरे वटेन जो दोंगर आसा ताका कैलास पर्वत म्हणटात खंय. पूण तो सारको दिसनासलो. ताचे वयल्या लायटींक लागून थंय कितें तरी आसा म्हणून कळटालें. हेवटेन आमच्या फाटल्यान सादारण 200 मिटर ऊंच पर्वत आसा. ताका वैकुंठ पर्वत म्हणटात खंय. ह्या पर्वताचेर सरकारी रेस्ट हावस आसा आनी आंजनेय म्हळ्यार मारूतीचें देवूळ आसा. एका हातांत गदा आनी एका हातात संजीवन पर्वत घेवन येवपी मारूतीची मूर्त भितर आसा खंय. वेळ जाल्ल्यान आमी वैकुंठ पर्वतार गेलीं नात.

थंयच्यान आमी सकयल देंवलीं. धरणाचे दुसरे वटेन म्हैसूरच्या वृंदावन गार्डनावरी पूण ल्हान बाग केल्या. आमी सकयल देंवलीं. थंयच्यान लागींच पाटाचेर बांदिल्ल्या पुला वयल्यान दुसरे वटेन गेलीं. पुलार खुब्ब जळारां आसलीं. मुखार बागेंत सोबीत लॉन, फुलझाडां सगळें आसलें, पूण रात जाल्ल्यान आकां सारकें कळनासलें. जंय लायट आसा थंयचोच वाठार कळटालो. मदीं उदकाचो पाट सोपणां सोपणां करून सोडिल्लो. सुरवेक वाटकुळे तपकडेचेर नंदी आनी ताचे वयर कारंजें सोडिल्लें. भोंवतणीं रंगयाळे बल्ब घाल्ले. मदीं मदीं मानगें, नर्तकी अशे पुतळे केल्ले आनी तांचे वयल्यान रंगयाळीं कारंजीं सोडिल्लीं. पाटाच्या निमण्या तोंकार दोंगुल्लीशी करून

ताचेर म्हादेवाची मूर्त बसयिल्ली. ताचे जटेंतल्यान कारंजेरुपी गंगा व्हांवताली. ताचोच घसघसो ते दोंगुल्ले वयल्यान पडटालो. होच पाट उजवे आनी दावे वटेन वळयिल्लो. बाग बरीच व्हड आसली. थंय सारको उजवाड नासलो. उजवाड आसलो ते वटेन आमीं गेलीं. दोनूय वटच्यान लॉन आनी झाडां आसलीं. फुलां मात कसलीं तें पळोवंक मेळ्ळीं ना.

मुखार एका लॉनार मदीं व्हड तळूल बांदून काडिल्लें. तातूंत उदक आसलें, पूण हळशिकावणें. मदलें कारंजेंय बंद आसलें.

बरेच मुखार म्युझिकल फावंटन आसलो. पूण अजून तो चालू जावपाचो वेळ जावंक नासलो. लोक बेगी बेगीन बाग पळोवन येवन तणार बसताले. मात्शें मुखार नुस्त्याघर आसलें. आमी पयलीं थंय गेलीं. ताच्या दारांतच शिमिटाचीं दोन व्हड नुस्तींदाराचे दोनय वटेन व्हडलें तोंड उगडून आमचें स्वागत करतालीं. तांचेर बसूंकय मेळटालें. भितर काचेच्या बॉक्सांनी तरेकवार नुस्तीं आसलीं. तीं पळोवन आमी म्युझिकल फावंटना म्हऱ्यांत येवन बसलीं.

थारिल्ल्या वेळार ज्युस्त कन्नड पद सुरू जालें आनी ताच्या तालार उदकाचें नर्तन सुरू जालें. पंदरा वीस मिनटां आमी तें पळयलें आनी उठलीं. आमी मडगांवां आनाफोंत बागेंत हें उदकाचें नर्तन पळयिल्ल्यान आमकां ताचें व्हडलें अप्रूप दिसलें ना. आमी थंयच्यान येवन बशींत बसलीं.

गंगावती वटेन आमची बस चलूंक लागली. बशी वांगडा म्हजींय विचारचक्रां सुरू जालीं. पयलीं जेन्ना आमी तिरुपतीक वतालीं तेन्ना हंपी, हॉस्पेट, मंत्रालय हे वटेन गेल्लीं. आमचे वांगडच्या भुजले नांवाच्या कुटुंबाचीं जशीं हॉस्पेट सोयरीं आसलीं तशीं मंत्रालयाकय सोयरीं आसलीं. तांणी थंयच्या राघवेंद्रस्वामीक आंगवण केल्ली. तांकां लागून आमकांय मंत्रालयाक वचपाचो योग आयिल्लो.

तांणी मंत्रालयाक या म्हळे बराबर आमकां हांसो आयलो. आमी

मंत्रालय हें सरकारी संबंदान आयकल्लें. अशें नांवांचें गांव आसा हें आमकां खबरच नासलें. हें मंत्रालय म्हळ्यार देवकार्य करपाचें म्हत्वाचें भक्तीपीठ खंय. हें आंध्रप्रदेशांतल्या कुर्नुल जिल्ल्यांत पडटा. हॉस्पेटच्यान सामकें लागीं.

थंय राघवेंद्रस्वामीचें देवस्थान. आमकां भुजलेमामान राघवेंद्र स्वामीची खबर सांगिल्ली. मंत्रालयाक तांची समाधी आसा. थंयच्यान लागींच आशिल्ल्या 'पंचमुखी' घोलींत तांणी 12 वर्सां खर तप केल्ले. त्या वेळार तांकां पंचमुखी प्राणदेवरू (मारुती) कोल्हापूरची महालक्ष्मी, तिरूपतीचो व्यंकटेश आनी विष्णूचो कुर्मावतार ह्या देवांनी दर्शन दिलें खंय. तांचे आज्ञेनच तांणी मंत्रालयाक रावन व्हड कार्य केलें आनी निमणें हांगाच समाधी घेतली.

मंत्रालयाक पावतकर आमकां पयलीं तुंगभद्रेचे देगेर न्हावंक व्हेलीं. थंय दर्याचे वेळेवरी पाशाणी फातराचो व्हड जागो आसलो. पावसांत हो सगळो जागो उदकान भरता खंय. आमी थंय पावलीं तेन्ना खूब लोक थंय न्हातालो, थोडे जाण कपडे उमळटाले आनी थंयच फातराचेर सुकत घालताले. 'अशें उगड्यार न्हावप?' आमकां सामकी लज दिसली. पूण करतलीं कितें? थंय न्हाले शिवाय देवळांत दर्शनाक वचूंक मेळना म्हणून सांगलें.

मागीर आमचे वांगडच्या प्रेमान आनी गुलाबीन एक युक्त सांगली. 'आमी दोग-तीग जाणां साडयेचो आडसर करून रावया, आनी एक-एकटें न्हावन येयात.'' मागीर आमी लज मात्शी पेल्यान दवरून न्हावन देवदर्शनाक आयलीं.

हंपीवरी व्हड व्हड पाशाणी शिळांमदीं मंत्रालय गांव वसला. थंयच समाधी देवूळ आसा. देवूळ व्हड आसा. पूण लोखंडी कठडो घालून भक्तांक दर्शनाक वचपाक मार्ग तयार केला. हांगा कांय भक्त लोळत प्रदक्षणा घेत वचपाची आंगवण करतात. एक बायल तशी लोळत वता ती आमी पळयली. वताचो रखरख वाडटालो, पोंदची पाशाणी जमीन

तापताली, पूण निव्वळ आसली. ताचे वयल्यान ती बायल लोळत घुंवत प्रदक्षणा घेताली.

मुखेल मंडपांत वतकर पयलीं मारूतीचें देवूळ मेळटा आनी मात्शें मुखार वतकर 'समाधी वृंदावन' म्हळ्यार राघवेंद्र स्वामीची समाधी मेळटा. गर्भकुडींत एक व्हड बरी पाशाणी तुळस आसा. ताच्या म्हऱ्यांत तशीच दुसरी एक तुळस आसा. ती वरींद्रनाथ स्वामीची खंय. दोनय तुळशी बऱ्यो कोरीव कामान नटयल्यात.

दर्शन घेवन भायर येतकच देवळाचे उजवे वटेन आमकां व्हेलीं. थंय एक मजली इमारत आसली. थंय तेन्ना सदांच अन्न छत्र चलतालें. आमी वळीन भितर गेलीं. लांबचे लांब सालांत जेवणावळ आशिल्ली. जेवणाक शीत आनी सारम् (सार), तोंडाक लावंक पिठल्यावरी कितें तरी पातळशें इल्लेंशें वाडिल्लें. सामकें रुचीक. अजूनय म्हाका ताची रूच याद आसा.

मंत्रालयाच्या यादींत हांव गुल्ल आसतनाच आमची बस गंगावतींतल्या सर्वेश हॉटेला कडेन येवन उबी रावली. आमी दुखरे पांय ओडत रुमार गेलीं.

दुसरे दिसा सकाळीं नाश्तो घेवन आमी बशींत बसलीं. आयज आमी अंजनी पर्वताचेर वचपाचीं आसलीं. वाटभर पाशणांची सैम कलाकारान केल्ली कलाकारी पळयत अंजनी पर्वता कडेन आयलीं. थंय भरपूर सोपणां चडून वयर वचपाक जाय आसलें. आमी सदां भशेन थारायलें. जितलीं जाता तितलीं सोपणां चडप, ना जाल्यार थंयच बसप.

सोपणां सरळ वयर चडपी नासलीं. वांकडीं वांकडीं मदीं सरळ उबीं कशीं, मदीं व्हड-व्हड जागो, मदीं ल्हान सोपणां मदीं ऊंच सोपणां. आमी हळू हळू चडूंक सुरवात केली. आमचीं भुरगीं, मेधा आनी क्षमा सडसडीत वयर चडूंक लागलीं, सगळ्यांत फाटल्यान गोविंद आनी दिगंबर भावजी, मदीं आमी सगळीं. हो सगळो दोंगर

मोट्या मोट्या पाशाणाचो. आमी हळू हळू चडटालीं म्हणून मदीं मदीं रावन सरभोंवतणची पाशाणी सोबीतकाय पळयत वयर चडटालीं. ह्या पाशाणी कलाकारीक पाचव्या शेतांनी आनी केळीच्या बागांनी सोबाय हाडिल्ली. मदीं मदीं उदकाचे पाट आनी तळुलां. सैमाच्या कॅनव्हासाचेर पितारिल्लें हें चित्र कितलें आनी कशें दोन दोळ्यांत सांठोवन घेवं अशें आमकां जाल्लें.

वाटेर माकडां सोपणांच्या कडेक आशिल्ल्या फातरांचेर बशिल्लीं. कोणा कडेनय पिशवी दिसली काय झोमून घेतालीं. गोविंदान नाल्ल आनी फुलांची पिशवी घेतिल्ली. ती तांणी झोमून व्हेली. तीं कितें करतात तें पळोवंक गोविंद रावलो. तांणी बडयेन नाल्लाचो दोळो कोंकलो आनी उदक पिले. मागीर फातरार आपटून तो नाल्ल फोडून भितरली कातली खाली. एक भोंवडेकार जोडपें कालच्यान हंपी सावन आमकां मेळटालें. बायल काळीकिट्ट आफ्रिकन आनी दादलो तांबसो गोरो. आमच्या भुरग्यांनी तांकां ब्लॅक ॲण्ड व्हायट नांव दवरिल्लें. तिंवूय नाल्ल फुलां आनी केळीं घाल्ली पिशवी हातांत झेलयत वयर चडटालीं. माकडांनी केन्नाच झोंपय मारून तांची पिशवी व्हेली. तांणीय रावन माकड नाल्ल कसो खातात ती मजा पळयली आनी आमी मेळटकच हांसून हांसून आमकां सांगली.

अशा ह्या माकडांक सांबाळत सांबाळत आमी वयर चडलीं. बरें वयर पावपाक आमचीं सोपणां दोन आकांत व्हड तळपापोंदच्यान वतालीं. मात्शी बाग घेवन ना जाल्यार बसून धा-पंदरा सोपणां चडचीं पडटालीं. भुंयारी वाट कशी. भितर सामकी थंडाय. भायले गरमेन खासावीस जाल्ल्या आमकां थंयच बसकण मारीन दिसली. अशे तरेन 584 सोपणां चडून आमी सगळींच एकदांचीं वयर पावलीं.

आमी वयर पावचे पयलीं आरती वेळार जाता तसो वाद्यांचो गजर आनी भजनाचो स्वर आमकां आयकूंक आयलो. आमकां दिसलें वयर आरती चलता आसतली. वयर वचून पळयतकच कळ्ळें, थंय

व्हड पाशाणाच्या पोंदा घोल आसा. तातूंत म्हादेवाचें देवूळ केलां. थंय पुजाऱ्याचेर भार आयिल्लो. ते पासत वाद्यांचो आनी भजनाचो गजर चलिल्लो. जायते लोक भारा मुखार बसून कितें कितें विचरताले. ताचे वयर पाशाणी ल्हानशें देवूळ आसलें. भितर पयलीं मारूती आनी राम-लक्ष्मण-सितेची देवळी आसा. मागीर दुसरे कडेन मारूतीची आवय अंजनीची देवळी आसा. देवळांत बरी थंडाय आसली. देवळा भायल्यान पाशाणा मदल्यान प्रदक्षणेची वाट.

वयर चड जागो नासलो. एके वटेन हीं दोन देवळां आनी मात्शें मुखार एक घर. थंय एके वटेन ऑफीस आनी एके वटेन भट रावता. सकयल्यान वयर नळान उदक घेतलां. देवाक अभिशेक निवेद्य सद्दां चलता. वयर लायटूय आसा. त्या दोंगराचेर अर्द्याक हें देवूळ, घर आनी मदीं उगडो जागो आसलो. थंय झाडांय आसलीं आनी अर्द्या भागांत व्हड व्हड तळपां आसलीं. ताचे वयर तळें आसा अशें आमकां थंयच कोणें तरी सांगलें.

वयर चडपाक त्या तळपांत मदीं मदीं माडार चडपाक खापां घालतात तशीं खापां घाल्लीं. त्या खापां वयल्यान आमी वयर चडलीं. वयर व्हडल्या दोन तळपां मदीं शिमिटाच्यो फातरी ना जाल्यार शिमिटाचींच चार-पांच सोपणां केल्लीं. कांय तळपांक मदींच बरोच खोल भाग आसलो. तातूंत पावसाचें उदक एकठांय जावन तळुलां कशीं जातात खंय. पूण आतां थंय पाचवो शेळो आशिल्लो. सकयल देवळा म्हऱ्यांत जितलो मेकळो जागो आसा ताचे परस वयर चड मेकळो जागो आसलो. हीं तळपां जमनी कडल्यान वयर आयल्यांत. मदीं मदीं आशिल्ल्या खांची वयल्यान हें आमकां कळटालें. जशीं कितें तळपां जमनींतल्यान किल्लल्लीं. त्या खाचींतल्यान झाडांनी तकली वयर काडिल्ली. बरेच मुखार वतकर एक खोल बरें ल्हानशें तळूल दिसलें. ताचें उदक पाचवेसार आसलें. तातूंत एक पायप आसलें. तो सकयल देवूळ आसा थंय व्हेल्लो खंय. तें उदक हेर कामाक वापरतात खंय.

हांगाच्या तळपांचो रंग हळडुवसार, धवसार कसो. त्याच रंगचे बेबे त्या उदकांत आसले. बेबे म्हणून कळच नासले. ताचो गळो हालतालो. ताचे वयल्यान मोहिताक तो बेबो म्हणून कळ्ळो.

थंय फोटो बी काडून आमी सकयल देंवंक लागलीं. आमी वयर चडटना मदींच एके वटेन पाशाणा पोंदा घोल कशी पळयिल्ली. थंयच एक समाधीय आसली. देंवतना आमी थंय गेलीं. तीं लडखमहाराजाची समाधी खंय. आमी समाधी म्हऱ्यांत गेलीं नात. आमकां ती घोल पळोवंक जाय आसली. घोल म्हळ्यार व्हड तळपा पोंदचो जागो. भितर एक मनीस उबो रावंक शकता इतली उंचाय. थंय दोन कुडी केल्ल्यो ताचीं दारां बंद आशिल्लीं. तातूंत सामानय आसलें. थंय कोणय तरी रावता जातलो म्हणपाचें कळटालें. भायर वयर लींग नाशिल्ली पिंडिका आसली.

तें सगळें पळोवन आमी सकयल देंवलीं. सोपणार सान्न मारपी एक बायल आमकां दिसली. आमी मुद्दाम तिची चवकशी केली. तिची ही शिर्वीस खंय. थंय सद्दां खूब भोंवडेकार येतात. त्या सोपणांचेर पानांचो कचकच, माकड कितें कितें उडयतात, हो सगळो कचकच तांकां दिसाक दोन वेळा काडचो पडटा खंय. ती निवळ सान्न मारत कोयर भरत वयर वताली. पूण झाडां मात मस्त्या भुरग्या वरी तिची फाट वळ्ळी काय सुकी पानां थंय झडयताली. तिका पगार आसा खरो, पूण भोंवडेकारय आपल्याक कितेंय दितात ताचेर आपूण भुरग्यांक कितेंय दिवंक शकता म्हणून सांगलें.

अनिलान तिका पयशे काडून दिले. वाटेर साधू भिकारी जायते जाण बशिल्ले. आमी सकयल आयलीं. थंय थंड पेयां आनी आडसरांचें दुकान आसलें. आमी आडसरा उदक पिलीं आनी बशींत वचून बसलीं. पांय सामके दुखताले. पूण मन एके वेगळेच खोशयेन भरिल्लें.

बस गोंयचे वाटेर धांवंक लागली. आमी सगळीं फुडली ट्रीप खंय काडप हाचेर भासाभास करूंक गुल्ल जालीं. ❑

# बदामी रंगाचें बदामी

**कर्नाटक** हें शिल्पकलेचें, लेण्यांचें राज्य. भारतीय शिल्पकलेचें तें एक समृद्ध दायज. हो शिल्पकलेचो ठेवो तसो भारतांतल्या प्रत्येक राज्यांत आसा. तरी चडावत शिल्पकाव्यां कर्नाटकांत आसात म्हळ्यार अतिताय जावची ना. कर्नाटकांत श्रीकालहस्ती, बिजापूर, बदामी, ऐहोळे, पट्टदकल, हम्पी, बेल्लूर, बेलावडी, हळेबीड, श्रावण बेळगोळ, कार्कल अशीं हीं मुखेल शिल्पकाव्यां, जाल्यार अशींच आनी कांय ल्हान ल्हान जायतीं शिल्पकाव्यां आसात.

हातूंतलीं चडशीं हांवें पळयल्यांत. ह्या पाशाणकाव्याचें म्हाका पिशेंच लागलां म्हळ्यार जाता. अजंठा-एलोरा, खजुराहो पळयले बगर म्हजी तान भागचीना हें खरें. पळोवया हो योग केन्ना येता तो.

आमी सगळीं सुरजागेर जमिल्लीं. 'दोन-तीन दिसां खातीर खंयूय तरी या? असो सगळ्यांचोच विचार जालो. हांव ह्याच खिणाची वाट पळयतालें. हांवें रोखडेंच सांगलें 'आमी बदामी या.' हाचे पयलीं एके कडेन हांव आनी आर्या मेळिल्लीं. तेन्ना गुगलाचेर आर्यान म्हाका बदामीचीं शिल्पां दाखयिल्लीं. तेन्नाच्यान तीं पळोवपाची म्हाका उमळशीक लागिल्ली.

रोखडोच विवेकान टॅम्पो ट्रॅव्हलर थारायलो. आनी आमचें मन बदामी वटेन उडूंक तयार जालें. शुक्रार दीस सकाळच्या साडेआठांक सुमार एका एका कुटुंबाक घेत आमची टॅम्पो मुखार सरली. दनपारां आमी बेळगांवा पावलीं. थंय विवेकाच्या सोयऱ्याचें हॉटेल आसा.

तांगेर नुस्त्या जेवण बरें मेळटा म्हणून सांगना फुडें आमची जीब चुळचुळ्ळी. आमी थंयच जेवन मुखार वचपाचें थारायलें.

गोंयांत लेगीत हालीं तेंपाक आमी इतलो सुवादीक बांगडो खावंक ना तितले सुवादीक बांगडे, लेपो आनी सुंगटां हांचेर आमी ताव मारलो. नुस्त्या जेवण अर्जीण जावं नये म्हणून छायान हाडिल्लें खतखतेंय भुरकायलें. आनी मागीर थंयच्यान बदामी वचूंक भायर सरलीं.

वाटे वयले भाज्यांचे लांबचे लांब मळे, सूर्यफुलांचे गालीचे तोखेत आमचो टॅम्पो वतालो.

ऑक्टोबर, नोव्हेंबर म्हयन्यांत खंयूय प्रवासाक वचूंकच जाय. हवा बरी थंड-थंडशी, उळउळीतशी आसता. निकतोच पावस थांबिल्ल्यान पाचव्याचार पानांचेर पडिल्लें वोत खऱ्या अर्थान भांगरावरी चकचकता. म्हणून सैम मोग्यांनी ह्या दिसांनी भोंवडेक भायर सरचेंच अशें म्हजेवरी कांचनाचेंय मत.

कर्नाटक जशें पाशाण शिल्पांचे राज्य तशेंच सुजलाम-सुफलाम भुंयेचेंय राज्य. मुखेल अश्यो सादारण 60 न्हंयो ह्या देशांतल्यान व्हांवतात खंय, म्हणून हो प्रदेश सदांच पाचवोचार आसता.

तर अशा पाचव्याचार सोबीत अशा वाठारांतल्यान आमी बदामीची वाट चलतालीं.

रातचीं आमी बदामी पावलीं. हॉटेलाच्या मॅनेजरान रुमाच्यो चावयो दितनाच आमकां सांगलें, सकाळ फुडेंच भायर सरून गायड घेवन बदामींतलें शाकंबरी देवीचें देवूळ पळोवन मागीर घोली पळोवन येयात. जेवन मागीर ऐहोळे, पट्टदकल पळयात. मॅनेजरान सांगिल्ले प्रमाण आमी सकाळफुडेंच नाश्तो घेवन भायर सरलीं.

बदामी हें कर्नाटकांतलें तालुक्याचें गांव. भारतीय इतिहासांत गुप्त साम्राज्याच्या काळाक 'सुवर्ण यूग' म्हणटात. तांच्या काळार साहित्य, नाट्य, संगीत, चित्रकला आनी शिल्पकलेची सगळ्या आंगांनी उदरगत जाली. त्याच काळार चालुक्याचे राजवटकेंत बदामीच्या अद्वितीय

अशा शिल्पांचो जल्म जालो.

दोन पर्वतांच्या पांयां कडेन चालुक्यांचें राजपाटण आशिल्लें बदामी. बदामी नामनेक पावली ती जशी थंयचे शिल्पकारीक लागून, तशीच थंयच्या शाकंभरी देवीच्या देवळाक लागून. ह्या गांवचें हें वैभव पळोवंक, अभ्यासूंक तरी हांगा सदांच भायल्या देशांतले प्रवासी येतात. म्हणून हो जरी ल्हानसो गांव आसलो हांगा सात-आठ बरीं होटेलां आसात.

गांवा भोंवतणीं शेतां, मळे, ल्हानसो धुल्लान भरिल्लो बाजारय थंय आसा. ह्या गांवच्या दोंगरांचो रंग तांबूस-बदामी कसो. म्हणून ह्या गांवाक बदामी म्हणटात अशें सांगतात. बदामी ह्या नांवाचेर आनीकय काणयो सांगतात.

बदामीक पयलीं वातापी म्हणटाले खंय. ताचेंच मागीर अपभ्रंश जावन बदामी जालें. वातापी राकेस आनी ताचो भाव खंय थंयच्या रानांत रावताले आनी लोकांक खूब त्रास दिताले. वातापीचो भाव वातापीक मारून जेवणाचे पदार्थ करतालो. जे अतिथी तांगेर जेवंक रावताले, तांकां तें जेवण तो वाडटालो. जेवन जातकर वातापीचो भाव 'वातापी भायर यो' म्हणटालो. वातापीचो पदार्थ खाल्ल्या लोकांचीं पोटां फोडून वातापी भायर येतालो, आनी ते लोक मरताले.

ही गजाल अगस्ती रुशीक कळटकच रुशी तागेर जेवंक गेलो. जेवले बराबर रुशीन पोटा वयल्यान हात भोंवडायलो आनी म्हळें, 'वातापीचें पचन जावं'.

हे वटेन ताचो भाव 'वातापी भायर यो, वातापी भायार यो' म्हणून आपयत रावलो. पूण वातापीचें तर पचन जाल्लें. तो खंयच्यान भायर येतलो? वातापीच्या भावान अगस्ती रुशीचे पांय धरले. तेन्ना अगस्ती रुशीन ताका सांगलें, 'तुमी दोगय भाव हांगा पर्वत जावन रावतले.' बदामी गांवांत मदींच दक्षीण-उत्तर अशे, चंद्रकोरी प्रमाण पातळिल्ले दोन पर्वत आसात. तेच हे दोगय राकेस भाव खंय. म्हणून ह्या गांवाक

वातापी अशें नांव पडलें.

खरें फट कितेंय आसूं, बदामी ह्या नांवा प्रमाण हांगाच्या पर्वतांचो रंग तांबूस-बदामी कसो आसा. पाचव्याचार पार्श्वभुंयेर ते बरे सोबीत दिसतात.

त्या दोंगरां मुखा वयल्यान आमी शाकंभरी देवीचें देवूळ पळोवंक गेलीं.

हांगा भाविकांची सदांच गर्दी आसता. चारूय वटेन सोपणांनी बांदून घेतिल्ल्या व्हड तळ्याच्या म्हळ्यार कोटी तिर्थाच्या काठार हें पाशाणी देवूळ आसा. शाकंभरी देवीचें दुसरें नांव बनशंकरी. हांगा उदकाचो उणाव केन्नाच जायना खंय. हाचें कारण ती देवता, अशें गांवचे लोक मानतात. ही देवी रानांत रावताली म्हणून तिका वनस्पतीची देवी, वा वन शंकरी वा बनशंकरी म्हणटात खंय. ते भायर तिका महालक्ष्मी, महाकाली आनी महासरस्वतीय म्हणटात खंय.

सादारण 1300 वर्सां पयलींचें हें देवूळ. खूब पयलीं चालुक्य राजा जगदेकमल्लान ह्या देवळाचो जिर्णोद्धार केल्लो अशें थंय आशिल्ल्या फातरपट्याचेर बरयिल्लें मेळटा. पोरणें बनशंकरी देवूळ द्रवीड शैलीन बांदिल्लें खंय. देवळा भोवंतणीं पाशाणी तट बांदला. जात्रे वेळार हे देवीक शाकंभरी नांवां प्रमाण तिका शाकभाजयेचो भेस चडयतात. कांय लोक 108 भाजयांचो भेस चडोवपाची आंगवण करतात.

तिका असो शाक-भाजयेचो भेस चडोवपा फाटलें कारण म्हळ्यार, त्या काळार एक फावट ह्या गांवांत दुकळ पडिल्लो. अन्न-उदकाक लागून लोक आकूळपिकूळ जाल्ले. तेन्ना सगळे देव ब्रह्मदेवाक घेवन शंकरा कडेन आयले. शंकरान आदीशक्तीक प्रसन्न करून घेतली. तेन्ना तिच्या आंगांतल्यान तरेकवार भाज्ज्यो भायर सरूंक लागल्यो. लोक तृप्त जाले. लोकां बराबर राक्षसय थंय पावले. ते लोकांक त्रास दिवंक लागले. तेन्ना देवीन उग्र रूप घेवन राक्षसांक मारून उडयले. म्हणून तिका दुर्गाय म्हणटात. मागीर मात ती शांत रूप घेवन त्या

गांवांत रावली. तेन्नाच्यान त्या गांवांत उदक आनी अन्न-धान्य केन्नाच कमी जायना.

टॅम्पो दवरूंक तळयेचे एके वटेन मळ आसलें. थंय देंवन आमी मुखार सरलीं. देवळा भोंवतणीं आसतात तीं सदचीं दुकानां पळयत पळयत आमी देवळा म्हऱ्यांत पावलीं.

व्हड पाशाणी प्रवेशदारांतल्यान भितर सरतकच दारांत दोन व्हड बऱ्यो पाशाणी दीपमाळो दिसल्यो. देवळाचे एके कुशींतल्यान वळीन भितर वचूंक वाट केल्या. आमी थंयच्यान हळू हळू मुखार सरतना मदींच उरलीं. लोक मुखार वचच नासले. पळयत जाल्यार देवळाचें दार उगडूंक नासलें. भितर पुजा चलताली. जे लोक कोटी-तिर्थांत न्हावन पुजा करूंक म्हणून आयिल्ले तांकां गाभाऱ्याचे एके कुशीच्या दारांतल्यान भितर घेतालीं.

बऱ्याच वेळान देवळाचें दार उगडलें. आनी दर्शनाची वळ मुखार सरूंक लागली. कर्नाटकांतल्या हेर पाशाणी देवळांवरी भायलो सभामंडप खांब्या-खांब्यांचो आसलो. पूण रंगीत खांबे. भितर देवळांतय खांबे, पूण ते चौथऱ्यांचेर उबे आशिल्ल्यान खांबे मोटवे आसले. हे चौथरे बांदपाचें कारण म्हळ्यार सगळ्या खांब्याचो मुळांतलो भाग इबाडिल्लो म्हणून हालीं ग्रॅनायटान ताचे भोंवतणीं चौथरे बांदिल्ले. पोरण्या देवळाक आधुनीक साज चडयिल्लो. धाकलो सभामंडप आनी गर्भकूड हाचे मदीं लोकांक येवपा वचपाक वाट दवरिल्ली. आनी दावे-उजवे वटेन भायर वचूंक दारां आसलीं. आमी गाभाऱ्यांत गेलीं. सोबीत बरी ती देवता कवळेंची शांतादुर्गा कशी दिसताली.

पौष शुद्ध अश्टमीक हे देवीची जात्रा जाता. तिका लिंबाची माळ घालतात.

देवीचें दर्शन घेवन आमी भायर सरलीं. देवळा भायर उजवे वटेन भितर घोलींतशें देवूळ दिसलें. धायेक सोपणां देंवन हांव सकयल

गेलें. भितर लींग आसलें. थंयच्यान आमी भायर सरून आमचो टॅम्पो दवरिल्लो त्या मळार आयलीं. थंय एक दगडी रथ आसलो. वयर चुडटांनी शाकारिल्लो. जात्रे वेळार त्यार मळार तरेकवार उत्सव जातात खंय.

थंयच्यान आमी बदामीचें शिल्पकाव्य पळोवंक भायर सरलीं.

बदामीच्या ह्या घोलींक मेणबसदी-मेणवस्ती अशेंय म्हणटात खंय. ते भायर ह्यो दोंगरावेल्यो घोली म्हणून मेगन वा मेलण बस्ती म्हणटात. मेगन म्हळ्यार वयर रावपी. मेगणाचें अप्रभंश जावन मेणवस्ती जालां जातलें अशें समजतात. पर्वताचे आकांत व्हडपाशाण कापून ह्यो घोली तयार केल्यात.

ह्यो चारय घोली चालुक्याच्या राजवटींत तयार केल्यात. चालुक्यवंशाचे राजा शीव, विष्णू, बौद्ध, जैन सगळ्या धर्मांक सारकेच लेखताले. हाचो प्रत्यय ह्यो घोली पळयतना येता.

आमी जशीं, जशीं मुखार वतालीं, तशे मुद्दाम तरेकवार आकार दिल्ले कशे पाशाण वेंगावन बशिल्ले दोंगर दिसूंक लागले. हो दोंगर आनी ह्या वाठारांतले सगळेच दोंगर सेंडस्टोनाचे म्हळ्यार रेंवेचे पाशाण, खुसखुशीत. हांचेर कोरीवकाम करप ही बरीच कठीण गजाल. तरीय हांगा सोबीत बरीं कोरीव लेणी कारागिरांनी उबीं केल्यात ही अजापाची गजाल.

आमची बस थोडी चडटी काडून दोंगरांच्या मुळसांत पावली. थंय माकडांची फौज आमच्या स्वागताक उबी आसली. थंयच तिकेट घरांत वचून सुरजान तिकेट काडली. दोंगराच्या मुळसांत ल्हानशी बाग केल्या. थंयच्यानच वयर चडूंक सोपणां आसलीं.

थोडीं सोपणां चडून वयर वतकच पयली शिल्पी घोल दिसली. दोंगराच्या पोटांत पाशाण खणून ह्यो घोली तयार केल्यात. पयलीं कळस मागीर पाया ह्या तत्वान, पयलीं घोली आनी मागीर तातूंत कोरीव काम. कोरांततनाच खंय गर्भकूड, खंय मंडप, खंय खांबे धरू

जाय तें थारावन घेतात. मुर्ती कोरांततनाय पयलीं जागो थारायतात, थंय कितें कितें काडटले तें थारायतात आनी मागीर तकले कडल्यान पांया मेरेन कोरांतत येतात.

इतले त्रास घेवनय सामकें बारीकसाणीन हांगाच्यो मुर्ती कोरांतल्यात. हांगा प्रत्येक घोलीक गर्भकूड, सभामंडप मागीर दार मंडप, म्हळ्यार रूंद बरे वारांदशें. वारांदाच्या दोशीं वटेन, पाख्यार आनी वण्टीर मुर्त्यो कोरांतिल्ल्यो. दावे वटेन हरीहराची मूर्त जाल्यार उजवे वटेन नटराज. हरीहराचे मुर्ती वटेन एक मनशा परस व्हड अशी द्वारपालाची मूर्त आसा. ताच्या म्हऱ्यांत सकयल नंदी आनी हती आसा. दोगांकय मेळून एकच तोंड दाखयलां. नंदीर शीव-पार्वती बसल्यांत.

द्वारपाल पळोवन भितर येतकच हरीहराची भव्य बरी मूर्त आसा. म्हळ्यार म्हादेव आनी विष्णू हांची एकठांय मूर्त. दोगय एकच हें दाखोवंक ही मूर्त कोरांतल्या. विष्णूच्या हातांत शंख म्हऱ्यांत लक्ष्मी आनी गरूड. शिवाच्या अर्दान पावर्ती आनी नंदीचें तोंड आशिल्लो मनीस पळोवंक मेळटा. उजवे वटेन आकांत व्हड णव-णव अठरा हातांची नटराजाची मूर्त आसा. ह्या अठरा हातांनी नटराज णव णवें एक्यांयशीं मुद्रा करता. आमच्या वाटाड्यान आमकां तातूंतल्यो थोड्यो मुद्रा करून दाखयल्यो.

ह्या वारांदाक चार भव्य खांबे आसात. वयर छताचेर वाद्यां घेतिल्ले कलाकारांच्यो नाचाच्यो वेगवेगळ्यो मुद्रा दाखोवपी मुर्ती कोरांतिल्ल्यो. नटराजाक तेंकून आशिल्ले वण्टीर व्हड बरी अर्दनारी नटेश्वर म्हळ्यार अर्द पार्वती आनी अर्द म्हादेव. हांगाय म्हादेवाक णव हात दाखयल्यात आनी ताच्या णवय हातांत वाद्यां आसात. म्हऱ्यांत गणपती उबो आसा आनी नंदी आसा, वादकय थंय उबे आसात. जाल्यार पार्वती वटेन दासी भांगराचो करंड घेवन उबी आसा. पार्वतीच्या कानाक कानांतलीं, हाताक कांकणां, हातांत कमळ

धरलां आनी पांयांक पांयजण आसा. हांगा पार्वती मिनी स्कर्टांत उबी आसा. म्हणटकच मिनी स्कर्टाची फॅशन त्या काळारय आशिल्ली म्हणून कळटा.

'अशी अर्दनारी नटेश्वराची मूर्त कित्याक आसता?' आमच्या भितरल्या कोणें तरी वाटाड्याक विचारलें. ताणें सांगलें, 'भृंगरूशी खंय फकत म्हादेवाचीच पुजा करतालें. पूण म्हादेव-पार्वती कशीं एकरूप आसात तें दाखोवंक तीं दोगांय एक जालीं आनी तांणी अर्दनारी नटेश्वराचें रूप घेतलें. बायल आनी दादलो एकच तांच्यांत भेद करूं नये हें तांणी भृंगरूशीक दाखोवन दिलें. तेन्नाच्यान मागीर भृंगरूशी दोगांयचीय पुजा करूंक लागलो.

हेच वणटीक हरीहरा वटेन महिषासूर मर्दिनी कोरांतल्या. तिच्या म्हऱ्यांत मोरार बशिल्लो कार्तिकेय आनी हातांत मोदकांचें आयदन घेवन बाल गणेश उबो आसा.

वारांदांतल्यान भितरसरतकच व्हड साल आसा. सकयल जमीन खडबडीत. थंय नंदी आसा. भितर गर्भकुडींत लींग आसा. पूण ताची पुजाबी कांय करिनात. भितर उजवाड कमी. ह्या घोलींनी पयलीं लोक रावताले खंय. वणटीर खांब्यार काळी घस आसा. ती निवळ केल्या पूण दाग आसात. सरकारान ह्यो घोली हातांत घेतकच लोकांक सकयल घरां बांदून दिलीं. आनी पर्यटकां पासत घोली निवळ केल्यो. पयलीं ह्या घोलींनी साधू-संतय रावताले खंय.

हे घोलींतल्यान सकयल देंवतकच व्हड आंगण आसा. थंय जाय जाल्यार बसूंक बांक घाल्यात. हांगा दोंगरभर माकडांचो सुळसुळाट. प्रवाशां कडल्यान कितें ना कितें खावंक मेळटा म्हणून ते थंय बसून आसतात. कोणें कांय दिवंक ना जाल्यार लोकांच्या हातांतलें झोंमून घेतात.

ही शैव गुहा पळोवन बरींच सोपणां चडून वयर आयलीं. हांगा वैष्णव गुहा आसा. पयले घोली वरी हिवूय बरी व्हड आसा. वारांद,

सभाघर आनी गर्भकूड. ह्या वारांदाक स खांबे आसात. वारांदाच्या एका पोंतार तांडव करपी शीव आनी वराहअवतारांतलो विष्णू आसा. हांगाच्या छताचेर एकामेकांत गुथिल्लें स्वस्तीकाचें सोबीत चित्र कोरांतलां. आनी मदीं मत्स्यावतार कोरांतला.

हांगा वणटीचे सकल्ले पट्टेर नाचपी, गावपी वाद्यां वाजोवपी हांचीं चित्रां कोरांतल्यांत.

वारांदाच्या दुसऱ्या पोंतार वामन अवतारांतलो विष्णू आसा. ह्या चित्राच्या सकयले वटेन गांवकरी दाखयल्यात. तांच्या केंसांची मोद तकलेर तोप बसयिल्लेवरी. इंग्रज ह्यो घोली पळोवंक आयले तेन्ना तांकां ही केंसांची रीत आवडली. तांणी तसले टॉप करून न्यायाधिशांक कोर्टांत वतकच घालूंक दिले. ब्रिटीश गेले तरी थोडो तेंप न्यायाधीश तशे टॉप घालून कोर्टांत बसताले.

भितरलें सभाघर आठ खांबी. गर्भकुडींत विष्णूची मूर्त आशिल्ली. आतां ती थंय ना. वस्तू संग्रहालयांत दवरल्या खंय. ही घोल पाशाण कोरांतून केल्ल्यान भितर चड उजवाड ना. पूण बरी थंडाय आसली.

थंयच्यान भायर सरून आनीक थोडीं सोपणां चडून आमी वयर आयलीं. आतां आमी बरींच वयर पाविल्लीं. सकयल पयस मेरेनचो वाठार बरो दिसतसलो. ह्या दोंगरा सकयलच व्हड बरें तळें आसलें. हांगाच्या घोलींनी रावपी लोकांचें पुनर्वसन केल्ल्यांचीं घरां तळ्याचे एके देगेचेर आसलीं. ताचे मुखार आनीक एक ह्या दोंगरा वरीच दोंगर आसलो. ताचेरय कोरीव कामान नटिल्लीं देवळां दिसतालीं. हें तळें पाचव्या शेंकड्यांतलें खंय. ताका अगस्ती तिर्थ म्हणटात.

आतां आमी पळयतालीं त्यो चारय घोली बांदपाक 28 वर्सां लागलीं खंय. आमी आतां तिसरे घोली म्हऱ्यांत पावलीं. ती सगळ्यांत व्हडली घोल. ही विष्णूची घोल हर्बल रंगान रंगयल्या. हे रंग थंयच तयार केल्ले खंय. सकयल्या फातरांत ल्हान ल्हान वानांशीं आसात. तातूंतच हे रंग वांट्टाले खंय.

ही घोल बरीच तांबूस दिसता. हे घोलींत भितर सरपाक जीं सोपणां आसात तिंवूय कोरांतल्यांत. सोपणांच्या दोनय कुशीन आशिल्ले वण्टीचेर सकयले पट्टेर, हालींच वन खात्यान ह्यो घोली हातांत घेतकच वयल्या चित्रांक सोबशीं चित्रां कोरांतून घेतल्यांत.

सोपणां चडून वारांदात येतकर दोनय वटेन चार-चार कोरांतिल्ले खांबे आसात. भितर तशेच पूण आठकोनी कोरांतिल्ले खांबे आसात. प्रत्येक खांब्यार आनी छतार दोळ्यां भरपा सारकीं शिल्पां कोरांतल्यांत. पयल्या खांब्यार दोन पांय खांब्याक आनी दोन पांय भायर घेवन उडी मारपाक तयार आशिल्लीं चितळां आसात. अशेच पांय वयर घेतिल्ले घोडे दुसऱ्या खांब्याचेर आसात, येवकार दिवंक दोनय हात जोडून उब्यो आशिल्ल्यो दादलो-बायल अश्यो जोडयो आसात.

वारांदाच्या दावे वटेन वण्टीचेर त्रिविक्रमाचें व्हड शिल्प आसा. हे घोलींतल्यो मुर्ती पयल्या दोनय घोलींतल्या मुर्तीं परस व्हड आसात. त्रिविक्रमाची मूर्त सगळीं आयुदां घेवन, एक पांय वयर काडून उबी आसा. ताच्या पांयां कडेन सेवक आसात. सकयल कांय तकल्यो आनी धडां वेगळीं पडिल्लीं आसात. वामन अवतार घेतिल्ल्या विष्णूचें हें शिल्प खंय. एक पांय वयर काडला तो बळीराजाचे तकलेर दवरूंक.

वारांदाचे उजवे वटेन अनंत अशीन म्हळ्यार शेशशाहीच्या वेटोळ्याचेर बशिल्लो व्हड बरो विष्णू आसा. ह्या वारांदा भितर विष्णूची भव्य वराह अवतारांतली मूर्त आसा. आनी दुसरे वटेन नरशींव अवतार तशेंच म्हादेवाचेंय शिल्प कोरांतलां. ताच्या कमरा भोंवतणीं तशेंच नागान वेटाळें घालां जाल्यार ताच्या हातांत शंख आसा. वयर सोरो पिल्ली बायल, दर्पण सुंदरी. गायेचें तोंड आशिल्ली बायल, मोगांत गुल्ल जाल्लें जोडपें, मिनी साडयो न्हेशिल्ल्यो बायलो, तांच्या केसाच्यो मोदी सगळें बारीकसाणीन कोरांतलां.

एके वटेन हिरण्यकश्यपूक मारतकच विजयान धूंद जाल्ली नरशिंवाची मूर्त कोरांतल्या. हे मुर्तीचे तकलेर कमळाचें चित्र जाल्यार

एके वटेन प्रल्हाद जाल्यार दुसरे वटेन मनशा तोंडाचो गरूड आसा.

मागीर आमी भितरल्या सभाघरांत गेलीं. हें बरेंच व्हड सभाघर. भितर लांबचे लांब खांबे आसात. हांगा काळोख आशिल्ल्यान सारकें दिसनासलें. ह्या खांब्या वयलें शिल्पकाम अर्देंच सोडलां.

ह्या वारांदाचेर 1400 वर्सां पयलींची रंगीत चित्रकारी आसा. आतां ती कांय कडेन अस्पश्ट जाल्या. पूण कांय कडेन मुळचे रंग उठून दिसतात.

हे घोलींतल्यान भायर येतकच आनी थोडो दोंगर चडून वयर वतकच आमी निमणे म्हळ्यार चौथे घोली कडेन पावलीं. ही जैन घोल. मूळ दोगरा पसून हो दोंगर मात्सो पयस आसा. ही घोल माशी ल्हान. सुरवेकच चार खांबे. हे खांबेय तितले ऊंच नात. भितरय दोन-दोन खांब्यांच्यो जोडयो आसात. खांबे कोरांतल्यात.

हांगा चोवीसय तिर्थंकारांच्यो मुर्ती कोरांतल्यात. हांगा एके वटेन बाहुबली आनी एके वटेन आदिनाथाची भव्य मूर्त आसा. गर्भकुडींत महाविराची मूर्त आसा.

ही घोल सामकीच वयर जाल्ल्यान, वयल्यान सगळो वाठार सोबीत दिसतालो. अगस्त्यतिर्थाचे कडेर कांय कोरीव देवळां दिसतालीं. तांकां भूतनाथ देवळां म्हणटात खंय. थंय वतलीं जाल्यार हो येदो ऊंच दोंगर आनी ताचीं सादारण दोनशें सोपणां देंवन सकयल वचून परत दुसरो दोंगर चडून थंय वच्चें पडटालें.

अगस्त्यतीर्थ तळ्याचें उदक पयलीं वखदी आशिल्लें खंय. आतां मात तें हळशीक जालां. थंय एक सूर्य मंदीर आसा. सुर्यास्ताचो देखाव थंयच्यान बरो दिसता खंय.

ह्या तळ्याच्या एके वटेन सरकारान बरें वस्तूसंग्रहालय तयार केलां. हांगाच्या पाशाणी शिल्पाचीं व्हड चित्रां दवरल्यांत. हें चालुक्याचें संपन्न अशें राजपाटण. ताका लागून हांगा मेळिल्लीं जायतीं शिल्पां ह्या संग्रहालयांत दवरल्यांत.

पूण हीं घोलींतली अजापीत शिल्पां पळयतासर वेळ जाल्लो. आमकां भूक लागिल्ली. आमी सकयल देंवन गाडयेंत बसून हॉटेलार आयलीं. ❑

# पट्टदकल

**पट्टदकलचीं** नामनेचीं इतिहासीक स्मारकां हीं बदामीच्या चालुक्या राजांनी समाजाक दिल्लें व्हड देणें जावन आसा. हें बागलकोट जिल्ल्यांतल्या मलप्रभा न्हंयेच्या उजवे देगेर वसलां. चालुक्यांचो कलामोगी राजा दुसरो विक्रमादीत्य हाच्या काळांत तयार केल्लीं हीं स्मारकां. ताची राणी त्रैलोक्य महादेवी एक व्हड कला मोगी आसली.

आमी सकाळचीं बदामी पळोवन पुरो जावन जेवंक आयिल्लीं. जेवन रोखडींच पट्टदकल वचपाक उमेदीन भायर सरलीं. बदामी जशी पाशाणांची भूंय तशीच शेतां बागायतीची भूंय म्हळ्यार अतिताय जावची ना. हंपीय तशेंच पाशाणांचो गांव, तरीय शेता-बागायतीन समृद्ध. तांबड्या पाशाणांच्या दोंगराक पाचवी देग आशिल्ल्या शेतां-मळ्या मदल्या रस्त्या वयल्यान आमची बस धांवताली. दोशीं वटच्या झाडां-झोंपांचेर तरेकवार पक्षी बशिल्ले. थंयच तांचे ल्हान-व्हड घोंटेर धोलताले.

कांय कवड्यांवरी दिसपी पक्षी, कांय निळे आनी पाचव्या पाखांचे पक्षी, कांय शेंपडे कडेन वायरी वरी लांब पांख आशिल्ले पक्षी, कांय किरकिच्या वरी रंगयाळे निळे फाटीचे पूण ल्हान चोंचीचे पक्षी वाटभर आमकां सांगात दिताले. ह्या वेळार म्हाका हर्षा शेटयेची याद जाली. तें आमचे बराबर आशिल्लें जाल्यार आमकां नांवां सांगतलें आसलें.

बदामीच्यान 22 किलोमिटरांचेर मलप्रभा न्हंयेचे देगेर पयलीं पट्टदकल ही चालुक्याची दुसरी राजधानी आशिल्ली. खरें म्हळ्यार

हें तांचें वेपाराचें केंद्र आसलें म्हणून ताका राजपाटणाचो मान फावो जाल्लो.

भारतीय स्थापत्य कलेच्या इतिहासाक एक वेगळेंच वळण दिवपी देवळां कर्नाटक राज्यांत प्राचीन, मध्ययुगीन आनी आधुनीक इतिहासाच्या काळांत तयार जालीं. शिल्पकारांनी आपलें पुराय कसब पणाक लावन म्हणटात तशीं हीं देवळां उबीं केलीं. कर्नाटक राज्यांत सत्तेर आशिल्ल्या राजकारण्यांनी आपल्या इश्ट देवतां विशीं भक्ती, मोग आनी आदर दाखोवंक अशीं देवळां बांदूंक कलाकारांक आदार दिलो. राजाश्रय आसल्यार कठीणांतल्यो कठीण गजाली सहज साध्य जातात त्यो अश्यो.

पट्टदकल हें गांव कर्नाटकांतल्या हेर गांवा प्रमाणेच अज्ञान, दळिद्र, अनास्था हांचे शल्य काळजांत घेवन आपले उदरगती पासत धडपडपी एक गांव. गांवाचें अशें मनाक घाय करपी दृश्य एके वटेन जाल्यार दुसरे वटेन सोबीत अशा एका परस एक सरस देवळांक लागून आयज हो गांव जागतीक वारसा स्थळांचे यादींत पावला. ह्या थळाक भेट दिवपी राष्ट्रीय आंतरराष्ट्रीय पर्यटकांक लागून हांगाच्या लोकांक काम-धाम मेळ्ळां.

इतली मोलादीक शिल्पकला ह्या गांवांत आसा खरी, पूण शेजारचें चेडूं झाडमुत्रें म्हणटात. तशें थंयच्या लोकांक ताचें कांयच पडून वचूंक नासलें. म्हणून तर गांवचे लोक ह्या देवळांनी रावताले, थंयच रांदून जेवताले.

पूण सरकाराक हाचो सोद लागतकच ह्या शिल्पी वैभवाचे दीस बदल्ले. आयज युनेस्कोचें जागतीक वारसा स्थळ म्हणून हाका नामना मेळ्ळ्या. म्हणून भारत सरकारानय हीं शिल्पदेवळां आपल्या हातांत घेवन हांचेर खास लक्ष दवरलां. ताचे भोंवतणीं दुरीग बांदून भितर सोबीत बरी बाग तयार केल्या. ताची वेवस्था पळोवपाक जायतीं मनशां नेमल्यांत.

पट्टदकल हांगा एक दोन देवळां नात, तर देवळांचो समूह आसा. आमी ह्या देवूळ समुहाच्या दुरगा भायर पावलीं. थंय वाहनां दवरूंक व्हड बरो तळ केला. प्रवेश दारांतच हांगाची म्हायती दिवपी पुस्तिका विकपी भुरगे आसले. ताचे कडेन खंयचे खंयचे भाशेंतलीं पुस्तकां आसात ते सांगताले. आमी सदचे वरी एका भुरग्याक कोंकणींतल्यान विचारलें, ''कोंकणी पुस्तक आसल्यार दी.'' तो भुरगो बरो हुशार. ताणें म्हळें, ''नहीं मॅडम, यहाँ ज्यादातर लोग अंग्रेजी हिंदी औन कन्नड किताबेंही खरिदते हैं।''

आमी एक एक पुस्तक घेवन मुखार गेलीं.

पट्टदकल म्हळ्यार 'शिंवासनाची शिळा.' हांगा मलप्रभा न्हय दक्षिणे कडल्यान उत्तरे कडेन अशी व्हांवता. असो जागो शुभ मानतात. म्हणून हांगा राज्याभिशेक करून घेवंक मुद्दाम राजा येताले खंय.

चवथ्या त्या आठव्या शेंकड्या मेरेन दक्षिणेच्या ह्या वाठारांत चालुक्याचें साम्राज्य उदरगतीक आयिल्लें. वैदीक संस्कृतीचे खरे चाहते आशिल्ल्या चालुक्यांनी सर्वधर्मसमभाव वागणुकेंत केळयलो म्हणून ह्या भागांत आमकां शैव, वैष्णव, जैन आनी बौद्धांचींय शिल्पी देवळां दिश्टी पडटात.

चालुक्य राजा विजयादित्य हाणें हांगा संगमेश्वर देवूळ बांदून घेवन हांगाच्या देवूळ संस्कृतीचो पायो घालो म्हळ्यार अतिताय जावची ना. उपरांत सत्तेर आयिल्ल्या राजांनी ताचेर कळस चडयलो. उपरांत पराक्रमी राजा दुसरो विक्रमादित्य हाणें पल्लवांची राजधानी कांची जिखून घेतली. ह्या जैताची खूण म्हणून आपल्या दोनय राणयांक, लोकमहादेवी आनी त्रैलोक्य महादेवीक, विरूपाक्ष आनी मल्लिकार्जून हांचीं अद्वितीय अशीं देवळां बांदून दिलीं.

हांगाचीं देवळां नागर आनी द्रवीड अशे दोनय शैलींत आसात.

ते व्हड बागेंतल्यान तरेकवार फुलझाडां तोखेत आमी मुखार सरलीं. सदामोगरेचें झाड गोंयांत तरी आमी पोपटी पानांचें पळयलां.

पूण हांगा मात वेगळीच अशी सोबीत बरीं तांबशा दाण्याचीं पानां आसलीं. तशींच गोंयच्या दसणींच्या पानां परस हांगच्या दसणीचीं पानां वेगळींच कशीं, कात्र्या कात्र्याच्या पानांक मिरी घाल्ले भशेन पानां. फुलां गोंयचेच भशेन पूण झाड आनी पाना रंगान रुपान वेगळींच कशी. झाडा वाली तोखेत आमी भितरल्या दुरगा म्हऱ्यांत पावलीं.

ह्या दुरगा भितर देवळांचो चोंबो दिसतालो. सुरवेकच विरूपाक्ष मंदीर मेळटा. हांगा गर्भकुडींत लींग आसा आनी ताची पुजा करतात. ह्या देवळांत वास्तू आसा म्हणून हांगा पुजा-अर्चा चलता. ह्या देवळाचे गर्भकुडी वयर कळसार शिखर आसा. हें देवूळ आठ भागांनी आसा. हीं सगळीं देवळां सेंडस्टोन म्हळ्यार रेंवे फातराचीं.

थंयच्यान आमी काडसिद्धेश्वर देवळांत गेलीं. बदामी चालुक्याचें आराध दैवत म्हादेव. म्हणूनच हांगा आमकां तो वेगवेगळ्या रुपांत दिसता. खंय तो विरूपाक्ष जाता, खंय मल्लिकार्जुन जाल्यार खंय तो पापनाथ म्हणूनय दिसता.

काडसिद्धेश्वर देवळांत भितर खांबे नात. गर्भकुडींत मोट्टें बरें लींग आसा. पूण ताची पुजा जायना. ह्या देवळांत काडसिद्धेश्वर नांवाचो साधू रावतालो. म्हणून ह्या देवळाक ताचें नांव दिला जातलें अशें म्हणटात. भायर दारार वीर आनी भद्र हे दोन द्वारपाल आसात. ह्या देवळांतलीं कोरांतिल्ली चित्रां तुटकीं फुटकीं कशीं. ह्या देवळाचे भायले वणटीर मात शीव, हरीहर आनी अर्दनारेश्वराचें सुंदर चित्र आसा.

आनी एक गलगंड म्हणून देवूळ आसा. हांगा लिंगाक बसका ना म्हळ्यार योनी ना. हें ग्रेनायटाचें लींग येद्दें मोटें. ताका तीन भाग आसात. ते म्हळ्यार मुळांत 'ऋ'. म्हळ्यार जनरेटर - हो ब्रह्मदेव, मदीं 'ज' म्हळ्यार ऑपरेटर - हो विष्णू, आनी सगळ्यांत वयर गोलाकार आसा तो 'ऊं म्हळ्यार डिस्ट्रेटर - हो भंजक असो शीव, अशे हे त्रिदेव एकठांय करून हें लींग तयार केलां अशें गायडान सांगलें.

थंयच्यान आमी म्हच्यांतच आशिल्ल्या संगमेश्वर देवळा कडेन आयलीं. हें सगळ्यांत पयलें देवूळ, पूण अर्देंच उरलें. ज्या राजान हें बांदूक लायिल्लें तो मेल्ल्यान देवूळ तितल्यारच उरलें. हें सादारण आठव्या शेंकड्यात तयार केल्लें. हाका विजयेश्वर देवालय अशेंय म्हणटात. ह्या देवळांतले तीन खांबे एका नर्तकान दान दिल्यात. ही सगळी म्हायती एका व्हड बऱ्या फातरपट्यार कोरांतल्या. उरिल्ले खांबे आनी कोणे कोणे दान दिल्यात तेंवूय बरयलां. तशेंच हांगा कितल्या राजांचे राज्याभिशेक जाल्यात ताचीय म्हायती ह्या फातरपट्यार कोरांतल्या.

भितरलें लींग फुटलां. आमी जोतीं घालूनच ह्या देवळांनी भोंवल्यांत. कारण सकयल जमीन सारकी ना. थंयची शिल्पकला दोळ्यार धरना इतली सोबीत. पूण देवळांची मात सामकी दशा जाल्या. तरी आतां तीं सारकीं करतात खंय अशें वाटाड्यान सांगलें.

थंयच वेले वटेन पापनाथाचें देवूळ आसा. हाची सामकी तोडफोड केल्या. आमचो वाटाडो हीं देवळां फोडपी त्या मुस्लीम बादशहांक सामको कड्डितालो. ह्या पापनाथच्या देवळाचें शिल्पकाम द्रविडी शैलीचें खंय, आनी शिखर नागर शैलीचें. ह्या देवळाच्या भायले वटेन बरीं चित्रां कोरांतल्यांत. देवळाच्या भितरले वणटीर रामायण, महाभारत हातूंतलीं चित्रां आसात.

विक्रमादित्य राजान कांची विजयाचें प्रतीक म्हणून आपले एके राणये पासत, त्रैलोक्य महादेवी पासत बांदिल्ल्या विरूपाक्षाच्या देवळा कडेन आमी आयलीं. ह्या देवळांत पुजा बी जाता. हें द्रविडी शैलीचें देवूळ. विरुपाक्ष म्हळ्यार तीन दोळ्यांचो म्हादेव. पूण ह्या देवळांत फकत लींग आसा.

ह्या देवळा भायर नंदी आनी सुवर्णगंगे पासत मंडप बांदला. असो नंदी पासत वेगळो मंडप आनीक खंयच ना खंय. हो नंदी बरोच व्हड. ताची साग्रसंगीत पुजा करतात. हो मंडप कोरीव कामान नटयला.

थंयच्यान देंवन आमी विरूपाक्ष देवळांत गेलीं. दारांत वीर आनी भद्र हांच्यो अडेच फूट ऊंच मुर्ती आसात. आनी त्रिशूळ घेतिल्ल्या म्हादेवाचें चित्र आसा. हें खांब्या खांब्यांचें देवूळ. हांतल्या प्रत्येक खांब्यार शृंगारांत मग्न आशिल्ल्यो जोडयो, लोक काणयो कोरांतल्यात. सामुहीक शृंगाराचेंय चित्र हांगा कोरांतलां.

भितरल्या खांब्यांचेर रामायण, महाभारत, भगवत गीता ह्या महाकाव्यांतले प्रसंग चित्रायल्यात. ते भायर समुद्र मंथन, त्या काळचो समाज कोरांतल्यात. हातूंतल्यान त्या वेळा वयल्या बायलांची जिणे रीत कळटा. केंसांच्यो मोदी तर सामक्यो, आतांच्यो आमी नव्यो ताल्ल म्हणून करतात त्योच. बॉब कट, आनी कसले कसले कट, पोनीटेल सगळ्यो मोदी त्या वेळारय आशिल्ल्यो. कपड्यांचेंय तशेंच. मोटवे स्कर्ट, बिकीनी, धोंपरा मेरेन साडयो सारक्यो बऱ्यो कोरांतल्यात.

भायल्या पाख्यारय सूर्य, हातांत कमळ घेतिल्लो आचार्य आनी ह्या देवळाचे स्थापत्य शास्त्रज्ञ गुंडन आनी बल्लदेव हांच्योय मुर्ती कोरांतल्यात. ह्या देवळाच्या भायर ज्यो व्हड व्हड मुर्ती कोरांतल्यात तातूंत चडशे शीव-पार्वती, अर्दनारेश्वर हांच्यो मुर्ती चड आसात.

ह्या देवळाक तेंकूनच त्रैलोक्य महादेवीचें देवूळ आसा. हें मल्लिकार्जून देवालय हाका त्रैलोकेश्वर महादेवाचेंय देवूळ म्हणटात. आपल्या विजयाचें प्रतीक म्हणून आपल्या बायलांक तांकां जाय तसल्या शिल्पकृतीचीं देवळां बांदून दिवपी हो राजा कितलो कलाभोगी पळयात. ताच्यो बायलोय तितल्योच कलासक्त मनाच्यो म्हणून फकत जड जवाहीर, कपडो लत्ते मागनासतना शिल्पकृतींनी नटयिल्लीं देवळां बांदून घेतलीं. धन्य ते राजा आनी धन्य ताच्यो राणयो. तांची आवड पुरयल्ल्यान आयज आमकां अशीं शिल्पसुंदराय पळोवंक मेळ्ळी.

ह्या देवळाच्या सभामंडपाक 18 खांबे आसात. तांचेर महाकाव्यांतले प्रसंग कोरांतल्यात. एका खांब्यार पाख्या कडल्यान

पयलीं पत्रां कशीं धाडटाले तें कोरांतलां. हांगाय गर्भकुडींत व्हड लींग आसा.

म्हाका चड मजा दिसली ती आमच्या पंचतंत्रांतल्यो काणयो खांब्यार कोरांतल्यात ताची. हातूंत एक काणी आसा, एक बायल भुरग्याक घरांत न्हिदोवन उदकाक वता, ती घरा येतकर तिच्या पोशिल्ल्या मुंगुसाच्या तोंडाक रगत पळयता आनी विचार करिनासतना ताका मारून उडयता. खरी खबर कळटकच तिका पश्चात्ताप जाता. दुसरी काणी माकडाची. लाकूड चिरप्यान फळयां मदीं दवरिल्ली पाचर काडटा आनी ताची शेंपडी खांचींत उरता ती काणी. आनीकय वेगवेगळ्यो पंचतंत्रांतल्यो काणयो खांब्यांचेर कोरांतिल्ल्यो आसात. भायले कुडींत गजांतक, लकुलिशा, हरिहर हांच्यो मुर्ती कोरांतल्यांत. छतार शीव-पार्वती आसा. हाचें शिखर वाटकुळें.

सुरवेच्या काळांत द्रविडी पद्दतीच्या बांदकामांत देवळाचेर शिखर त्रिकोनी कशें आसतालें, आनी जायत्या मजल्यांचें आसतालें. उपरांतच्या काळांत देवळा भोंवतणीं गडगंज तट बांदूंक लागले. ताच्या प्रवेश दाराचेर ऊंच ऊंच गोपूर बांदपाची रीत सुरू जाली.

ह्या मुखेल देवळां भायर काशी विश्वेश्वर, जंबलिंग, आनी जैन देवालयां आसात. ह्या जैन देवळाचें बांदकाम म्हळ्यार भारतीय शिल्पकलेचें मुळावण कशें दिसता. हाचे वयलीं चित्रां त्या काळा वयलें समाजीक जिवीत दाखयता. हिंवूय देवळां शिल्पकारीन नटयल्यांत. कांय कडचीं शिल्पां मुसलमानी आक्रमकांनी तोडून - फोडून उडयल्यांत, कांय पावस-पाणयाचे भकीक पडल्यांत. आतां मात हीं देवळां सांबाळपाचे काम चालू आसा.

ते भायर जायत्यो ल्हान ल्हान देवळ्यो थंय आसात. वयर छत ना. पूण भितर सुळसुळीत बरीं लिंगां आसात. तातूंतलीं कांय खूबच सुंदर आसात.

हांगाची शिल्पकारी बरे तरेन बारीकसाणीन पळयतलीं जाल्यार

दोन तीन दीस थंय रावंक जाय. जाल्यारच आमचो कलात्मक इतिहास आमी मात्सो तरी समजून घेवंक शकतलीं. पूण वेळाचो हावको आमकां चिकटल्लोच आसता. मागीर वाटाड्याच्या उलोवण्याचेर पातयेवन लोणच्याचो मेथो जिबेक लायिल्लेवरी धांवती भेट अशा थळांक दिवन समाधान मानतात.

थंयच्यान आमी भायर सरलीं. पळयत जाल्यार पाचव्याचार तणाच्या मळार तरेकवा पक्षी उडटात ते पळयलें. आमी ही शिल्पकला तोखेत भोंवता आसतना अभिजीत आनी मोहती पक्षां फाटल्यान भोंवताले. अभिजीत आपल्या कॅमेरांत तांकां बंद करून आमकां हाडून दाखयतालो. हालींच हांवें गोंयांत हुप्पो म्हणून आंगभर पट्टे आशिल्ल्या पक्षाचें वर्णन हर्षा कडल्यान आयकल्लें. हांगाय अभिजिताक हो चॉकलेट धव्या पट्ट्यांनी नटिल्लो हुप्पो मेळ्ळो. ताणें ताचो फोटो काडून आमकां हाडून दाखयलो.

थंयच्या तणारय आमकां जायते तरेचे पक्षी दिसले. तातूंतलो एक आमचे मडवळण पक्षावरी. आकारान चिमणे येदो. पूण ताची शेंपडी मात 4-5 इंच सुमार लांब. हळडुवे आनी काळ्या रंगाचे हे पक्षी शेंपडी सतत हालयताले. असलेच मात्शे मोटे पक्षी हांवें गुजराताक नर्मदेचे देगेर पळयिल्ले. तांकां गुजराती लोक चिखली म्हणटात खंय.

पेरां, आडसरां खावन आमी थंयच्यान भायर सरलीं.❑

# ऐहोळे - आर्यपूरा

**कर्नाटक** राज्यांतल्या बागलकोट जिल्ल्यांत मलप्रभा न्हंयचे देगेर एक ल्हान गांव आसा ऐहोळे. बदामी सावन सादारण 33 किमि चेर आसा. बदामी, पट्टदकल आनी ऐहोळे लागीं लागींचीं पर्यटन थळां. बदामींत रावन एका दिसान तीं पळोवंक जातात.

'ऐहोळे' ह्या गांवच्या नांवाचेर दोन काणयो सांगतात. एक म्हळ्यार ह्या गांवचें खरें नांव आर्यपूरा. ताचेचं अपभ्रंश जावन ऐहोळे जालां अशें म्हणटात. आर्यपूरा म्हळ्यार आर्यांचो पूर म्हळ्यार गांव. ते भायर हाका अय्या होळेय म्हणटाले खंय. म्हळ्यार अय्यगळ होळे. अय्या म्हळ्यार पंडीत, विद्वान ब्राह्मण तांचो हो गांव.

ह्या गांवची दुसरी काणी म्हळ्यार, हो गांव शेतकामत्यांचो. शेतांत वावर करून सांजेर घरा वतना शेतकामती आपलीं शेताचीं अवजारां मलप्रभा न्हंयेंत धुताले. तेन्ना तिचें उदक तांबडेंच जातालें. तेन्ना न्हंयचेर आयिल्ल्या बायलांनी म्हळें खंय, 'ऐ होळे', 'तांबडें उदक'. मुखार हेंच नांव प्रचलीत जालें. ही आख्यायिका मात्शी सत्याच्या लागीं कशी दिसता. नायी जाल्यार हांगाचे फातर सेंड स्टोन, रेंवेंचे, तांबशे गुलाबी, मलप्रभेचे देगेर हे तांबशे, गुलाबी फातर आशिल्ल्यान तिचें उदकय तामसार दिसतालें, म्हणूनय ह्या गांवाक ऐ होळे म्हणूंक लागले, अशें आमकां वाटाड्यान सांगलें. जाल्यार त्या वेळा वयल्या ग्रंथांनी हाचें नांव 'अहिहोळे, ऐपुरी' अशेंय मेळटा खंय. कितेंय जावं, आमी ऐ होळे गांवांत वचूंक भायर सरलीं.

प्राचीन भारताच्या इतिहासांत शिल्पकलेन कळस गांठिल्लो. ताच्यो खाणो-खुणो आमकां खूब कडेन मेळटात. पूण ही अभिमानाची गजाल आमी समजून घेवंक कमी पडलीं. अथवा घरांतले हे गिरेस्तकायेचें महत्व आमकां सट करून कळना. आमकां दुसऱ्यांच्यो साद्यो साद्यो गजाली आवडटात.

दक्षीण भारतांतल्या राज्यकर्त्यांनी राज्यकारभाराची जबाबदारी सांबाळटनाच आपल्या आराध्य दैवतांची भक्ती मुर्तीकला, शिल्पकला हांच्या आदारान अज्रंवर केली. त्या काळार शिल्पकलेक ओतो आयिल्लो म्हळ्यार अतिताय जावची ना. कर्नाटकांत तर ही शिल्पकला आमकां पावला पावलार पळोवंक मेळटा. पूण ताची जायते कडेन उपेक्षाच जाली म्हणून हें वैभव कांय कडेन ना नपयत जावपाचे वाटेर पावलां. पूण युनेस्कोचें म्हळ्यार जागतीक वारसास्थळां सांबाळपी संस्थेचें ताचे कडेन लक्ष वतकच, तांच्या आदारान आमच्या सरकारान हें वैभव सांबाळपाचें काम हातांत घेतलां. आतां ताची बरे तरेन जतनाय घेतात.

मलप्रभा न्हंयचे देगेर त्या काळार अस्थी विसर्जन करताले, म्हणून हाका तिर्थक्षेत्राचे स्वरूप आयिल्लें. अजूनय थंय अस्थी विसर्जन चलता खंय.

ऐहोळे तशें विसरायेर वचपाचे वाटेर आसलें म्हळ्यार जाता. इतिहास संशोधक, अभ्यासक एक वेगळी नदर घेवन ह्या थळाक जेन्ना भेट दितात, तेन्ना उध्वस्त कसो दिसपी हो गांव शिल्पकलेचे अज्रंवर ठेवो पोटांत घेवन बसला हें पळयतकच अजापीत जातात. गांव मात सामको बुरसो. मातयेचे अरूंद आनी खडबडीत रस्ते, बुरशा उदकाच्यो खळयो भरून उदक रस्त्यार पाविल्लें. गांवची ही अशी बकाल अवस्था पळोवन असो सोबीत सांस्कृतीक वारसो हांगा आसा हें कोणाक सांगल्यार लेगीत खरें दिसचें ना.

सातव्या शेंकड्यांत चालुक्य राज्यकर्त्यांनी ऐहोळे हो गांव

वास्तूकलेचें उत्कृश्ठ केंद्र केलें. भारतीय स्थापत्याच्या इतिहासांतलें हें भांगराळें पर्व. पूण सरकार आनी थळाव्या लोकांचे आडनदरेक लागून ऐहोळेचें वैभव संकटांत आसा अशें थंयची अवस्था पळयतकूच कळटा.

कमी पावसाच्या वाठारांत ऐहोळे येता. म्हणून थंयच्या लोकांक जगपा पासत जायतो संघर्श करचो पडटा. शेत रोवंक मेळतच हाची खात्री थंय नासता. ताका लागून दळडीरपण चड, म्हणून जावंये पोटा फाटल्यान वच्चें पडिल्ल्यान शिक्षण घेवंक मेळना वा शिक्षणाचेर गांवची आडनदर अशेंय म्हणूं येता. हे परिस्थितींत थंयच्या मोलादीक वारशाचें खंय पडून वतलें? अज्ञानाक लागूनय तांची वास्तूकले कडेन आडनदर जाल्या आसूं येता.

मात बदामी चालुक्याच्या राजवटींत हें विद्याकेंद्र आशिल्लें जनतेक सुशिक्षीत आनी सुशील करपाचें हांगा केंद्र आशिल्लें. ज्ञानी, विद्वान लोकांक राजाश्रय मेळटालो म्हणूनय हो गांव त्या काळार नांवारुपाक आयिल्लो. हें लाडखान देवळाच्या भायर बरयिल्ल्या फातर पट्या वयल्यान कळटा.

त्या वेळच्या ब्रिटीश सरकारान ऐहोळेचें इतिहासीक आनी सांस्कृतीक म्हत्व जाणून भारतीय पुरातत्व खात्या वतीन ताचें संवर्धन आनी रक्षण जावचें अशी तजवीज केली.

अशा शिल्पीकलाकारीन नटिल्ल्या ह्या देवळांत हालीं हालीं लेगीत लोक रावताले. थंयच लाकडाची चूल करून रांदून जेवताले.

हें जशें विद्येचें केंद्र आशिल्लें तशेंच तें एक नांवाजतें शार आशिल्लें. त्याच काळार हीं ल्हान व्हड शंबरां वयर शिल्पी देवळां बांदून घेतलीं. पूण हळू हळू काळाच्या ओघांत हें शार शार उरलें ना. हांगा रानवटी वाठार जालो. आनी मागीर खूब तेपान ह्या देवळांनी लोक रावंकूय लागले.

भारतीय पुरातत्व खात्यान हो वाठार हातांत घेतलो तो काळ

इंग्लिशांचो आशिल्लो हें हांवें वयर बरयलांच. नामनेचे इतिहासतज्ञ पर्सि ब्रौन आनी हॅन्री कर्झन दोगांकय ह्या वाठाराचें सर्वेक्षण करपाचो वावर दिलो. त्या वेळार तांकां कळ्ळें थंयचे स्थानीक लोक थंय रावनच आपले ल्हान व्हड उद्देग वेवसाय करताले. ह्या दोनय इतिहास तज्ञांनी, तांचीं नांवां, धंदो, जातीपाती विचारून तांची नोंद करून दवरल्या. ताका लागून सगळ्या देवळांचीं नांवां तातूंत रावपी लोकांच्या कामा-धंद्या वयल्यान पडलीं, देवां वयल्यान न्हय.

हरशीं चालुक्यांचीं देवळां चौकोनी आसतात. हांगा मात तीं लांबट-वाटकुळीं कशीं. हांगा कांय छप्पर देवळां म्हळ्यार वयर छत कशें बांदिल्लीं देवळां जाल्यार कांय झोपडा देवळां म्हळ्यार खोंपी वरी देवळां आसात. हातूंतलीं कांय देवळां परत बांदून काडल्यांत.

**लाडखान देवूळः**- हें सादारण इ. स. 450 च्या अदमासाक बांदलां. ह्या देवळांत पयलीं लाडखान म्हणून मनीस रावतालो. तोच कायं तेप हांगाचो कारभार पळयतालो. ताच्या नांवा वयल्यान अजून मेरेन ह्या देवळाक लाडखान देवूळच म्हणटात. ह्या देवळाक भितर सरतनाच पाशाणी सोंपे आसात. तांकां चक्कासन म्हणटात अशें आमकां वाटाड्यान सांगलें. भितर वयल्या मजल्यार चडपाक एक फातराची निसण आसा. ह्या वयल्या मजल्यार पयलीं लोकांक वचूंक मेळटालें. आतां मात वचूंक दिनात.

हें देवूळ पोरण्या घोलीचे शैलींत बांदला. हाच्यो वण्टी गडगंज बऱ्यो आसात आनी खांबेय गडगंज आसात. पूण खांब्यांचेर नक्षकारी ना. हीं सामकीं सुरवातेचीं देवळां खंय. म्हणून ऐहोळेक शिल्पी देवळांचें पाळणाघर म्हणटात. त्या काळार कोरीवकाम तितल्या प्रमाणांत मुखार सरूंक नासलें. ह्या देवळांत तीन फातरपटे आसात. तांचेर हें बरयलां. तीं अक्षरां आतां मात्शीं अस्पश्ट कशीं जाल्यांत आनी तीं कन्नडान बरयिल्लीं. वाटाड्यान सगळी म्हायती बरी पाठ केल्ली, ती आमकां सांगली. पट्टदकलांतलीं देवळां बांदतना मात

शिल्पकला बरीच नेटार आशिल्ली पळोवंक मेळटा.

हीं देवळां रेंवेच्या फातराचीं जाल्ल्यान सगळीं तांबडे मातयेन सारयिल्लीं देवळां कशीं दिसतालीं. ह्या देवळांक कमळावरी कळस. तो तुटून सकयल पडला. ताका लागून हाचें छत चेपटें कशें दिसता आनी देवूळ म्हळ्यार घोल कशी दिसता. सुरवातेचो मंडप 12 खांब्यांचेर उबारला. हाचेर एके वटेन गंगा आनी एके वटेन यमुनेचें चित्र आसा. आनी उरिल्ल्या भागांत शृंगारीक चित्रां कोरांतल्यांत. तीं अस्पश्टशीं दिसतात. देवळा भितरच व्हड नंदी आसा आनी गर्भकुडींत शिवलिंग. पूण पश्चिमे वटेनच्या दारार गरूडाचें चित्र आसा. गरुडाचें चित्र चडशें विष्णूच्या देवळांत आसता. चौकार चारय वटेन छतापोंदा विष्णू सूर्य आनी देवीच्यो सोबीत मुर्ती आसात. भितर उजवाड येवपाक वयर जनेलां केल्यांत.

ताचे भोंवतणचीं ल्हान ल्हान देवळां आमी भायल्यानच पळयलीं. हीं सगळीं ल्हान-व्हड देवळां कोण म्हणटा 122 आसात तर कोण म्हणटात 133 आसात.

मागीर आमी दुर्ग देवळा म्हऱ्यांत आयलीं. हांगा एक मुखेल देवूळ आनी भोंवतणीं ल्हान-ल्हान देवळांचो समूह आसा. म्हणून हांचो देवूळ समूह म्हणूनच उल्लेख करतात.

**दुर्ग देवालय वा किल्लो देवालय:** किल्ल्याच्या दुर्गा म्हऱ्यांत हें देवूळ आशिल्लें म्हणून हाका दुर्ग देवालय म्हणटात. आतां मात थंय किल्ल्याच्यो कांयच खुणो दिसनात.

सातव्या शेंकड्यांतलें हें सामकें सोबीत देवालय अशें सांगतात. ह्या देवळाच्या भितर आनी भायर आशिल्ल्यो शिल्पी कलाकृतीन भरिल्ल्यो मुर्ती खूबच सोबीत दिसताल्यो. दाराचेर आशिल्ल्यो नरसिंह, महिषासूर मर्दिनी, वराह, विष्णू, शीव आनी अर्धनारीश्वर हांच्यो सोबीत मुर्ती पळोवप्याक गुंग करतात.

हांगा सभामंडप वेगळेच तरेन बांदला. भितर भरपूर वारो आनी

उजवाड येवचो अशे तरेन जनेलांची वेवस्था केल्या. हरशीं अशा तरेच्या पाशाणी देवळांत लायट नासता आनी उजवाडाची वेवस्थाय सारकी नासता. ताका लागून सोबीत अश्यो भितरल्यो कलाकृती सारक्यो तोखेवंक मेळनात. दिवल्यांच्या उजवाडांत काळें पाशाण तिकतिकता मात, उजवाड चड पडना.

हें देवूळ लोणावळ्याच्या कार्ले-भाजें हांगाच्या चैत्यालयावरी दिसता. ताचे वयर ल्हानशें शिखर आसा. ह्या देवळाक एक गर्भकूड आनी भोंवतणीं प्रदक्षणा मार्ग आसा. पूण तो वारांदावरी एके वटेन उगडो. ह्या प्रदक्षणा मार्गार सुंदर-सुंदर मुर्ती आसात. तातूंतल्यो मुखेल मुर्ती म्हणल्यार, एक विष्णू-शंकराची म्हळ्यार हरी-हराची, एक महिषासूर मर्दिनीची. पार्वती, विष्णू, शीव अशा सगळ्या देवांची शक्त घेवन ही महिषासूर मर्दिनी तयार जाल्या खंय. हें दाखोवंक तांच्यो ल्हान मुर्ती तिचे मुर्ती भोंवतणीं कोरांतल्यात. आनी मुखेल मुर्ती सादारण मिटरभर चडच उंचायेची आसा.

तिसरी मूर्त वराह अवतारांतलो विष्णू, भुदेवी म्हळ्यार पृथ्वी सोंडेर घेतिल्ली मूर्त. उपरांत गरुडावेली विष्णूची मूर्त, मागीर नरशिंव अवतार. हांगा उग्रनरशिंव, विजयनरशिंव आनी लक्ष्मी नरशिंव अश्यो नरशिंवाच्यो तीन मुर्ती आसात. आनी निमणे त्रिभंगी शिवाची मूर्त. म्हळ्यार तीन कडेन वळिल्ली अशी मूर्त.

हांगा दोन-चार कडेन लोक जेवण करताले तें पाशाण काळें जाल्ल्यान कळटालें. सभाघराक दोनय वटेन वाट दवरल्या. हांगाय गडगंज बरे खांबे आसात. हांचेरय मुर्ती कोरांतिल्ल्यो दिसतात. छतारय मत्स्यावतार, आदिशक्ती, गंगा यमुनेच्यो मुर्ती आसात. गर्भकुडींत तुटिल्ली पिंडिका आसा पूण लींग ना. सभाघरांत वारो उजवाड येवंक वयर भरपूर जनेलां दवरल्यांत.

ह्या देवळां भायर आनीकय बरीं बरीं देवळां थंय आसात. कुटीर देवूळ म्हळ्यार खोंप देवूळ, हाचें पाखें खोंपी भशेन. भितर

गर्भकूड, प्रशिक्षणा मार्ग आनी मुख्य मंडप आसा. दारार सोबीत बरी गजलक्ष्मीची मूर्त आसा.

तशेंच सुर्यनारायणाच्या देवळांत सुर्यनारायणाची सोबीत मूर्त आसा. नायिदर देवळांतले खांबे वाटकुळेच बेल्लूर आनी हळेबिडूच्या देवळांतल्या खांब्यांची याद करून दितात. एक गौडर देवालय म्हणून आसा. तातूंत गांवचो मुखेली रावतालो. गोडा म्हळ्यार मुखेली. म्हणून ह्या देवळाक गौडर देवूळ म्हणटात खंय.

**चिक्की देवूळ समूहः**- हांगा एक मुखेल देवूळ आनी भोंवतणीं ल्हान व्हड देवळां आसात. गर्भकुडींत कांयच ना पूण छतार वण्टीर शिल्पकारीन नटिल्ल्यो मुर्ती आसात. जनेलांच्यो चौकटीय शिल्पकारीन नटयल्यात.

**हुच्चमल्लीः**- हें एक शिवाचें देवस्थान. हांगाय देवळांचो समूह आसा. हातूंतय कोरीव शिल्पांची रास आसा. ह्या देवळाचे गर्भकुडीचेर जें शिखर आसा तें सोपणां सोपणांचें.

**रावनफडी घोलीचें देवूळः**- हें आकांत व्हड पाशाण कोरांतून केलां, म्हणून ताका घोलीचें देवूळ म्हणटात. हांगााय सोबीत बरीं चित्रां कोरांतल्यांत. नटराज, अर्धनारीश्वर अशीं शिवाचीं जायतीं रुपां कोरांतल्यांत. विरुपाक्ष वा गौरीचें देवूळ, अशें नांव आशिल्ल्या ह्या देवळांत गर्भकुडींत लिंग आसा. पळोवंक विष्णूचें देवूळ कशें दिसता. कारण प्रवेश दारांत वैष्णव द्वारपाल, गरूड आनी विष्णूची मूर्त आसा. पूण स्थानीक लोक ह्या देवळांत गौरी पुनवे दिसा गौरीची मूर्त करून तिची पुजा करतात. म्हणून जावंये ह्या देवळाक गौरीचें देवूळ म्हणटात.

हाचे भायर बडीगेर देवूळ, चक्र देवूळ, मोगिती देवूळ, आम्बिगा देवूळ समूह, हुच्चमल्ली देवूळ समूह, रामलिंगेश्वर देवूळ समूह, मल्लीकार्जून देवूळ समूह, ज्योतिर्लींग देवूळ समूह, बौद्ध चैत्यालयां, जैन देवळांचे समूह अशीं आनीकय जायते ल्हान व्हड देवळांचे समूह सोबीतकायेचो खजिनो जपत थंय उबीं आसात. ह्या देवूळ समुहांक

आतां सरकारी आश्रय मेळिल्ल्यान तीं सारकीं करपाचें काम सुरू जालां.

ह्या देवळांनी देव-देवस्पण कोणेंच सोदूंक वच्चें न्हय. थंय शिल्पकारांनी घडयिल्लो शिल्पकाव्याचो आविश्कार दोळे भरून पळोवंक, तांकां तोखेवंक आनी त्या अनाम कलाकारांक मानवंदना दिवंक थंय मुद्दाम वच्चें. दक्षीण भारताच्या शिल्पकलेच्या इतिहासांत ऐहोळेक अमरत्व कित्याक मेळ्ळां तें पळोवंक ह्या पाशाणाच्या गांवांत मुद्दाम वचूंक जाय. ❑

# माया अनिल खरंगटे

**साहित्य**

कयपंजी, श्रावणशिंवर (कविता), घोंटेर, मळब झेंप, मृगजळ, काळीं कुपां रुपेदी देग (कथा संग्रह), प्रिय सखी (लेख संग्रह), अमृत वेळ (कादंबरी), जपान पळोवन आयलों, रक्तकूंड, चान्न्या रातीचो दुख्खांत (अणकार)

**बाल साहित्य**

कोलेदादाची पालखी, स्वामी विवेकानंद, गलिवराची भोंवडी, चौफूल, कामा पुरतो मामा, शींव आनी बैल, रवीन्द्रनाथ टागोर, निलम, शिटूक शकू, एकवट, गांधीजी, काणी एका गुलामाची, शणै गोंयबाब, राजकुंवरी मारिया, व्हड बुद्धीचो ल्हान इव्हान, निकोबारच्यो लोककाणयो, रानाच्या मनांत, अयोध्यायान, हातीमताई, रॉबिन्सन क्रुसो, एक आसली आजी, राजकुंवर इवान आनी चेटकीण बाबायगा, गुंड्या गुडगुडो आनी मस्तूल, आनाळ्यो गुनाळ्यो, गिरगिरें, चुडटे सोरोप, किटकिटें, तरेकवार पानां.

**पुरस्कार**

1998 - एन.सी.ई.आर.टी.चो बालसाहित्य पुरस्कार
2003 - कोंकणी कला साहित्य केंद्र-कुडचडें, बाल्साहित्य पुरस्कार
2007 - कोंकणी भाशा मंडळाचो कथा पुरस्कार
2010 - 'माँ शारदा' काव्य पुरस्कार, ए.आय.पी.सी. खुर्जा
2010 - गोवा कोंकणी अकादेमीचो काव्य पुरस्कार
2011 - बीम्ब बालसाहित्य पुरस्कार
2012 - गोवा कोंकणी अकादेमी बालसाहित्य पुरस्कार
2012 - साहित्य अकादेमीचो बालसाहित्य पुरस्कार 'रानाच्या मनांत'
2015 - कोंकणी भाशा मंडळाचो शिक्षक पुरस्कार

